# परम सूख

## गांधीजींच्या सांगाता भुरगेपण

[यादी त्या दिसांच्यो]

# परम सूख

## गांधीजींच्या सांगाता भुरगेपण

[यादी त्या दिसांच्यो]

**नारायण देसाय**

**इंग्लीश अणकार**

भाल माळजी

**कोंकणी अणकार**

अरविंद काकोडकार

(भारतीय विद्याभवन, मुंबय हांचे मान्यतायेन)

**सुर्वेचीं उतरां**

आर. आर. दिवाकर

**गोंयां तुज्या मोगाखातीर**

**मडगांव – गोंय.**



Bliss, was it
to be young with Gandhi

# परम सूख

## गांधीजींच्या सांगाता भुरगेपण

[यादी त्या दिसांच्यो]

**नारायण देसाय**

पयली गुजराती आवृत्ती 1967

पयली इंग्लीश आवृत्ती 1988

पयली कोंकणी आवृत्ती एप्रिल 2013

उजवाडावपी :

**गुरुनाथ केळेकार**

**गोंयां तुज्या मोगाखातीर**

कामत बिल्डिंग,

श्री हरिमंदिराकडेन,

मडगांव, गोंय.



कवर सजावट :

**श्रीधर कामत बांबोळकार**

बोकडबाग, रामनाथीं, गोंय.

मुद्रण :

**ऋतु ऑफसेट,**

वळवय, फोंडें, गोंय.

**मोल** : रु. 75/- मात्र

# मांडावळ

## सुर्वेचीं उतरां

बापूंवांगडा (महात्मा गांधी) हावें जायतो काळ सारलो. पूण त्यो यादी बरोवप म्हाका जमलेंना. इतलें खरें की जे लागींसावन गांधीजींक वळखल्ले आनी तांचे सांगाताक वावरिल्ले त्या जायत्या जाणांनी बरयल्ल्यो यादी म्हाका वाचपाक मेळ्ळ्यो, हाची म्हाका खोस जाता. हांतल्या जण एकल्याच्या बरपाक ताचो असो गंध आसा. हाका कारण, दर एकल्याक गांधीजीनी आगळ्या-वेगळ्या रुपान आपलें दर्शन घडयलां.

ह्या पुस्तकांत नारायणान बरयल्ल्यो जित्यो-तट्टटीत तश्यो काळीज कळवळावपी यादी आसात. हातूंत देशाच्या इतिहासाचो निर्णायक काळ आसा, ज्या काळा देश गुलामगिरीच्या वेणांतल्यान मुक्त जालो.

ह्या पुस्तकांत दोन व्यक्तींचें चित्रण आसा. एक, जाका लॉर्ड मावण्टबॅटनान भारताचे मुक्तीचो शिल्पी म्हण पाचारलो आनी दुसरो, जो महात्म्याचे सावळेंत न्हय, तर परजळीत आनी उदात्त प्रभेंत ल्हानाचो व्हड जालो.

लेखक नारायण देसाय महात्मा गांधी सांगाता सारिल्ल्या दिसांच्यो यादी सांगून सस्त बसूंक ना. ताणे गांधीजीनी भारतांत चालीक लायिल्ल्या समाजीक-अर्थीक चळवळींनी वांटो घेतला. लेखकान आचार्य विनोबा भावे आनी जयप्रकाश नारायण हांचेकडेनूय दाट नातें दवरलां.

इतलेंच न्हय, तर नारायण देसायान लोकाक दिसपडट्या मनीस-वेव्हारांत अहिंसक क्रांतीचें (संपूर्ण क्रांती) शिक्षण दिवपाखातीर एक संस्थाय चलयल्या. नारायण देसाय हाणी बरयल्ल्यो यादी हे नदरेंतल्यान वाचूंक जाय. गांधीजींच्या बहूआयामी व्यक्तित्वाकडेन फकत तटास जावन पळोवपाचें नासता. आयच्या भोंवतणच्या निर्शेणेच्या वातावरणांत उजवाडाची तिरपी सोदतल्याक हें व्यक्तित्व वाट दाखयता हें उमजून घेवचें पडटा.

इतले मजगतीं म्हाका त्या दिसांचे स्मरण जालें जेन्ना नारायणाचो बापूय (काका) म्हजे सांगाता हिंडलगा बंदखणींत सांगाती म्हण आशिल्लो. 'अनासक्ती योग' चो इंग्लीश अणकार ताणे म्हाका दाखयल्लो.

बंगळूर, आर. आर. दिवाकर

१० जून १९८८.




# 1. ईश्वरा, तुजीं दारां उगड...

महात्मा गांधींच्या खासा स्वताच्या गुजरात राज्यांत आशिल्ल्या साबरमती आश्रमाच्या थळाक ताचें आपलें अशें खाशेलपण आसा. हो आश्रम साबरमतीचे न्हंयचे तडेर आसा. ताचे फुडें, न्हंयचे दुसरे वटेन उद्देगीक शार अहमदाबाद आसा. हांगाच खंय तरी खूब वर्सां आदीं दधिची रुशींचो आश्रम आशिल्लो, अशें म्हणटात. ह्या दधिची रुशी हाणी वज्रपाता खातीर आपलीं हाडां इंद्रदेवाक दिल्लीं. दधिची रुशींची कथा ही सर्वोच्च त्यागाची बऱ्यांतली बरी देख. पूण महात्म्याची कथा, जाणी सद्याच्या काळांत हो आश्रम बांदलो, ती म्हण उणी प्रेरणादायक न्हय.

'ही म्हज्या आश्रमाक बेस बरी सुवात,' बापू सांगताले (आमी तांकां 'बापू' म्हणटाले). 'एके वटेन मसंड, तर दुसरे वटेन बंदखण. म्हज्या आश्रमांत रावतल्यांक मरणाचें भंय आसूंक फावना, वा बंदखणीक ते अनवळखी आसूंक जायनात.'

मागीर आमच्यांतलो एकलो शेरो मारतालो, 'आनी बापू, न्हंयचे तेवटेन कपड्यांच्या गिरण्यांचीं धुवराळीं आसात. तीं आमकां हातान विणिल्ल्या लुगटांचे, खादीचे समर्थक म्हणटल्यांक, कोणा शक्तींकडेन आमी झुजपाक जाय ताचो उगडास करून दितात.'

म्हजे बापूविशींचे आदले उगडास साबरमती बंदखणी भोंवतणी घुसपल्ले आसात. बापू दरेक दिसा, सकाळ आनी सानवेळ पासयेक वताले. ते आपले हात दोनूय वटेन आशिल्ल्यांच्या भुजांर दवरताले. हे दोगूय सांगाती मागीर बापूच्यो 'बडयो'

जाताले. ह्या कामाखातीर आमची भुरग्यांची पयली पसंती आसताली. ह्या मनीसरुपी बडयांची बापूक खरेंच कितेंय मजत जाताली व्हय, तें घडये बापूच सांगूंक शकपाचे! पूण आमचेखातीर मात, आमकां संद मेळ्ळी म्हूण आमी गर्वान तट्टटाले. पूण खरें पळोवंक गेल्यार आपणाक पयलीं संद मेळची हे आमचे उमळशिकेन, बापूच्यो 'बडयो' केन्नाकेन्नाय आपसांत झगडटाल्यो.

दरेक दिसा सकाळ आनी सानवेळ, बापूच्या घराकडच्यान आमी सुरवात करताले, साबरमती बंदखणीच्या मुखेल दरवट्यामेरेन वताले आनी परते येताले. खंयच्याय वेळार बापूची चलपाची गती आमच्या आवाक्याभायर उरताली. आनी आमी दरवट्याकडेन पावले रे पावले, ते गंभीर चर्चेंत गुल्ल नासल्यार, प्रत्यक्षांत निमाणे पन्नास यार्ड धांवून वताले. केन्नाकेन्नाय आमच्या भुजांवयलो बापूचो हात आमी काडून उडयताले आनी दरवट्याकडेन धांव मारताले. केन्नाकेन्नाय बापू आपलें सगलें वजन आमच्या भुजांर घालताले, आपले पांय वयर उखलताले आनी व्हडल्यान आड्डताले, 'चला बॉस, तुमी कशे धांवतात तें पळोवया.' बापूक जे भुरगे चड आवडटाले, तांकां बापू आपलीं खेरीत नांवां दवरताले. केन्नाकेन्नाय एका परस चड लेगीत नांवां दवरताले. म्हाका तांणी खूब नांवां दवरलेलीं आनी तांतलें एक 'बॉस' आसलें. तें नांव ते फकाणांनी म्हणटाले. ते पिरायेर त्या नांवाच्या खाशेल्या अर्थान म्हाका तें व्हडपणाचें बी अशें कांय दिसनाशिल्लें.

परत येतना, आश्रमांत जे कोण बरे नासताले तांकां बापू मेळटालेच. आश्रमांत, भलायकी धरून जिणेच्या दरेक एका आंगाचेर ते प्रयोग करताले. तांचो अभ्यास करतना, ते खूबशीं कारणां विचारांत घेताले. शिस्तीक आनी संयमाक आश्रमाचे जिणेंत खूब म्हत्व आशिल्लें. आमी सैमाचे सामके लागीं रावताले. हांगा सदचे वैजकी उपचार कुशीन दवरिल्ले आनी सैमीक उपचारांचे प्रयोग जाताले.

वेगवेगळ्या न्हाणांचो हांगा प्रयत्न करताले. कांय जाण तकलेक आनी पोटाक मातयेचो लेप लावपाचें समर्थन करताले. बापूक जेवणाखाणाचेर नियंत्रण दवरपाचे प्रयोग करपाक खूब आवडटालें. कोणा आश्रमवाश्याक कसलेंय खाशेलें प्रायोगीक

जेवणखाण तयार करून पळोवपाक जाय, तर बापू ताका उर्बा दिताले. कांय जाण फकत शिजोवनाशिल्लें खाण खाताले. कांय जाण फकत भिकणांचे दूद पिताले, तर कांय जाण कडू लिंबाच्या पानांचो आहार करताले. आनी ह्या सगल्यांत मजा म्हणल्यार ह्या दरेक प्रयोगाच्या मळार बापू फिशाल आशिल्ले.

पूण ह्या सगल्यांमदीं, बापून स्वता काडिल्ली जतनाय, तांचो भावार्थ, तांचो फकांणां मारपाचो सभाव हीं उत्तमोत्तम वखतां आशिल्लीं. हांगा बरो ना जावप हें एक वरदान आशिल्लें, अशें म्हणल्यार इल्लीय अतिताय जावपा ना. कारण बापू ते व्यक्तीसरीं दिसाक दोन फावट पासय मारतालेच. तशें पळोवपाक गेल्यार हो पुराय आश्रमाचो फेरो जातालो.

तेन्नाचो आश्रम आतांच्या आश्रमापरस, दिसपाक आनी वातावरणान खूब वेगळो आशिल्लो. तुळा केल्यार, पयलींचो खूब ल्हान आनी शाराभायर कुशीन आसतालो, पूण निवळ आनी खूब शांत आसतालो.

सद्याक दिसता तशेंच न्हंयचे देगेर बापूची रावतिका आनी बापूचो पुतणयो मगनलाल गांधी हाचें मगनकुटी हें घर, हांचे मदीं प्रार्थना स्थळ आशिल्लें. पूण तेन्ना सद्याक आसा तशें प्रार्थना स्थळ आनी मगनकुटी हांचे मदीं विटांनी बांदिल्ली धड नाशिल्ली. त्या दिसांनी प्रार्थना स्थळार निमाचीं तीन झाडां आशिल्लीं. बापू सदांच उत्तर दिकेक आशिल्ल्या झाडामुळा बसताले. उपरांत, तें आनी आनीक एक झाड साबरमतीक आयिल्ल्या हुंवारांत व्हांवून गेलीं. न्हंये पासून मातूशें पयस, मगनकुटी म्हऱ्यांत जंय आज गांधी वस्तूसंग्रहालय ही आधुनीक पूण सादी इमारत आसा, थंय तेन्ना एक शेत आशिल्लें. त्या वेळार ते सुवातेचें वातावरण वेगळेंच आशिल्लें. गांवगिरें आनी निसर्गीक.

बऱ्या नाशिल्ल्या लोकांक मेळपाक फेरो मारतना, बापू सदां तांचें घर आनी न्हंय हांचे मदीं जी ल्हान मातयेची खोंप आशिल्ली थंयच्यान वताले. ती खोंप पयलीं मिराबेनची आशिल्ली. मिराबेन ही बापूची इंग्लीश शिश्या मेडिलीन स्लेड चुकयनासतना पासयेक वतना बापूवांगडा आसताली. ती खोंप उपरांत विनोबाजीन घेतली. विनोबाजी हे संताचे गूण आशिल्ले विद्वान आनी कश्टकाडे वावुरपी आशिल्ले. उपरांत तांकां बापूचे

अध्यात्मीक वारस म्हूण वळखुपाक लागले. विनोबाजी कुडीन किडकिडीत आनी दुर्बळ आशिल्ले. ते चुकून बरे ना जाताले. पूण विनोबाचे खोंपीचे दुसरे वटेन बापूक खूब फावट 'नंदिनी' कडेन थांबचेंच पडटालें. जे सोयरे येताले ते चड करून हांगा रावताले. आनी खूब फावट तांतलो एकलो तरी बरो नासतालोच!

नंदिनी जातकच जंय आज चलयो रावतात ती व्हड कूड आशिल्ली. तेन्ना ते कुडीक 'उद्योग मंदीर' म्हणटाले. सूत कांतप आनी विणप थंय चलतालें. थंय शिकोवपाचे वर्गय घेताले. ताचे फुडें विद्यार्थी चलयांक रावपाची कूड आशिल्ली. इतल्यो चलयो थंय कितें शिकपाक येताल्यो वा त्यो कितल्यो तेंप रावताल्यो हाची आज म्हाका याद जायना. पूण तें घर चडशें भरिल्लें आसतालें. बापूक थंयूय खूब फावट बरें नाशिल्ल्यांक पळोवपाक वचचें पडटालें.

न्हंयचे पसून पयस वतकच थंय दोन चाळी आशिल्ल्यो. चडशे बापूचे लागींचे सांगाती हांगा रावताले. त्या चाळींक 'शिक्षकांची रावतिका' वा असलें कितेंय पकदस्त नांव दिल्लें. आज म्हाका याद जायना. आमी तांकां मुखावयली चाळ आनी फाटली चाळ म्हणटाले. आमचोय घराबो खूब वर्सां ते मुखावयले चाळींत राविल्लो. ही चाळ आश्रमांत रावतल्या घराब्यांखातीर आशिल्ली. पयलीं पयलीं म्हजेखातीर आश्रम इतलेंच जग आशिल्लें. म्हणटकच सगलीं ल्हान भुरगीं फुडलेच चाळींत रावतात असो म्हजो समज जाल्लो.

न्हंयकडच्यान फुडें आनीक खोंपी आनी घरां आशिल्लीं. तांतली 'आनंद निवास' ही खोंप निमाणें म्हज्या घराब्याखातीर बांदिल्ली.

१९२७ ते १९३० त साबरमती आश्रमाचो आंवाठ इतलोच आशिल्लो. आज तो वस्तू दवरपाचें संग्रहालय आनी दुसऱ्यो सामाजिक संस्था स्थापून खूब मोठ्या प्रमाणांत वाडयला.

बरे नाशिल्ल्या मनशांकडेन खाशेलें ध्यान दितना बापू आश्रमांतल्या बाकीच्याय दरेक मनशाकडेन सामको लागींचो संबंद दवरताले. ते तांच्या जेवणा–खाणांत आनी रावपाचे स्थितीचेर बारीक नदर दवरताले. शिस्तीच्या दरेका आंगाचेर, एकल्याक वा

सगल्यांक, बापू सरळ वा अप्रत्यक्ष मार्गदर्शन करताले.

हे खातीर व्हडल्या आनी वाडिल्ल्या एका घराब्याचे जाणटेले हे नदरेन सगले बापूकडेन पळयताले. आश्रम खऱ्यानीच एक व्हडलो घराबो आशिल्लो. पूण म्हज्या मतान वा म्हाका दिसता, बाकीच्याय भुरग्यांचें तेंच मत आसतालें. बापू सामके आगळे अशे मनीस आशिल्ले. बापू आश्रमाक बापूय, राष्ट्राक फुडारी आनी सामान्य मनशाक महात्मा आशिल्ले. पूण आमकां भुरग्यांक ते फकत एक इश्ट आशिल्ले.

आश्रमाचे खूब नेम आशिल्ले – सद्दां कडक, खूब फावट कठोर तर केन्ना केन्नाय निश्ठूर. हे सगले नेम बापून केल्ले. तांचो कसो वापर करचो, हातूंत बापूचें उतर निमाणचें उरतालें. पूण आमकां भुरग्यांखातीर मात बापू केन्नाच कठोर शिस्तीचे वा हुकुमशा नाशिल्ले. तांचे आनी आमचेमदीं फकत एकच नातें आशिल्लें – इश्टागतीचें.

जेवणाचे कुडीची आमी देख घेवया. नेम असो : सगल्या आश्रमवाश्यांनी बराबर एकटांय एकेच जेवणाचे कुडींत जेवप. (एक फावट म्हज्या बापायन ह्या नेमाक विरोध केलो आनी आमच्या घरा जेवण जेवपाक परवानगी मेळयली. तरय, म्हजे आवयक त्या चौगांच्या जेवणाचे कुडींत आधार करचोच पडटालो. पूण सगलें तें मागीर आयलें.)

जेवणाचो वेळ जातकूच घांट वाजोवन सगल्यांक कळीत करताले. आश्रमांत बापू उप्रांत दुसरी अधिकारी म्हूण ही घांट आपलो शेक चलयताली. सकाळचें उठपासावन तें रातचें न्हिदपामेरेन ती घांट दरेक कामावेळार ज्युस्त वाजताली. एक फावट हिशोब केलो तेन्ना कळ्ळें, घांट त्या दिसा छपन्न फावट वाजिल्ली. जेवणा वेळार ती तीन फावट वाजताली. पयली घांट आमकां जेवणाचे कुडींत आपयताली. दुसरी घांट वाजतकच जेवणाचे कुडीचें दार धांपताले. तिसरे घांटेन प्रार्थना सुरू जाताली.

एक फावट जेवणाचे कुडींत पावपाक म्हाका कळाव जालो. हांव सपणां चडटां म्हणल्यार घांट दुसरे फावट वाजली. कुडीचीं दारां बंद जालीं. आतां जगांतल्या खंयच्याय भुरग्याक जेवणाखातीर नेम आनी कायदे पाळचे पडटात व्हय? तरय बंद दार म्हजे आनी जेवणामदीं उबें आशिल्लें.

हांव दाराचे भायर बसून भितरल्या देखाव्याची कल्पना करूंक लागलों. लोक जमनीचेर चार पंगतीनी बसल्यात. तांचीं ताटां शितान, भाज्जेन, दुदान, पावाच्या स्लायसांनी भरल्यांत. म्हजी आवय रांदचे कुडींत काम करतना हांव थंय ना म्हूण हुस्क्यांत पडल्या. बापू दाराकडेन बसून सगल्यांकडेन पळयत हांसतात बी...

म्हाका उगडास जायना, ती कल्पना म्हजी काय दुसऱ्याची. पूण त्या बंद दाराकडेन उबो रावन हांव गावपाक लागलों :

'तुजीं दारां उगड, ईश्वरा, तुज्या देवळाचीं दारां उगड.'

आपलो भुरगो भायर पडटकूच स्वर्गेस्त कवी नरसिंहरावान हें कवीत बरयल्लें. तेन्ना हे कवितेचो फुडें असो उपेग जातलो, अशें ताणी केन्ना चिंतिल्लें काय?

जेवणाचे कुडींत सगलें शांत जाल्लें. म्हणटकच म्हजो हो भुरगो सूर आपसुकच भितर रिगलो. बापू व्हडाव्हडान हांसपाक लागले आनी बाबलाखातीर दार उगतें जालें!

# 2. भुरगेपणांतल्यो उच्यापती

साबरमती न्हंयकडेन आशिल्ल्या आश्रमाचें खरें नांव पयलीं 'सत्याग्रह आश्रम' आशिल्लें. दक्षिण आफ्रिकेंत आसतना, न्यायाखातीर झगडपाक म्हूण बापून तें नैतिक शस्त्र सोदून काडिल्लें. आनी आतां ताणी तें भारतांत हाडिल्लें.

उप्रांत ताणी आश्रमाचें नांव उद्योग मंदिर अशें बदललें. घडये सत्याग्रह आश्रम नांव तांकां जड लागलें जायत ! 'उद्योग मंदिर' हें नांव मातशें उणें महत्वाकांक्षी आशिल्लें. घडये चड वास्तववादी आशिल्लें. तरय हीं नांवां एकमेकाकडेन जोडिल्लीं आशिल्लीं. आश्रमाच्या मुळांत श्रम आशिल्ले आनी उद्योग ह्या उतरांत योग आशिल्लो. आनी सत हो योगाचो एक गरजेचो भाग आशिल्लो.

पूण आश्रमाचे एके सुवातेचें नांव मात केन्नाच बदलूंक नाशिल्लें. तें म्हळ्यार प्रार्थना स्थळ. ते पवित्र सुवातेचें नांव बापूच्यान कशें बदलूं येतालें? सत्याग्रहाचो आदर्श त्या स्थळाच्या मुळांत आशिल्लो. आनी सत्याचे प्राप्तीखातीर सोद घेवपी म्हूण बापूची जीण ताचेर चंवरलेली.

जेन्ना फकत आश्रमवाशी प्रार्थनेक बसताले तेन्ना बापू दरेकाचे प्रस्न जाणून घेताले. आनी सत्याचे प्राप्तीखातीर सोद घेवप्यान, ते कशे सोडोवचे आसतात हाचो थाव घेताले. तांचे खातीर सत्याग्रह म्हणल्यार फकत ब्रिटिशांआड झुजप इतलेंच नाशिल्लें. तातूंत तांकां दरेकाचे पुराय जिणेची वाट सोदपाची आशिल्ली. सत्याचे प्राप्तीखातीर सोद घेवपाच्या पटाचेर, प्रार्थना स्थळाचेर जिविताचीं सगलीं तासां तपासप जातालें.

कांय जाण उसरां कित्याक उठटात? कांय जाण प्रार्थनेवेळार कित्याक झेमेतात? कांय जाण न्हिदेंत अचकीत कित्याक किंळाचतात? रागाचेर नियंत्रण हाडप इतलें अवघड? आश्रमवाश्यांक दागिन्यांची गरज आसा? जेवणांखाणां मनाचेर कसो परिणाम करतात?

प्रार्थना स्थळ – कितली सुखदिणी सुवात आशिल्ली ती! एके वटेन बापूची हृदयकुंज ही खोंप आशिल्ली तर दुसरेवटेन पूज्य दत्तात्रय साधूचें पोरणें पवित्र यादस्तीक आशिल्लें. तिसरे वटेन साबरमती न्हंय आशिल्ली. उबाळा दिसांनी चडशें न्हंयेचें पात्र सुकें आसतालें. पावसा दिसांनी हुंवाराच्या उदकान ती गर्जताली, तरय वर्सयभर न्हंयची देग प्रार्थना स्थळान नितळ जाताली.

म्हजे पिरायेच्या चवथ्या आनी सातव्या वर्सांमदीं, प्रार्थना स्थळावयल्यो ते वेळेच्यो म्हज्यो यादी, तेन्ना थंय येतलीं शेवर्णी, थंडे दिसांनी येवपी पक्षी आनी मोर हांचे इतल्योच खोशयेच्यो आसात.

उत्तर दिशेन आशिल्ल्या झाडाच्या मुळांत बापू बसताले. बापूचे फुडें, दादले मनीस एके वटेन आनी अस्तुऱ्यो दुसरे वटेन बसतालीं. जेन्ना हांव पयले फावट प्रार्थनेक गेलों, म्हाका म्हजी सुवात धपक्याक मेळ्ळी. हांव सरळ बापूचे मांडयेर वचून बसलों. आज येवजितां तेन्ना तो कितलो खेरीत अधिकार आशिल्लो, म्हाका कितली जापसालदारकी दिल्ली, हें कळटा. पूण तेन्ना बापूची मांडी ही प्रार्थना सभेचें, आश्रमाचें आनी सगल्या संवसाराचें केंद्र आशिल्लें, इतलेंच कळटालें.

मागीर कांय दिसांनी म्हाका एक स्पर्धक तयार जालो. म्हजो इश्ट, प्रबोध चोक्शी कांय दिसांखातीर आपल्या आज्या आनी आज्जेवांगडा आश्रमांत रावपाक आयिल्लो. प्रार्थना सभेंत येवन तो सरळ बापूचे मांडयेर बसूंक लागलो. हाचे पयलीं हांव सगल्यांत ल्हान आशिल्लों. पूण हो भुरगो म्हज्या ल्हान आशिल्लो आनी तो अधिकार ताका न्हयकारूंक मेळना जालो. पूण बापून आपलीं दोनय धोपरां दोगांय भितर वांटून तो प्रस्न सोडयलो.

पूण कांय दिसांनी आमकां बडटी मेळ्ळी आनी आमकां दोगांयकय बाकीच्या

लोकांमदीं ओग्गी बसपाक सांगलें. सान भुरग्यांक खंयचेय वटेन बसपाक परवानगी आशिल्ली. कांय फावटी आमी आश्रमांतले भुरगे दादल्यांमदल्या खंयच्याय एका खाशेल्या अशा मनशाक वेंचून काडटाले आनी ताची नक्कल करपांत कळाशी दाखयताले. केन्नाय, बायलांचे रांकेंत बसल्यार, ईश्वराचें ध्यान करतल्या बायलांच्यो विणयो बांदून आमी सर्वोत्तम समाधान मेळयताले.

बापूक सांगलेबगर आश्रमांत कितेंय घडूंक शकता? 'बापू, आज हांवें खाजराची एक बोय चड खाली.' 'बापू, हांव हून उदकान न्हावूं काय थंड उदकान?' असले दरेक बाबतींत, बापू एकटेच निर्णय दिवपी आशिल्ले. आमचीं आडांगपणां बापूचे नदरेक हाडपाक बाकीचे अक्षरशा भीक मागताले. बापूक कळपाक कितें वेळ लागतालो? 'बापू, प्रार्थनेवेळार भुरगे आमकां सतायतात!'

आमी येवजिताले, आतां आमची तपासणी जातली. आमची बाजू मांडपाक आमकां वकिलाची आनी गवायांची गरज पडटली, काय आमी आमची चूक सविनय कायदेभंग करपी लोकांवरी धाडसान मान्य करप?

पूण ते खातीर आमकां हुसको करपाची गरज पडना आशिल्ली. आमकां विचारलेबगर बापू निवाडो दिताले, 'आमच्यो प्रार्थना भुरग्यांच्यो रुची कश्यो भागोवंक शकतात? तांचेखातीर एक वेगळे कार्यावळीची वेवस्था करात.'

हुर्रे! आमकां जाय तें मेळ्ळें. पूण खरें सांगतलो जाल्यार आमचेखातीर घडयल्ल्या प्रार्थनासभांनी कितें जातालें हाचो म्हाका आंता कांयच उगडास जायना. म्हाका इतलेंच याद जाता तें म्हळ्यार रामायणांतल्यो काणयो सांगून प्रार्थनासभा सोंपताल्यो. रामायण हें मनीस रूप घेतिल्ल्या देवाचें - रामाचे जिणेचेर महाकाव्य जाचेर सगले हिंदू भुरगे वाडटात. पूण खरेपणान, इतल्यो काणयो सांगल्यो तांतल्यो म्हाका दोनच याद आसात. एक रामाच्या आनी दानवाचो राजा रावणाच्या झुजाची आनी दुसरी रामाची आनी माकडांचो देव मारुतीचे भेटेची.

प्रार्थना सभेंत, जाणट्या लोकांक कितेंय आयकतकच वा सांगतकच जितलें लागतालें, ताचेपरस चड वा रोखड्यारोखडें आमी आयकतकच वा सांगतकच

लागतालें. एक फावट म्हजी आवय रांदचे कुडींतलें काम सोपतकच घरा येताली. खाणा-जेवणाच्या गरजेच्या जिनसांची पुरवण करपाची जापसालदारकी तिची आशिल्ली. तिचे पयलीं जो मनीस हें काम करतालो तो हिशोब दवरतना चुको करतालो. पूण एक फावट बायलमनशांनी हें काम हातांत घेतलें, तेन्नासावन हिशोब रेक्त उरपाक लागलो. म्हजी आवय ते खातीर धन्य आनी खोशी जाली पूण एका अर्थान तिचें काम वाडिल्लें.

एका दिसा, ती पुरो जावन आनी उसरां घरा पावली. जशी ती आनंद निवासाकडेन पावली, तिणें पळयलें, बाबला हातांक आनी तोंडाक डांबर लावन दरवट्याच्या दांड्यार बसला.

'खरें सांग, तूं कितें करता?'

'रावणाच्या शिंवासनाइतली लांब शेपटी करपाक लुगटाच्यो तिस्त्यो शिंवतां,' हांवे घोशणा केली, आनी म्हळें 'हांव मारुती!'

एके तरेन, बापूक आमचे भुरग्यांचे खेळ आवडटाले. इतलेंच न्हय तर संद मेळ्ळ्यार, तेय आमचे वांगडा ल्हान जावन खेळटाले. तर केन्नाय, आमचें आडांगपण आळाबंदा हाडपाखातीर वेगवेगळे उपाय सोदून काडटाले जे खूब फावट फळादिकय जाताले. हांतलो एक उपाय म्हणचे जे कोण सकाळीं उसरां उठटाले, तांकांच ते सकाळची उठोवपाची घांट वाजोवपाचें काम दिताले. अशेच तरेन, आमच्यो उमेदी आनी भगलो नियंत्रणांत दवरपाखातीर, ते आमकां दरेकाक कांय जापसालदारकी दिताले. म्हाकाय एक अशीच दिल्ले जापसालदारकेची याद जाता.

बापूच्या आश्रमाक खूब जाण भेट दिताले. म्हणटकच, आमकां आपशींच उपदव्याप करपाक प्रेरणा मेळटाली. एक फावट पावण्यान आमच्यांतल्या एकट्याक आश्रमाच्या वेवस्थापकाचें घर खंय काय म्हूण विचारलें. आमी ताका दादल्यांच्या सुशेग घेवपाचे कुडीकडेन धाडलो. आनी घडये ह्याच कारणाखातीर, एके अमेरिकी अस्तुरेक सगलो आश्रम भोंवन दाखोवपाची जापसालदारकी बापून म्हजेर सोंपयली. तांकां खबर आशिल्लें, एक फावट जापसालदारकी सोंपयतकच हांव तें जबाबदारेन

चुकयनासतना करतलों.

हावें ते अस्तुरेक सगल्या आश्रमभर भोंवडायली. एका दुभाश्याच्या पालवान हावें तिका म्हाका शक्य आसा ते प्रमाण सगलें बेस बरें समजावन सांगलें. एके खोपींत चार दांतीं पळोवन ती अजापली. त्या वेळार भारतभर गंव, तांदूळ बी दळपाक सर्रास दांत्यांचो उपेग करताले. तसलें तिणें कितेंच पयलीं केन्नाच पळोवं नाशिल्लें. तें आयकून म्हाका तिचेपरस चड अजाप जालें. दळप कशें हें हांवें तिका वयलें दांतें घुवंडावन दाखयलें. ती सामकी भुल्ली आनी तिणें म्हजो फोटो काडलो.

फुडें वतकच तिणें म्हाका पयशे दिवपाक काडले. हावें ते घेतलेनात. हावें ते घेवचे म्हूण तिणें खूब यत्न केले. तरय, हावें ते घेतलेनात. दुभाश्यान सांगलें ती खूब खोशी जाल्या म्हूण दिता. म्हणटकच ते घेवपाक कांय लुसकान ना अशें म्हाका दिसलें.

हावें दुभाश्याक सांगलें, 'हावें तिका पयशांखातीर आश्रम दाखोवना. बापून सांगलां म्हूण दाखयला. तिका जर पयशे दिवपाक जाय, तर तिणें ते आश्रमाच्या वेवस्थापकाकडेन दिवचे. हांव तांकां हात लावपाना.'

असलीं सामाजिक आचारतत्वां म्हाका कोणें शिकयल्लीं हाचो म्हाका उगडास जायना. तिका आश्रम दाखोवपाचें काम बापून म्हजेर सोंपयलां ह्या अभिमानांतल्यान हांव तें शिकिल्लो आसूं येता !

पूण असल्या पयशांकडेन हांव केन्नाच आकर्शीत जावं ना अशें दावो लावन सांगूंक शकना. भारताचेर राज्य करपी ब्रिटीश सरकाराची गुप्तचर संस्था - केंद्रिय गुप्तचर विभागाचे अधिकारी खूब फावट आश्रमांत येताले. तांतलो एकटो आशिल्लो इस्मायलभाय. तो धश्टपुश्ट, काळोच आशिल्लो आनी गोंड्यांची तांबडी टोपी घालतालो. आमकां भुरग्यांक तो खूब भावतालो. आमकां लांच दिवपाक तो सफल जातालो. म्हाका खबर नाशिल्लें, तातूंत ताचो सुवार्थ आशिल्लो काय तो खरोच आमची जतनाय घेतालो. पूण जेन्ना जेन्ना तो येतालो, आमकां मिठाय हाडटालो. बदल्यांत, ताका इतलेंच जाणा जावपाक जाय आशिल्लें, 'ह्या दिसांनी गांधीजी कितें करतात?'

इस्मायलभायचे मिठायेन तोंड गोड जातकच, आमी भितरल्यो कांय खबरी भायर फोडपाक अनमनना जाले. 'ह्या दिसांनी बापू कोडू लिंबाच्या पानापसून हालवो करपाचे प्रयोग करतात,' आमी सांगताले.

आनी तो सादो मनीस बारीकसाणेन तें आपले चोपडेर नोंद करून घेतालो. एके वटेच्यान बापू - सत्य सोदपाचे विज्ञानीक जे आशिल्ले, खंयच्याय सामाजिक वा राजकीय प्रस्नांची सोडवण करपावरी लिंबाच्या पानांचो हालवो करपाच्या प्रयोगांत गुल्ल आशिल्ले तर दुसरे वटेन ब्रिटिश सरकारचो हो गरीब बाबडो प्रतिनिधी गंभीरपणान मानतालो, लिंबाच्या पानांचो हालवो करपाची रीत ही गुपीत बसकेइतली मोलादीक म्हण. पूण बापूची खंयची कल्पना, खंयचे प्रयोग ब्रिटीश साम्राज्याची बुन्याद हालोवपाक कितले बळिश्ट हें हड्डें फुडें काडून कोण सांगूंक शकतलो आशिल्लो व्हय? चिमटीभर मीठ एकठांय करप दिल्लीचे राजवटेक सामकें थरथरावन उडयतलें हाचो कोणाकच इल्लो तरी दुबाव आयिल्लो व्हय?

हांव हांगा बापूच्या १९३०तल्या मिठाच्या सत्याग्रहाचो उल्लेख करतां. ताणें ब्रिटीश राज्याच्या इतिहासांत ब्रिटीश सरकारामुखार एक हुसक्यांत घालपासारकें आव्हान उबें केलें. आतां हांव ज्यो तुमकां घडणुको सांगतां त्यो मिठाच्या सत्याग्रहाच्या दिसांतल्यो आसात.

हांव तेन्ना स वर्सांचो बी आसन. पूण त्या दिसांनी पुराय आश्रम राजकीय जागृतायेंतल्यान वतालो. म्हणटकच जे पिरायेचेर दुसऱ्या भुरग्यांक निकतेंच समजूंक लागता, ते पिरायेचेर आमकां बंदखण, पुलीस, केंद्रिय गुप्तचर विभाग, न्यायालय हांचो अर्थ पुरायपणान खबर आशिल्लो.

तेन्ना आश्रमांत जीं गितां आमी सर्रास आयकताले तीं आशिल्लीं 'मारूं नाकात, मरूंक शिकात' - गांधीजी आमकां हेंच शिकयताले. बंदखण म्हळ्यार देवूळ समजात, आनी तुमी मेकळे जातले. असल्या भावनांच्या पदांक भरसून दुसरीं कवनां अशीं केल्लीं :'चरखो हो असो बाण जो सरकाराच्या काळजांतल्यान आरपार वतलो. चळवळीचो जय जातलो.' 'ए चेपेंकारांनो, तुमी आमचे भुंयेर कशे आयले?'

म्हजे बाबतींत म्हणल्यार, एक दिसना आशिल्ली शक्त जिका आमी सरकार म्हणटाले तिचे आड म्हज्या मनांत राग उत्पन्न जाल्लो जायत, पूण सरकाराच्या खंयच्याय प्रतिनिधी आड अजिबात जावंक नाशिल्लो. वयल्यान इस्मायलभाय आनी अशेच दुसरे जे आमच्या संपर्कांत आयले असल्या लोकांकडेन आमची इश्टागत आशिल्ली. हे बाबतींत, बापूचें स्वताचें मतय आमच्या भुरगेपणाच्या जल्मसभावावरी आशिल्लें वा चडच आशिल्लें.

हे राष्ट्रीय उचांबळायेमदीं, असहकार चळवळ सुरू करपाचो अधिकार बापूक भारतीय राष्ट्रीय काँग्रेसीन दिल्लो. भारतीय राष्ट्रीय काँग्रेस ही स्वातंत्र्य चळवळींत वावुरतल्या राष्ट्रीय फुडाऱ्यांची संस्था आशिल्ली. ते प्रमाण बापून भारतियांचे कश्ट बरोवन भारतांतल्या ब्रिटिश सरकाराचे मुखेली 'व्हायसरॉय' हांकां चीट बरयली. उप्रांत फुडें जातल्या झुजाक तोंड दिवपाक आख्ख्या देशान बेत केलो.

मागीर १२ मार्च १९३० क बापून आपूण दांडीचे दर्या देगेवयल्या खेड्यांत चलून वतले आनी थंय दर्याविळेवयलें मीठ जमा करून कायदो मोडटले अशें जाहीर केलें.

सभावीकपणान ह्या पेरगांवाक लागून वेगवेगळ्यो प्रतिक्रिया व्यक्त जाल्यो. खूब राष्ट्रीय फुडाऱ्यांनी खासगींत हाच्या शाणपणाचेर दुबाव परगटायलो. हरशीं दरेकाक सरकाराच्या मिठावयल्या कायद्यांच्या अन्यायाची जाण आशिल्ली. मिठाचेर येद्या मोठ्या प्रमाणांत कर लागू केल्ल्यान, मीठ तयार करपाक ह्या कायद्यांनी सरकाराक एकाधिकार दिल्लो. गरिबांखातीर इतले गरजेच्या जिनसाचेर लायिल्लो हो कर खूब गैरय आशिल्लो. तरय, ब्रिटिश सत्तेक शह दिवपाखातीर बापून सोदून काडिल्लो हो उपाय तितलो तोलामोलाचो आशिल्लो व्हय?

बापू भायर सरचेपयलींच सरकार तांकां धरून भितर उडयतलें असो आश्रमांत समज जाल्लो. पूण दीस जसजसो लागीं पावपाक लागलो, तसतशे आश्रमांतले दरेकजाण बापूवांगडा चलून वचपाक उतावेळ जाले. तांचेवांगडा कोण वतले हें बापून जाहीर करतकच वेंचिल्ल्या एकूणअयशीं जाणांक खूब आनंद जालो. आमी भुरगे, आमकां भायर दवरले ह्या अन्यायान रागार जाले.

वचपाच्या दिसा, इतल्या जमिल्ल्या लोकांक प्रार्थना सभेचें थळ खूब ल्हान पडपाक लागलें. म्हणटकच इतल्या एकठावल्ल्या लोकांक साबरमतीच्या सुक्या पात्राचेर व्हरचें पडलें. गितां गावपी पंडित खरेचो येदो व्हडलो ताळो एदे खेटीमुखार कसोच पावना जालो.

हजारांनी, लाखांनी लोक रातीच्यानच जमपाक लागिल्ले. पूण प्रार्थना जातकच बापू मात सदांभशेन बरे नाशिल्ल्यांक मेळपाक गेले. तीन भुरगीं हालींच देवी जाल्ल्यान मेल्लीं. तांतलो एकटो पंडित खरेचो पूत आशिल्लो. तरूय, पंडितजी हे दांडी मिरवणुकेच्या सगल्यांत फुडें आशिल्ले.

ह्या मोर्च्यांतल्या लोकांक पळोवन आमची शिक्षिका प्रेमाबेन खोश्शेन पिशी जाली. तिणें बापूच्या शालीचेर एक बिल्लो लायलो आनी तांकां वेंग मारली. आश्रमांतल्या आनीक एके अस्तुरेन तांच्या कपलाक तांबडो कुकूम लायलो. मोर्च्यांत भाग घेतिल्ल्या लोकांच्या गळ्यांत हातान विणिल्ल्या सुतांचे हार घाले. 'वैष्णव जन तो' आनी रामनामाचो जप करीत बापू भायर सरले. अहमदाबादचें वट्ट शार त्या लोकांक निरोप दिवपाखातीर दुसऱ्या गांवांमेरेन तांचे वांगडा चलत गेलें.

आमी भुरगे आश्रमांतच उरले. बापू वतकच आमी आमचे बावटे उखलले आनी उरफाटे दिशेन साबरमती बंदखणीच्या दरवंट्याकडेन गेले. आमी सादेपणान अशेंच सोडून दिवपाचे नाशिल्ले !

# 3. सगळ्यांक जिकपी मोग

बापूचे झुजपाचे मोदीची झलक म्हाका स्वताक एक फावट चाखूंक मेळ्ळी. ती घडणूक अशी :

म्हजो बापूय जंय जंय गेलो, थंय थंय ताणें नवे इश्ट तयार केले. तांतल्या कांय जाणांकडेन दाटी जाली. इतली की ते आपशींच घराब्याच्या बाकीच्याय लोकांमदीं मेळूंक घोळूंक लागले. एक फावट तांतल्या एका इश्टान म्हाका मुंबयच्यान कांय खेळणीं धाडलीं. आश्रमांत खेळपाक सुवात खूब आशिल्ली, पूण खेळणीं खूब उणीं आशिल्लीं. म्हणटकच आमकां अशीं खेळणीं मेळटकूच खूब खोस जाताली.

पूण आमच्या दुर्भाग्यान तीं खेळणीं विदेशी आशिल्लीं. त्या वेळार परदेशी जिनसांचेर राष्ट्रीय बहिश्कार सामको जोरांत चलतालो. भारतीय संपत्ती उद्देगी राष्ट्रां व्हरतालीं, तें थांबोवपाक म्हूण बापून हो बहिश्कार चालीक लायिल्लो. म्हणटकच हीं खेळणीं पावलीं तेन्नाच बापून तीं आमकां मेळचे पयलीं जप्त केलीं.

बाबलाखातीर कांय खेळणीं मुंबयच्यान धाडिल्लीं, तीं बापून लिपयल्यांत अशें आमच्या 'गुपीतकाड्यांनी' आमकां कळयलें. आमी ह्या अन्यायाआड झुजपाची तयारी केली. आमचे चळवळीची सुरवात म्हूण आमी बापूकडेन प्रतिनिधी मंडळ धाडपाचें थारायलें. खेळणीं म्हज्या नांवान आयिल्ल्यान म्हाका प्रवक्तो केलो.

बापू तेन्ना मगनकुटींत रावताले. म्हजो बापूय बापूचो मुखेल सचीव आशिल्लो. तो सदांभशेन कितें तरी बरयत बापूचे कुशीक बशिल्लो. दुसरेय कांय आश्रमवाशी थंय आशिल्ले. आमचें प्रतिनिधी मंडळ थंय पावलें.

हावें पयलो फार सोडलो : ‘मुंबयच्यान कांय खेळणीं आयल्यांत हें खरें?’

खरें झूज सुरू जावचेआदीं विरोधकाकडल्यान खरी गजाल काडून घेवपाक असले प्रस्न आधार दितात.

बापू तेन्ना कितेंतरी बरोवपाक मग्न आशिल्ले. ताणी वयर पळयलें आनी म्हणलें, ‘बाबला, तूं? हय, आयल्यांत.’

‘तुमी म्हजीं खेळणीं खंय दवरल्यांत?’

दुसरो फार हो खेळणीं खंय दवरल्यांत हाची खबर काडपाचो आशिल्लो.

‘तीं थंय कपाटार आसात,’ बापून सांगलें, ‘खेळणीं लिपोवन दवरूं नात. हीं पळय सगलीं पाटल्यांत आसात.’

‘तीं आमचीं खेळणीं आमकां दियात.’

जेन्ना न्याय तुमचे वटेन आसा तेन्ना वांकडी चाल कित्याक?

उप्रांत बापून आपलो वादविवाद चालू केलो: ‘तूं जाणा न्हय खेळणीं विदेशी म्हण?’

बापूनच जर विदेशी जिनसांचेर बहिश्कार घालप चालीक लायलां, तर आश्रमांतल्या भुरग्यांनी विदेशी खेळण्यांनी कित्याक खेळचें हें बापूचें रजांव आशिल्लें पूण आमचे विरोधक हें कशें समजुचें?

‘म्हाका भारतीय वा विदेशी कांयच खबर ना. म्हाका इतलेंच खबर की तीं खेळणीं म्हजीं. तीं म्हाका धाडल्यांत. म्हणटकच तीं तुमी म्हाका दिवपाक जाय.’

हावें म्हजो हक स्पश्टपणान सांगलो. बापू तो न्हयकारपा नात हें म्हाका खबर आशिल्लें.

पूण अचकीत बापून चर्चेक नवें मोडण दिलें.

‘आमीय परदेसी खेळण्यांनी खेळूंक शकतात?’

‘आमीय’ हें उतर वापरून बापू हुकमाचो एको खेळिल्ले. फकत एकाच वाक्यान बापून

म्हाका आनी आपल्याक नाण्याचे एकेच बाजून दवरिल्ले. जसो हांव त्या खेळण्यांकडेन खेळपाचो म्हजो हक वगडायतालों, तसोच बापूय आपलो स्वताचो हक्क सोडटाले. त्या खिणाक ताणी म्हाका दाखोवन दिलें की म्हज्या विरोधकान आपलो हक सोडला आनी जी जापसालदारकी ताणी घेतिल्ली, ती आतां म्हजीय जावन पडिल्ली.

आमची भासाभास खंय घुसपली? आमच्या प्रतिनिधी मंडळान आतां आपली भुमिका कशी घेवप? जेन्ना विरोधकच तुमचे बाजून उबो रावता, तेन्ना संघर्श पुरायपणान असंतुलीत जाता.

'परदेशी जिनसांचेर बहिश्कार घालतले असो कार्यक्रम आमीच आंखला आनी आमीच परदेशी खेळणीं घेवन खेळ्ळयार...'

पूण बापूक भासाभास आनीक फुडें व्हरची पडली ना. आपलो प्रवक्तो घुसपला तें पळोवन, प्रतिनिधी मंडळाचे दुसरे सभासद हळुहळू कूस मारपाक लागले.

'तुमचेंच खरें' अशा अर्थान मोग दाखोवंक जाता. अशें नामनेचे भुरग्यांचे मानसशास्त्री ए. एस. नील हाणी एक फावट सांगलां. बापून लेगीत आपल्या असल्या कामचलावू अनुकरणान आमचो मोग केलो. ही पळयात दुसरी देख.

सत्याग्रह आश्रमांत एक शाळा आसा, अशें आमकां कु. प्रेमाबेन कंटक शिकोवपाक आयली ते मेरेन खबरच नाशिल्लें. ती येतकच आमकां शाळा आसा हें कळ्ळें. ती शिक्षिका म्हूण उपाट उमेदीची आशिल्ली. तिका टाळप खूब कठीण आशिल्लें.

आज हांव प्रेमाबेनीक तिच्या पयल्या नांवाच्या अर्थाकडेन जोडटां. तो म्हणचे 'मोग'. पूण त्या दिसांनी आमी तिचें आडनांव - कांटे - हें तिका चड फावता अशें धरलें. उप्रांत जेन्ना बापू भौशीक शिक्षणाची बुन्याद म्हूण हातकारागिरीच्या कामाक फाटबळ दिवपाक लागले तेन्ना एका शिक्षकान अशें सांगिल्याचें कळटा : 'हांव शिकयतना सदांच हाताचो उपेग करतां. जेन्ना भुरगीं नियंत्रणाभायर वतात, तेन्ना हातांत हांव बेत घेतां आनी तांकां एक बरो धडो शिकयतां.' असले शिक्षणाचे संकल्पनेंत प्रेमाबेन बरीच तयार आशिल्ली आसूंक जाय. एक फावट आमकां तिच्या हातांत दितकच, आमच्या गिन्यानाचें मळ वाडोवपाक तिणें बेताचो मुक्तछंदान उपेग केलो.

प्रेमाबेनीवरीच आमी लेगीत एक निश्चय केल्लो. तिचे पसून पयस वचपाचो निश्चय. एक वा दुसरें निमित्त सांगून आमी वर्गांतल्यान वा प्रात्यक्षिकांसयत शिकयतले शाळेंतल्यान कूस मारताले. आमकां धरले की ख्यास्त करपाच्यो प्रेमाबेनीकडेन तरातरांच्यो कल्पना आशिल्ल्यो. तांतली एक म्हणचे आमकां एक जेवण दिवप ना. पूण बापूच्या राज्यांत, आश्रमांतल्या शेतांत पिकपी टमाटां आनी भाज्ज्यो जाय ताचेपरस चड खावन आमी ख्यास्तीचें लुसकान भरून काडटाले.

अशेंच एक फावट वर्गांतल्यान कूस मारपाचें निमित्त म्हाका गावलें. खूब पावस पडिल्लो. बाकीच्या सगल्या मोसमांभितर पावसाचो एकच मोसम असो जो आपलें येवप गडगडान जाहीर करता. आश्रमभर खूब खड्डे आनी ल्हान ल्हान खळयो तयार जाल्ल्यो. त्या दिसा सकाळीं घराकडच्यान शाळेंत वचपाक हांव भायर सरलों. पूण वाटेर एका ल्हान झाडाच्या मुळांत एक खड्डो उदकान भरला, आनी त्या उदकांत मुयो बुडटात अशें हावें पळयलें. म्हज्यांतलो राखणदार जागो जालो. वर्गांत वचपाचें सोडून हावें त्या मुयांक वाटावपाचें थारायलें. हांवें झाडाचें एक पान काडलें, त्या पानान एक मूय भायर काडली आनी तडेर हाडून दवरली.

एकच मूय कित्याक? पूण ही सगल्यांक एकच फावट वाटावपाची कृती नाशिल्ली. म्हाका सगल्या मुयांक वाटावपाक जाय आशिल्लें. देखून हावें एका वेळार एकेच मुयेक वाटावपाचें थारायलें. तशें केल्ल्यान सगल्यो मुयो बुडपापसून वाटावतल्यो आनी बाबलाय बी शाळेच्या उदकांतल्यान बुडपाचो वाटावतलो, अशें हावें धरलें.

पूण प्रेमाबेन इतले सोंपेपणान घाळपाइतली भोळी नाशिल्ली. तिका शंबर टक्के हजेरी जाय आशिल्ली आनी ताची खात्री करून घेवपाक ती सगल्या आश्रमभर भोंवून पळयताली. हांव हेवटेन मुयांक वाटावपांत गुल्ल आशिल्लों, तेवटेन ती हळूच झाडाफाटल्यान आयली आनी म्हजो कान घट्ट धरलो. तसले परिस्थितींत, थंय हांव-हांव, तूं-तूं करपांत शाणपण नाशिल्लें. एक उतर उलयनासतना हांव तिचेफाटल्यान वचूंक लागलों. तिका म्हज्या कानाचो बरोच मोग जाल्लो काय दिसता. वर्गांत पावसर तिणें म्हजो कान कसोच सोडलोना.

तेन्ना बापू आश्रमांत नाशिल्ले. म्हणटकच हावें तांकां एक चीट बरयली. म्हणचे हावें सांगून बरोवन घेतली. म्हाका बरोवंक येवचे खूब पयलींच्यान हांव बापूक चिटयो

बरयतालों. सप्तकाक एक फावट. आमी सांगतात तशें पंडित खरे बापूक चीट बरयताले. आतांय बी हावें मुयांची आनी झाडाची घडणूक बापूक कळयली आनी म्हज्या कानाक दिल्ले वागणुकेची तक्रार केली. ते जेन्ना अहिंसेचेर भावार्थ दवरतात, तेन्ना आश्रमांत खंयच्याय वगतार हिंसेचो उपेग कसो करूंक जाता, अशें बी हावें विचारिल्लें.

हे घडणुकेच्या न्यायदानांत विंगड विंगड मतां आसूं येतात. घडये प्रेमाबेन वेगळे तरेन येवजिताली आसुंये. पूण जाणट्यांचे आड झगड्यांत बापूची तागडी आमचे बाजून लकतली हाची म्हाका खबर आशिल्ली. कांय दिसांनी प्रेमाबेनीक बापूकडच्यान एक चीट आयली. तातूंत कितें बरयल्लें म्हाका खबर ना. पूण तिणे बडोवप सोडलें इतलें खरें!

आनीकय कांय खीण आशिल्ले जेन्ना बापू म्हजे वटेन रावताले. पूण आतां म्हाका आनीक एक घडणूक येवजता जेन्नाच्यान पंडित खरे आमचेखातीर बरोवपाक लागले.

आमी जे बापूक सप्तकी चिटयो धाडटाले, तातूंत दरेक जाण एक एक प्रस्न विचारतालो. दरेक सप्तकाक बापूच्यो जापो आमकां आपल्या हातान एके ल्हानशे फोलीच्या कुडक्यार बरयल्ल्यो येताल्यो. आमी तांच्या जापेंची उमळशिकेन वाट पळयताले. ही एक तरेची सर्त आशिल्ली. कोण बऱ्यांतलो बरो प्रस्न विचारता, आनी कोणाक बापूची जाप केदी व्हडली मेळटा? जर सर्त मनशाच्या काळजांतच आसा तर आश्रमांत ती कशी ना जावपाक शकता?

एका सप्तकाक हावें अशें बरोवन घेतलें : ''बापूजी, आमी इतले भुरगे तुमकां इतले प्रस्न विचारतात. आनी तुमी तांच्यो जापो ल्हान फोलीच्या कुडक्यार बरयतात. आमी हांगा आश्रमांत जी भगवद् गीता वाचतात, अर्जून इल्लोसो प्रस्न विचारता आनी भगवान कृष्ण येदो व्हडलो अध्याय वाचता! मागीर तुमी येदी ल्हान जाप कित्याक दितात?'

आमकां आश्रमांत, हिंदू पुस्तकांमदीं जी पवित्र ती भगवद्‌गीता खाशेली प्रेरणा आशिल्ली. देवाचो अवतार – कृष्ण हाणें आपलो शिश्य – अर्जून हाच्या प्रस्नांक दिल्ले जापेची चर्चा ती समजावन सांगता. आश्रमांतल्या जाणट्यांनी म्हज्या ह्या प्रस्नाची

खूब तोखणाय केली. म्हणटकच हावें येवजिलें, ह्या प्रस्नाक कितें तरी म्हत्वाचो अर्थ आसा आनी हांव बापूचे जापेची उमळशिकेन वाट पळोवंक लागलों.

मुद्याक धरून दितना इल्लेशे जापेंत पसून, बापू आपलेपणाचे उर्बेन आपणें दवरिल्ल्या अपुर्बायेच्या नांवांचो शिंवर करताले. म्हज्या प्रस्नाची तांची जाप सदांच असल्या खंयच्याय एका अपुर्बायेच्या नांवान सुरवात जाताली. दुर्दैवान, आज म्हजेकडेन तांची एकय चीट ना. पूण बापून बरयल्लो तो संदेश म्हाका अजून याद जाता.

'तुजो प्रस्न खरोच बरो आसा. पूण याद धर, कृष्णाक एकच अर्जून आशिल्लो. म्हाका तुजेवरी खूब अर्जून आसात.'

# 4. आश्रमांतले उगडास

आपले जिणेच्या पयल्या सात वा आठ वर्सांतल्यो कितल्यो घडणुको मनशाक याद उरूंक शकतात? चडांत चड हाताच्या बोटार मेजपाक जातात इतल्यो ! पूण ह्या सात वा आठ वर्सांतच आमी आमचो एक आदर्श तयार करतात आनी तांतल्यानच आमचे उरिल्ले जिणेचीं सपणां चडटात.

ह्या वर्सांतले उगडास चंद्र नाशिल्ले रातीं वरी आसात. खंयच्याच व्हडल्या शक्तींचो तांचेर प्रभाव चलना. पूण लाखांनी नकेत्रां तांकां चकचकायतात. असल्या रातींनी आमचे दोळे एका चंद्रिमाचो उजवाड परतिनात, तर मळबांत भरिल्ल्या सगल्या नकेत्रांच्या सोबीत रचणुकांचो उजवाड परतितात.

म्हजे जिणेच्या पयल्या सात ते आठ वर्सांत म्हणचे १९२४ ते १९३२ मेरेन असल्या रातींच्या नखेत्र-पुंज्यान म्हज्या मनाचेर छाप उठयला. कांय वेळार तातूंत सुर्याची वा चंद्राची - बापूची आनी तांची घरकान्न कस्तुरबाची जिका आमी 'बा' म्हण्टाले- फांक आसता. तर कांय वेळार तातूंत बृहस्पती आनी शुक्र ह्या गिऱ्यांचो - म्हज्या बापायचो आनी आश्रमांतलो तांचो लागींचो इश्ट, नरहरीभाय - हांचो थीर आनी वेगळोच उजवाड आसता. पूण ताचेपरसय चड, जांणी बापूचें मळब सजयलें त्या बाकीच्या लखलखपी नखेत्रांचो आसा. मळबांत खंयचेंय एक नखेत्र खेरीत ना. सगलीं नखेत्रां मेळून तोखणाय करसारकी रचना तयार करतात.

जेन्ना हांव त्यो राती परतून बांदपाक आनी शिस्तीन मांडपाक यत्न करतां तेन्ना दोन

रंग मळबाचेर वर्चस्व दवरतात. ते दोन रंग म्हणचे मनशांच्या मुळाव्या दोन भावनांचे खोश्शेचे आनी खंतीचे आसात. आश्रमांतले जिणेचे म्हजे उगडास अशे रितीनी वांटून गेल्यात. कांय वगतांर खोश्शेच्यो आनी खंतीच्यो घडणुको एकमेकांत भरसतात. पूण आतां ज्यो घडणुको हांव तुमकां सांगतलों, त्यो सामक्यो खेरीत आसात.

खोश्शेच्यो घडणुको आश्रमांतल्या परबां संबंदीत तर खंतीच्यो मरणां संबंदीत आसात.

हांव आश्रमांतले सणांचे दीस येवजूंक लागतां तेन्ना म्हजे वट्ट भुरगेपण सदांखातीर उत्सवांत विरगळेल्लें म्हाका दिश्टी पडटा. हरशींय म्हूण बाकीच्या दिसांनी लेगीत भुरगेपण खोश्शेक उमेद दिता. हांगा एक घोंटेर आशिल्लो. तो चुरचुरीत उलोवपी भुरग्यांनी, व्हांवते साबरमती न्हंयेन, दुसऱ्यांक जिणेचो आनंद दिवपाक सोदपी जाणट्या लोकांनी, आश्रमांतल्यान चडश्या विटक्या वातावरणांत लेगीत बरें बरें साहित्य वाचपाक आनी अणकार करपाक उर्बेभरीत जावपी मनां, हांणी भरिल्लो. आनी ह्या सगळ्यांमदीं विणिल्लो, पंडित खरेंचो भक्तीन आनी संगितान नटिल्लो खणखणीत आवाज. हाचे परस आनीक चड कितें जाय आशिल्लें?

तरय गोकुळाश्टमीक कृश्णाच्या जल्म दिसाक म्हज्या काळजांत खाशेली सुवात आसा.

अश्टमे दिसा सगलो आश्रम भगवद्गीता वाचपाक एकटांय जातालो. कृश्ण भुरगेपणांत न्हेसतालो तसो राखण्यावरी भेस करून उक्तें हड्डें, आंगोस्तर आनी तांबड्या मुंडाश्यान आमी भुरगे आश्रमांतल्या गोरवांक चरपाक व्हरताले. आमी परत घरा येतना आमची तोंडां, गवळ्यांकडच्यान सदांच येतल्या ताकान आनी लोणयान न्हय तर दुग्धालयांतल्यान हाडिल्ल्या दुदापसून तयार केल्ले मिठायेन भरिल्लीं आसतालीं.

रामनम - रामाचो जल्मदीस होय उत्सव म्हजे यादींत कोरांतिल्लो आसा. सगलें वातावरण रामायणान भरिल्लें उरतालें. पंडीत तोताराम आमचो मुखेल गवय आशिल्लो. ताणें उत्तर प्रदेशाच्या प्रांतांत ने फिजी जुंव्या मेरेन शेतकामाची सुधारिल्ली पद्दत वापरूंक आधार दिल्लो आनी आतां तो आश्रमांत शेतकामाचो मुखेली आशिल्लो. हरशीं ताचो

आनी आमचो संबंद शेतांत धांवून वचून टमाट, गाजर, मुळो आनी असले दुसरे जिनस लिपून काडपापुरतो वा प्रेमाबेन कंटकान केन्नाय जेवणाचेर बंदी घाल्यार तितले पुरतोच तेन्नाच येतालो. ताच्या घरामुखार उदक वचपाचो पायप आशिल्लो. तांतल्यान आड्डून आमी ताका धाड घालतले म्हणपाची पयलींच शिटकावणी दिताले.

केन्नाकेन्नाय आमी चोरता आसतना तो आमकां धरतालो आनी एके कुडींत आमकां चावी करून दवरतालो. केन्नाकेन्नाय तेन्ना आमकां पयलींच भितर चावयेंत दवरिल्लीं पाटलोभर टमाटां मेळटालीं. तीं केन्नाच आमच्या पोटांत वतालीं. आमी आमच्या ह्या जैताचेर व्हडल्यान विकृत रितीन खोस मनयताले. पूण रोखडोच तो आमकां दुसरे एके रिकामे कुडींत हालयतालो. हे बंदखणींतल्यान सुटप मात व्हडल्या व्हडल्यान आड्डल्ल्यानच जातालें.

रामनमीक मात, मागलेबगर, आमी ताणें जीव लावन रोयिल्लीं फळां जीव तृप्त जातासर खाताले. आज कळटा की ह्या आत्मीक फळांची रूच टमाटाच्या, गाजराच्या रुचीपरस चड गोड आनी भावनीक आशिल्ली.

पूण ह्या सगल्या उत्सवांत फाटीं घालतालो तो म्हणचे बापूचो जल्मदीस. पूण हें अशें कशें जावंक शकता? बापूच्या आश्रमांत बापूचो जल्मदीस मनयताले? हें अहंकार दाखोवपाखातीर बी? पूण बापून तो आपलो जल्मदीस अशें केन्नाच मानलेंना. भारतीय तिथीप्रमाण मनयल्ल्यान तो रेंटिया बरस - चरखो दीस, ह्या दिसा पडटालो आनी बापूखातीर तो 'चरखो दिसूच' आशिल्लो.

आज रेंटिया बरस दिसा, साबरमतींतले बापूचे खोंपीक लोक 'मंदिर' अशें धरतात. तांच्या चित्रामुखार प्रार्थना करतात. पूण म्हज्या मनांतले आकृतायेंत, बापूचें चित्र ना. आसा तो चरखो. तशें पळोवपाक गेल्यार कांय फावट हो उत्सव मनयतकच, मागीरच कांय तेंपान आमकां कळून आयलें की तो बापूचो जल्मदिसय!

म्हणटकच, बापू उकतेपणान ह्या उत्सवांत सामील जाताले. हांगा तांकां गर्देक चुकोवपाक नाका आशिल्लें. ते एक सादे आश्रमवाशी आशिल्ले. ते धांवपाचे सर्तीखातीर वेळ काडून दवरताले. केन्नाकेन्नाय ते व्हडल्या भुरग्यांवांगडा खेळांत वांटो घेताले. हुंवार

येवंना जाल्यार साबरमतींत ते आमचे वांगडा पेंवपाक येताले. ते रातच्या जेवणांत खासा आपूण वाडटाले. आनी आमी भुरगीं नाटकां, नाच करतालीं तेन्ना माचयेर बसना आशिल्ले. बाकीच्यां बराबर लोकांमदीं बसताले.

ह्या दिसा, दीसभर सूत कांतप चलतालें. आमी भुरगीं मोटे उमळशिकेन एकमेकांकडेन सर्त करतालीं. आमच्यांतलो एकटो थांबना आसतना एके पावटी आठ वरां सूत कांततालो. आनीक एकलो आपल्या एका सवंगड्यासयत आलटून पालटून चोवीस वरां सूत कांततालो. सानवेळची प्रार्थना सोंपतकच अमक्याच वेळांत कोण चड सूत कांतता हाची सर्त जाताली.

सूत कांततना सदांच गावपय जातालें. पयलें गीत गावप जातालें तें म्हणल्यार 'रघुपती राघव राजाराम'. आमी आश्रमांतले प्रार्थना पुस्तिकेंतलीं गितां म्हणटाले, कारण आमकां सगल्या भुरग्यांक तीं तोंडपाठ आशिल्लीं. सविनय कायदेभंग चळवळींतल्या देशभक्तीपर गितांक हांगा मानाची सुवात मेळटाली. आमी रामायणांतलीं, भगवदगीतेंतलीं आनी असल्या धर्मीक पुस्तकांतलीं गितांची कडवींय गायतालीं. एका गायकान एक खयचेंय कडवें सोंपयलां तितल्यान, दुसरो रोखडोच त्या कडव्याचें निमाणें उतर घेवन नवें कडवें गावपाक लागतालो. तातूंत कांय हुशार भुरग्यांक गितेंतलीं असलीं कडवीं पाठ आशिल्लीं, जांचें निमाणें उतर कठीण आसतालें, आनी फुडें म्हणपाक त्रास जाताले.

आश्रमांतल्या उत्सवांक बायलांचो वांटो दादल्यांपरस चड आसता अशें बारीक नियाळ करतकच म्हाका दिसलें. आनी तो दरेक उत्सवांत खाणाचे पदार्थ करपाक चड संद आसा, हे खातीर मात न्हय. रेंटिया बरस दिसा आश्रमांत एक वेळचें जेवण जेवना आशिल्ले. आमच्या घरा आमचो बापूय जेवणासुवातेर वांटपाक म्हूण मिठाय हाडटालो. तो म्हणटालो, 'उण्यांत उणें आज तरी संयमापसून मेकळीक घेवया आनी बऱ्यांतलें बरें खाण खावुंया.' त्या दिसा सानवेळा आमकां फकत फळां आनी भिकणां मेळटालीं. पूण हें सादें खाण वांटपाक पसून बायलांचो नेट पळोवंक जाय आशिल्लो. दरेक काम तीं कितलीं तन मन लावन करतालीं. खरेंच म्हाका तांची तोखणाय

दिसताली - माची सजोवप, लुगटाचे कुडके गांठून हार करप बी.

सगळ्या अस्तुऱ्यांमदीं, म्हाका जर चड कोणाचो उगडास उरला तर काशीबेन गांधीचो. काशी ह्या पवित्र शाराचें नांवच घेतल्यार परंपरावादी हिंदूंमदीं श्रद्धा जागता, तेच भावनेन, म्हाका काशीबेनीची याद जाता. तेन्ना म्हजी अध्यात्मीक भक्ती नव्यान पेट्टा. बरेच जाणटे पिरायेर लेगीत तिच्या ताळ्याक पिकिल्ल्या पियर फळावरी मधूर गोडी आशिल्ली. ती धाकटुल्या रामाच्या पांयांतल्या घांटीच्या किणकीण आवाजासारकीं गितां गायताली. म्हाका खात्री आसा तेन्ना ती त्या भुरग्याचें पयलें पावल, तो चलतना कसो आडखळटा आनी पडटा, हें स्वता आपले मुखार पळयताली. कारण रामाचे वानरसेनेचे पिरायेयेद्या आमचेर - भुरग्यांचेर ती रामाची आवय कौशल्ल्येवरी ऊब आनी आपलेपण शिंवरताली.

तसोच म्हाका गंगाबेनचोय उगडास आसा. तिच्या सगल्या वखतांपरस तिची ओडच आमचेर चमत्कार करताली. एक फावट, बंगाल हुंवार पिडेस्तांच्या आधाराखातीर आश्रमांतल्या दरेक मनशान आपल्या आपखोशयेच्या कामाचो पगार मजत म्हूण दिल्लो. हांव सगल्यांत ल्हान आशिल्लों. म्हाका कोण काम दितलो? मागीर गंगाबेनीन म्हाका तिच्यो वखदाच्यो बाटल्यो धुवपाचें काम दिलें. तिणें ह्या कामाखातीर म्हाका जे पैशे दिल्ले ते कामाहिसपान चड आशिल्ले. तें म्हाका तेन्नां कळिल्लेंय बी. पूण तिणें तें सगलें म्हज्या मोगाखातीर केल्लें.

घडये हावें उत्सवांविशीं खूब सांगलें. आतां मरणांचेर या.

भुरगेपणांतलो म्हजो इश्ट वसंत खरे भायर पडलो तेन्ना हावें पयले फावट मरण लागींच्यान पळयलें. पंडित खरे आमी सांगतात तें आमकां बरोवन दिताले, तेन्ना तांचो पूत वसंत आमकां तें वाचून दाखयतालो. वसंत म्हजे परस फकत इकरा म्हयन्यांनी व्हड आशिल्लो. पूण वाचूंक ताणें झटपट प्रगती केल्ली. तो म्हाका सदृदां 'इसॉप्स फेबल्स' वाचून दाखयतालो.

एक दीस तो जोरान भरिल्लो आयलो. ताचे पयलीं आश्रमांतल्या दुसऱ्यांकय तो जोर आयिल्लो. ह्याच वेळार खूब लोकांक तो आयिल्लो पूण त्या सगल्यांक देवी जाल्ली.

वसंतांत तशें कांय स्पश्ट दिसना आशिल्लें. तरय तो वाडत गेलो आनी ताका मरण आयलें.

प्रार्थना करताना पंडितजीन आपलो सगलो दुख्खाचो ओग भजनांत घालो. ताची बायल लक्ष्मीबेन ओगाक वाटय करूंक दिवपाक शकली ना. कारण तांचे धुवेकय देवी जाल्ली आनी ती तिची जतनाय घेताली. आमी भुरगीं, आमी भजनांय गायलीं ना आनी रडलींय नात. आमकां कांय समजलें ना. पूण मरण अंतस्करणाक खूब तोंपिल्लें. आज मरण पळयतां तेन्ना वसंत म्हजे सामकार उबो राविल्लो दिसता.

त्या वेळार देवीन तीन भुरग्यांचे जीव घेतले. त्याच वेळार म्हालगडो इमाम साहेबय गेलो. बापूचो पुतणयो मगनलाल आनी नातू रसीक हे पयलीं गेल्ले. असल्या वेळार पंडितजी गायताले, 'ईश्वरा, तुजीं दारां उगड,' वा 'आमी आतां अमर जातले आनी केन्नाच मरचेनात.' प्रार्थना सोंपतकच बापू तीन उतरां सांगताले. म्हाका उगडास जाता, मगनलालकाका भायर पडलो तेन्ना बापून, जे हरशीं दरेक सप्तकाक एक पुराय दीस मौन पाळटाले, त्या दिसा ताणी तें मोडलें. (अशेंच आनीक एक फावट बापून सप्तकी मौन मोडिल्लें, पूण तें फुडें सांगतलों.)

पूण मेल्ल्या व्यक्तींच्या लागींच्या लोकांक, बापूच्या उतरांपरस, बापू जे तरेन तांचेकडेन येताले आनी तांकां वेंग मारताले, तें चड बुजवण दिवपी आशिल्लें. अशें दिसतालें की बापू तांची यातना आपल्या काळजांत जिरयतात. पयस आसल्यार, तर बापू तांकां सदांच बरयताले.

बापूच कित्याक? आपलो मनीस भायर पडिल्ल्या दुखेस्ताक दुख्खावेळार आश्रमवाशी केन्नाच एकटे सोडना आशिल्ले. एक सान चलयेचो बापूय देवी जाल्ल्यान मेल्लो. ती म्हजे आवयची मोगाची जाली. वसंत गेलो, तेन्ना पंडितजींचे मांडयेर हावें ताची सुवात घेतल्या अशेंशें म्हाका दिसलें. भाव समजून वसंताची भयण म्हज्या केंसांक तेल लायताली. आमचो आश्रमांतलो कुत्रो लंकापती मेलो तेन्ना आमी सगल्यांनी दुख्ख वांटून घेतलें.

आश्रमांत उत्सव आनी मरणां हीं दोन तोंकां आशिल्लीं. तरय, खुशालकाय आनी खंत, प्रसन्नताय आनी वेदना सगले वांटून घेताले.

# 5. काका - म्हजो बापूय

गांधीजी 'बापू' आशिल्ले. म्हज्या बापायक हांव 'काका' म्हणटालों. आनी हांव हांगा ताचें हेंच नांव वापरतलों.

म्हज्या भुरगेपणांत तशें पळोवंक गेल्यार बापू आनी काका हे दोगय आमच्या घरांतले जशे कितें सोयरे आशिल्ले! साबरमती आश्रम तांचो तळ आशिल्लो खरो, पूण ते दोगय केन्ना त्या तळार आशिल्ले व्हय? ते एक तर देशाची भोंवडी करताले वा बंदखणींत आसताले.

आमचे जाणटेले बंदखणींत आसताले वा मदीं मदीं कांय काळाखातीर मेकळे उरताले. तेन्ना म्हजें वट्ट भुरगेपण म्हणचे ह्या दोनांमदली एक आदलबदल आशिल्ली. जेन्ना काका बंदखणींतल्यान घरा परतो येतालो आनी आवय ताचीं आवडटीं खाणां करपांत गुल्ल आसताली, तेन्ना हांव ताका विचारतालों, 'तूं परतो केन्ना वतलो?'

काका व्हडाव्हडान हांसतालो आनी सांगतालो, 'सरकार म्हाका आपलो सोयरो करपाक परत वेंचतलो आनी व्हरतलो तेन्ना!'

भारतीय लोकांखातीर, स्वातंत्र्य चळवळींतलो भारत घडोवपाचो हो काळ आशिल्लो. जिवितांत पयले फावट, प्रतिश्ठीत नागरीक बंदखणीकडेन प्रतिश्ठेचें आसन, राजवाडो हे नदरेन पळोवंक लागिल्ले. आमकां आश्रमांतल्या भुरग्यांक सरकाराचे पावणाराविशीं सगली म्हायती आशिल्ली. एक फावट पुलिसेची काळी गाडी काकाक व्हरूंक आयली. हावें म्हळें, 'तुमी बंदखणींत ताका इतलो कमी वेळ कित्याक दवरतात? हे फावट चड दीस दवरात!'

आतां म्हाका हावें बंदखणीक भेट दिल्ली ताचो उगडास जाता. तीं निळ्या पट्यांची मोटवीं काल्सांवां आनी मोटव्या हातांची खोमसां. हरशीं, आमच्या काकाक खंयचोय भेस सोबीत दिसतालो. पूण बंदखणींतलो भेस घाणायतालो. तो आवयकडेन सदांच घरच्या कामाविशीं उलयतालो. हांव मात ताका सदांच बंदखणींतले भितरले स्थितीविशीं प्रस्न विचारतालों - मांगर, जेवणखाण, काम, बंदखणींतले दुसरे लोक हांचेविशीं. आनी तो भितरल्यो खबरो सांगतालो त्यो सगल्यो अनवळख्या जगांतल्यो अशें दिसतालें.

स्वातंत्र्य चळवळींत, बंदखण ही फकत सगल्या अहिंसक मोहिमेचेंच आंग आसा अशें नाशिल्लें. ती आनिकय वेगवेगळ्यो अप्रत्यक्ष भुमिका साकार करताली. एक म्हणल्यार तिणें सरकारावयल्या लोकांचे भिरांतेचेर जैत मेळयल्लें. बंदखणीक आतां कोणच भयंकर संकश्ट समजना आशिल्ले. दुसरें, बंदखणींतले जिणेन चळवळींतल्या लोकांक घट केले आनी कडक साधना करूंक तयार केले. आनी तिसरें, आपले आपूण शिकतल्यांक बंदखण विद्यापीठ जालें.

हीं सगलीं आंगां काका आतांच्या कर्नाटक राज्याच्या हिंडलगा केंद्रीय बंदखणींत आशिल्ले, तेन्ना वयर सरलीं. ताचे बंदखणींत वचपान आमच्या घराब्याचेर खूब परिणाम जालो. ह्या वेळार काकाक पडिल्लो दंड मेळोवपाक पुलीस आमच्या मुळाव्या घरच्या गांवांत गेले. म्हजी आजी इच्छाबेन हिणें पुलिसांच्या अपमानाक तोंड दिलें आनी दंड फारीक करपाक न्हयकार दिलो. ह्या एकाच प्रकारान खांची कोनशाक गांवांत पसून चळवळीन लोकांच्या मनांतलो भंय काडून उडयल्लो हें दाखयलें.

काकाक बंदखणींत खूब सोंसचे पडलें. हें चड करून जेन्ना तो एकोड्या बंदिस्त अवस्थेंत आसतालो त्या एकसूरपणाखातीर आशिल्लें. खूब दीस आमकां ताका मेळपाक दिलें ना. उपरांत ताच्या म्हजे आवयकडच्या आनी म्हजेकडच्या पत्रवेव्हाराचेर बंदी घाली. कारण बंदखणीच्या कारभाऱ्याक आमची आवयभास गुजराती वाचूंक येना आशिल्ली आनी म्हजे आवयक वा म्हाका इंग्लिश कळना आशिल्ली.

मागीर कांय म्हयन्यांनी निमाणें आमकां ताका मेळपाक परवानगी दिली. ताचें रूप बदल्लेलें. ताच्या माथ्यार जे कांय थोडे केंस आशिल्ले ते पिकिल्ले. तोंडार मिरयो पडिल्ल्यो. कांय दांत पडिल्ले. जाणटेपणाची सया मारताली. ताका बंदखणींतल्या

बाकीच्या बंद्यांपसून वेगळो दवरिल्लो. साद्या बंद्यांकडेन पसून ताका उलोवंक दिना आशिल्ले. पूण एका मुस्लीम बंद्यान काकाचें कांय काम आपल्या भुजार घेवन मोन्यानी आपलो मोयपास दाखयल्लो.

बंदखणींत आसतना काकान बापूच्या 'अनासक्ती योग' ह्या पुस्तकाचो इंग्लिशींत अणकार केलो. ताणें भगवदगीतेचेर एक प्रबंधूय बरयलो. तो मागीर 'द गीता अकॉर्डिंग टू गांधी' ह्या नांवान इंग्लिशींतय छापलो. ताच्या सगल्या पुस्तकांपरस, हें पुस्तक बरें आसूंक जाय! बंदखणीन काकाचें तरणाटेपण ओडून व्हेलें, पूण तिणें ताका 'गीता' दिली.

हे काकाचे आनी बंदखणीचे उगडास आसात. आतां काकाचे भोंवडेच्या संबंदान. आमी त्या खिणांकडेन वळुंया. तेन्ना पूणें शारांत ताच्या आनी बापूच्या वांगडा हांव आशिल्लों.

कांय दिसांखातीर काकान म्हाका आपल्या वांगडा व्हेल्लो. ह्या वेळार, बापून तीन सप्तकांचो उपास चालू केल्लो. त्याच वगतार म्हाका कुडकुड्याचो जोर आयलो. हो काकाक कसवटणेक लावपी काळ आशिल्लो. कितल्याय सोयिस्करपणान तो आपलें स्वताचें दुख्ख सोसूं, पूण म्हाका वा आवयक कितेंय जायत तर तो थतरवितर जातालो. बापूचो उपास तर दर फावट ताका मानसिकतायेन आनी आंगान घाम काडटालो. हाचे पयलींच्या बापूच्या चडश्या उपासांवेळार हावें पळयल्लें की जितलें बापूचें वजन उणें जातालें तितलेंच कस्तुरबाचें आनी काकाचें वजन देंवतालें – बापू कांय खायना म्हूण आनी कस्तुरबाचें आनी काकाचें उपासाबगर. म्हणटकच बापूच्या उपासान आनी म्हज्या जोरान काकाचेर दोट्टी ताण घालो.

दोन दीस म्हजो जोर बरो वाडिल्लो. १०५ आशिल्लो. काकान आपलें बरोवपाचें मेज म्हजे खाटीचे सामकें लागीं हाडलें. तो चडसो ह्या वेळार पत्रवेव्हार पळयतालो – भारतांतल्यान आनी परदेसांतल्या लोकांक बापूचे परिस्थितीविशीं खबर धाडप, तांचे खबरेक येवचें न्हय म्हूण साद्या उतरांनी लोकांक कळोवप बी. म्हज्या कपलार ओली पट्टी दवरपाच्या वेळार वा बापूक मेळपाच्या वेळारच ताचें बरोवप थांबतालें.

हांव पयले फावट म्हजे आवयपसून पयस आशिल्लों. जोराभितर हांव एकच वाक्य

परवंतालों : ‘‘आईक आपय, म्हाका आई जाय.’’ पूण हांगा पयलींच खूब लोक आशिल्ले जे म्हजें काडटाले, म्हणटकच आवयक आपोवपाची खरी गरज नाशिल्ली. म्हजे खातीर बापूक त्रास जावपाक जायनात ही काकाची खरी चिंता आशिल्ली. तिसऱ्या दिसा म्हजो जोर १०६ चेर पावलो. हांव जोर माथ्यार चडिल्ल्यान खूब बडबडपाक लागिल्लों. म्हजी मत शेणिल्ली आनी आवयखातीर म्हजें परवंप चालूच आशिल्लें. काका ‘आं’ म्हणना आशिल्लो आनी ‘ना’ म्हणूंक शकना आशिल्लो.

अश्या वेळार मनूबेन गांधी आयली आनी म्हजे कुशीक बसली. हावें विचारलें, ‘आई, तूं?’

काका हें आयकून दुकां आडावंक शकलो ना. मनूबेनीन कितें घड्टा तें पळयलें. रोखडेंच कस्तुरबाक सांगलें. कस्तुरबान तें बापूच्या कानार घालें.

बापून काकान आपयलो. ‘महादेव, तार बरोवन घे.’ काकान फोल आनी पेन घेतलें. जेन्ना कळ्ळें की तार आवयक आपोवपा खातीर आसा, काकान विरोध केलो. ‘‘दुर्गाक कित्याक आपोवंक जाय? बाबलाचेर लक्ष दवरपाक हांगा खूब लोक आसात. ताका सादो कुडकुड्याचो जोर आयला. ती येतासर तो बरो जातलो. पयशांचो कित्याक इबाड करपाक जाय?’

बापून ताका मदींच थांबयलो, ‘‘हावें तुका तार बरोवपाक आपयला, म्हजेकडेन वाद घालपाक न्हय.’’

ह्यालें बापूक आनीक काकाक भासाभास करतना खूब फावट आयकलां. आयात करपाच्या मालाच्या राष्ट्रीय धोरणांचेर, इतिहासीक फोडणिशी वा तत्वगिन्यान वा एका उतराचो उपेग वा विरामचिन्नाची एक कुरू ह्या विशयांचेर बी. भासाभास केन्नाकेन्नाय शाब्दीक उलोवण्यावयल्यान बरोवन धाडपाचेर पावताली आनी खूब दीस चलताली. पूण आतां ह्या खिणाक, तारेच्या संबंदांत महादेवाक वाद घालपाक अधिकार नाशिल्लो. बापून ताका हुकूम सोडिल्लो. आनी एक फावट हुकूम मेळटकच ओग्गी रावन तो तेप्रमाण वागलो.

तार धाडली आनी आवय आयली. ती येता म्हणल्यार म्हजो जोर गेल्लो. काकाचें मेज जें म्हजे खाटीकडेन हाडिल्लें तें परत आशिल्लें तशें बापूसरीं गेलें. जेन्ना काकान म्हाका ही दोन तीन दिसांनी खबर सांगली तेन्ना तो मुमुरक्यांनी हांसतालो.

# 6. मिठाचो सत्याग्रह

साबरमती गांवांत बंदखणीफाटल्यान एक सोऱ्याचें दुकान आशिल्लें. एक फावट आश्रमांतल्यो अस्तुऱ्यो सोऱ्याच्या संकश्टाचीं पदां गायत तेळणी करपाक म्हूण दुकानामुखार उब्यो रावल्यो. बायलां कितें करूंक शकतात आनी तांकां कितें जातलें हें पळोवपाक पत्रकार आनी दुसरे लोक थंय जमा जाले. एके बायलमनशेचो हात धरून हांव लेगीत पदां म्हणत थंय उबो आशिल्लों. 'सोऱ्यान सगल्यांची वाट लायल्या, आरे बेबद्या, तो सोडून दी!'

म्हज्या भुरग्या दोळ्यांमुखार स्वातंत्र्य चळवळींतलो आनीक एक अध्याय उबो जातालो. भारतभर बायलांनी सोऱ्यांच्या दुकानांचेर पारो दवरपाक सुरू केलें.

हो सोरो सरकाराक करांच्या रुपान भरपूर म्हासूल दितालो आनी वायट स्थितींतल्या गरीब लोकांक ताचेपरस चड वायट स्थितीच्या पिवपाच्या नादाक लायतालो.

बापूचे हे नवे येवजणेन लोकांक दुबावांत घाले. आश्रमांतले आमचे एके बायलेचे अहमदाबाद रावपी नातेवर्गी भियेले. बेबद्यांनी तिच्या आंगार हात घाल्यार? पूण बापूच्या मिठाच्या सत्याग्रहाच्या दिसांनी, बापून बायलांच्या मनांतलो भंय सामको काडून उडयल्लो. घडये ह्या काळांतलें तांचें हें सगल्यां परस चड व्हडलें जैत आशिल्लें.

आपल्या आवाजाखातीर 'नायटिंगेल ऑफ इंडिया' म्हूण नामना जोडिल्ली सभ्य आनी सुसंस्कारीत अस्तुरी सरोजिनी नायडू हिणें सरकारी मालकीच्या 'धरसन सॉल्ट वर्कस' हाचेर अहिंसक घुरी घालपाचो हुकूम दिलो. त्या दिसा ती त्या खवदळामजगतीं

सूख-दूख समान मानपी, शांत अशी पुराय दीस कडक वतांत उबी राविल्ली. गुजरातच्य बोरसड ह्या शारांत अस्तुऱ्यांनी सरकारी फर्मान मोडून, सरकारी धोरणाचे आड निशेध करपाक मिरवणुको काडल्यो. मिरवणुकांनी आश्रमांतल्या अस्तुऱ्यांनी भाग घेतलो. गंगा बेनच्या फुडारपणाखाला तांणी हांसत पुलिसांच्या दांड्यांक घट काळजान तोंड दिलें. गंगाबेनच्या कपलार पुलिसांनी दांडो मारिल्ल्यान, व्हांविल्लया रगतान तिची घरा विणिल्ली धवी साडी गुलाबी जाली. लिलावतीबेन अशराक एकटेकच धरून तिका बोरसडच्या पुलीस थाण्यावयले एके कुडींत दवरली. थंय एका वयले श्रेणीच्या अधिकाऱ्यान तिचेर गाळयांचो शिंवर घालो. हरशीं, साद्या कारणाखातीर भकू करून आंगार येवपी लीलाकाकी त्या दिसा ओग्गी रावली. ह्या आनी असल्या दुसऱ्या खूब देखींनी, भारतीय बायलांच्या आत्म्यांक अक्षरशा पेटयलें.

बायलांचो चळवळींतलो सहभाग हो देशाच्या जिवितांतलें एक नवें ल्हार आशिल्लें. राष्ट्रीय सोरोबंदी मोहीम ही फकत बायलांपुरतीच दवरिल्ली. बापूचे हे नवे चालीन भारतभरच्या अस्तुऱ्यांक मानाची खाशेली सुवात मेळ्ळी.

मिठाचे चळवळी उपरांत, त्या दिसांनी, आश्रम नव्या नव्या वावरांत गुल्ल उरपाक लागलो. देशभरच्यान, अन्यायाचे कायदे मोडून केल्ल्यो करण्यो आनी त्यो चिड्डून उडोवपाक सरकारान घेतिल्ले उपाय हांचेर बातम्यांर बातम्यो येवपाक लागल्यो. बापूचे समुद्रामेरेन मोर्चो काडपाची आनी थंय मीठ जमा करपाचे एके सादे कल्पनेन पयलीं केन्नाच जावं नाशिल्लो इतलो देश उचांबळून खुबळून आयलो.

काका अहमदाबादेंत भौशीक सभा घेतालो. त्या सभांनी हजारांनी लोक हजेरी लायताले. काका हरशीं लावूडस्पीकराबगर उलयतालो. पूण ह्या सभांनी, आयकुपापरस पळोवप चड म्हत्वाचें आशिल्लें. पूण ताचे परस चड म्हत्वाचें आशिल्लें कायदो मोडून काडिल्ल्या मिठाची पावणी करता तें! हें मीठ खूब दुडू जमा करतालें. आनी मीठ विकप हें परत मिठाचो कायदो मोडटालें.

बापूक बंदखणींतल्यान सोडले. आनी थोड्या दिसांखातीर बापू आश्रमांत आयले. तांच्या भितरल्या पवित्र अग्नीक, बापू सदां एका त्यागाफाटल्यान दुसरो त्याग भेटयताले. एक दीस ताणी आश्रमांत अजून कांय आशिल्ल्या अस्तुऱ्यांची बसका घेतली. आमकां भुरग्यांक भितर घेतलेनात पूण आमी मागीर आयकलें - बापून ह्या उरिल्ल्या बायलांक

बंदखणींत वचपाची तयारी करपाक सांगिल्लें. हातूंत म्हजी आवयय आशिल्ली.

बापूचो उलो हो देशाचो उलो. अपमानीत जाल्ल्या मनीसकुळाचो उलो आशिल्लो. तो न्हयकारपाचो प्रस्नच नाशिल्लो. पूण हें पयलेच फावट आशिल्लें जेन्ना दोगांय, काका आनी म्हजी आवय, बंदखणींत वतालीं. तें येवजून म्हाका एकट्याकच त्रास जाल्ले अशें न्हय. तर आवय आनी काका लेगीत गोंदळांत पडिल्लीं. अनसुयाबेन साराभाय, बापूक दानधर्म करतल्यांत ती गिरेस्त आशिल्ली. तिचें हरिजन भुरग्यांक रावपाचें वसतेघर आशिल्लें. थंय आश्रमाच्या भुरग्यांक दवरपाची तिणे तयारी दाखयली. पूण काकाक आनी म्हजे आवयक म्हजेखातीर खाशेली तजवीज केल्ली जाय आशिल्ली. म्हणटकच हांव आनीक दोन भुरग्यांवांगडा, आश्रमांतल्या आनीक एका इश्टाकडेन रावपाक गेलों. थंय शिकपाची वेवस्था बी बरी आशिल्ली.

ह्या इश्टाच्या घरा आमी मस्त आशिल्ले. तरय आश्रमांतल्या बाकीच्या भुरग्यांपसून वेगळे तरेन रावूंक सोदना आशिल्ले. आमी थंय एक रात रावले. पूण हावें सगली रात रडून काडली. मागीर आमकां अनसुयाबेनीच्या वसतेघरांत दवरले. आनी अनसुयाबेनीचो इतलो मोयपास मेळून पसून, वसतेघर आमकां सांबाळपाक तितलें सज्ज नाशिल्लें.



इतिहासीक सोपूत घेवन बापू परत बंदखणींत गेले. 'भारत मेकळो जावचे पयलीं आश्रमांत परत वचचे परस हांव कुत्र्यावरी वा कावळ्यावरी मरपाक तयार जातलों.' तांकां दिसलें, जेन्ना सरकार शेतकामत्यांची जमीन जप्त करता तेन्ना फकत आश्रमच हात लायना आसतना कित्याक उरूंक जाय? ताणी रोखडेंच आश्रमांतलीं सगलीं घरां आनी मैदानां आपखोशयेन सरकारचे सुवादीन केल्ल्याचें सरकाराक बरयलें. बापून आश्रमाचें वाचनालय, जातूंत बापून सावथ आफ्रिकेक साकून हाडिल्लीं पुस्तकां आशिल्लीं आनी काकाचीं पुस्तकां, सगलीं मेळून धाये हजार आसतलीं, अहमदाबाद शाराक दान दिलीं.

चडशे आश्रमवाशी – दादले आनी बायलो – बंदखणींत आशिल्ले. उरिल्ले आपल्या घरच्या प्रांतांत, चळवळीपासत वावर करूंक, थंय गेले. आश्रम ब्रज देशावरी पडंग दिसपाक लागलो. सदांच पोरसांत खेळपी भगवान कृष्ण पिरायेन वाडलो आनी ताणें घर सोडलें तेन्ना ब्रज देशाची स्थिती अशीच जाल्ली. आश्रमांतल्यो गायो हाका गवाय आशिल्ल्यो. तांकां पयस गोरवांच्या खळांत दवरलेल्यो, तरी लेगीत त्यो हांबेयत

परत परत आश्रमाकडेन धांवंत येताल्यो. थंय त्यो भूंय खरवडटाल्यो आनी वास घेताल्यो.

एक फावट अनसुयाबेनगेर सावन आश्रम पळोवपाक म्हूण आमी आयिल्ले. थंयची ती कळवळ्याची स्थिती पळोवन आमच्या दोळ्यांत दुकां आयलीं. केन्ना तरी खेळांनी आनी गितांनी भरिल्ल्या ह्या आश्रमान आज निर्दयी मौन धारण केल्लें. आश्रमांतली घरां भयांकृत दिसतालीं. कांय घरांक दारां नाशिल्लीं तर कांय घरांक जनेलां नाशिल्लीं. मैदानां जीं एका वेळार प्रेमाबेनीचो देखरेखी खाला सुंदर रितीन केळयल्लीं, तिचेर आज झोंपां कश्याकशीं वाडिल्लीं आनी सुकूनय गेल्लीं. आनी वायट गजाल म्हणल्यार 'हृदय-कुंजातलें' काळीज - बापू थंय नाशिल्ले.

आमकां चड वेळ थंय रावन दिसलें ना. पूण कांय खिणांखातीर आमी ते पोरणे चिंचेच्या झाडामुळा बसले. तें आश्रमातलें सगल्यांत व्हडलें झाड आशिल्लें. आश्रम बांदचे आदीं पसून खूब तेंप थंय आशिल्लें. बापू आनी बाकीचे पयले फावट जेन्ना थंय आयले तेन्ना त्या झाडान तांच्या तंबूंक आडस दिल्लो. आश्रमांतली घरां इल्लीं इल्लीं वयर सरिल्लीं ताका तें झाड गवाय आशिल्लें. खूब फावट पुलिसांची काळी गाडी येवन त्या झाडापोंदा थांबल्या. खूब फावट अहमदाबादेंतल्या गिरेस्त मनशांची 'लिमूजीन' वाहनां थंय रावल्यांत. चड पयस न्हय, हालींच जेन्ना बापून मिठाचो सत्याग्रह केलो आनी समुद्रामेरेन मोर्चो काडलो तेन्ना त्या झाडामुळाच्यानच आमी बापूक निरोप दिल्लो.

कांय खीण कांयच उलयनासतना आमी थंय बसले, तेन्ना तें चिंचेचें झाडय सुस्कारे सोडटा अशें आमकां दिसलें.

# 7. मुळावें शिक्षण

आपल्या काळजाचे ठेके आनी देशाच्या काळजाचे ठेके हे एकमेकांकडेन जुळप हें खूब कमी फावट घडटा. म्हाका ती सुवर्ण संद मेळ्ळी.

ही घडणूक व्यक्तीगत पूण ताचो परिणाम खूब मोठो.

1933 त बापून, आपलें वास्तव्य साबरमती साकून भारताचे मदले सुवातेर, वर्धा शारांत व्हेल्लें. 1936 त ते परत लागींच आशिल्ल्या सेगांव ह्या खेड्यांत रावपाक गेले. हे नवे रावतिकेक ताणी 'सेवाग्राम' हें नांव दिलें. थंय उपरांत, एक नवो आश्रम वयर सरलो. मजगतीं काका, टपालाची आनी शारांत येतल्या सोयऱ्यांची सोय करपाक म्हूण वर्ध्यांकच, बापूच्या भायर पडिल्ल्या पुतणयाचें नामांतर केल्ले मगनवाडींत रावपाक लागले.

म्हजी आवय आनी हांव, आमी अजून साबरमतींतच आशिल्लीं. इतलीं वर्सां आमी तिगांय एक घराबो कशीं राविल्लीं. काका एक तर बंदखणींत आसतालो वा भोंवडेर आसतालो. 1932 त म्हजी आवयूय बंदखणींत पावली. अशे तरेन आमी तिगांय तीनकडेन जाल्लीं. पूण आतां हें सगलें जाग्यार पड्टलें अशें धरून काकान आमकां वर्ध्या व्हेलीं.

वर्ध्या आसतना म्हाका एके बरे शाळेंत घालचो अशें थारलें. बापूचे दानधर्मी तशे सांगाती, जमनालाल बजाज हांच्या सांगण्यावयल्यान एक शाळा वेंचून काडली. हालींच हे शाळेंत श्री. आर्यनायकम हांची प्राचार्य म्हण नेमणूक जाल्ली. हाचे पयलीं श्री. आर्यनायकम नामनेचे कवी, चित्रकार आनी शिक्षक महर्षी रवीन्द्रनाथ टागोर

हांच्या शांतिनिकेतनाचे शाळेंत शिकयताले.

साबरमतीक आसतना, गुजरात विद्यापिठाच्या केंद्रिय शिक्षण संस्थेचो शाळेंतल्यान हावें पांचवी परिक्षा पास केल्ली. हे नवे शाळेंत, हांव कसो प्रगती करतां तें पळोवपाक म्हाका सातवेच्या वर्गांत घालो. पयल्याच दिसा म्हाका कोणेंतरी शाळेंत पावयलो.

हांव वर्गांत भितर सरलों त्याच खिणाक, म्हाका गोंदळेल्ले भशेन दिसपाक लागलें. गुजरात विद्यापिठांत भारताची राष्ट्रीय भास हिंदींत हांव वर्गांत सगल्यां फुडें आशिल्लों. पूण हांगा हिंदी तशी नाशिल्ली. आनी इंग्लिशीचो जे तरेन उच्चार करताले, तांतलें म्हाका कांयच समजना आशिल्लें. भुगोल म्हजो सगल्यांत आवडटो विशय आशिल्लो. पूण हांगा शिक्षकान विचारिल्ल्या एकाय प्रस्नाक हांव जाप दिवंक शकलों ना. हांव भारताचो भुगोल शिकिल्लों. आनी हांगा सावथ अमेरिकेच्या खंयच्या तरी देशाविशीं प्रस्न विचारताले.

पूण वर्गांत अभ्यास समजप दुय्यम प्रस्न आशिल्लो. मुखेल प्रस्न वेगळोच आशिल्लो. हे शाळेच्या वातावरणांत म्हाका घुस्मटल्लेवरी जावपाक लागलें. जेन्ना शिक्षक वर्गांत आयलो, सगले भुरगे उबे रावले. मान दिवपाचो असलो वयलेचाराचो रितीरिवाज म्हाका कोणेंच शिकोवं नाशिल्लो. म्हाका ती गुलामीची खूण कशी दिसूंक लागली. सुटी सोपून आतांच शाळा सुरू जाल्ल्यो. आपणें सुटी कशी घालयली हें शिक्षकान सांगलें. तो उमेदीर आशिल्लो. इतलें पसून बरें आशिल्लें. पूण फुडें, बारा आनी तेरा वर्सांच्या भुरग्यांक लग्न आनी लग्नाचे जिणेविशीं विनोद सांगून ताणें पुराय वर्गवेळ घालयलो.

वर्गवेळांमदीं, वर्गाच्या भायर, कांय आडवाद सोडल्यार, सगले शिक्षक विडयो, सिगरेटी ओडटाले. चडशे शिक्षक खादी वापरनाशिल्ले. हरशीं, परदेशी जिनसांचेर राष्ट्रीय बहिश्कारा वेळार, खादी वापराचेर चड भर आशिल्लो. खादी हें बापूच्या गांवगिऱ्या उद्योगाचे चळवळीचें प्रतीक आशिल्लें. दरेकजाण जांणी स्वातंत्र्य चळवळीक फाटबळ दिलें, तांणी खादी वापरप गरजेचें आशिल्लें. त्या दिसांनी जे खादी वापरना आसले ती खेरीत संतत अशें म्हाका दिसतालें.

घरा वतकच पयलें हावें कितें केलें तर हांव आड्डलों. मागीर हावें जाहीर केलें,

‘कितेंय जाल्यार जावं, हांव तसले शाळेंत वचपाना’. काकान म्हाका समजावपाचो यत्न केलो, पूण ताणें तितलो नेट धरलोना. हावें जे कितें सांगलें ताका लागून ताची उर्बा शेळेल्ली. निमाणें ताणें सांगलें, ‘तूं बापूक बरय आनी बापू कितें सांगता तें पळय.’ हावें सगली खबर बापूक बरयली. चीट मेळटकच बापून म्हाका उलोवपाक सेवाग्रामाक आपयलो.

मजगतीं, हावें ते शाळेंत वचनासतना रावपाचो निश्चय केला हें खंयच्यान तरी श्री आर्यनायकमजीक कळ्ळें. ताणें काकाक समजावपाचो खूब यत्न केलो. ‘हावें आतांच हे शाळेचो ताबो घेतला; हांव असलें हें वातावरण रोखडेंच निवळायतलों. बाबला बेठोच इल्ल्याचें व्हड करता. ताका घरा रावपाक आनी खेळपाक जाय. शाळेंत गेलो ना जाल्यार एक दीस ताका पस्तावो जातलो आनी तो तुमकां दुशण दितलो, जशे आश्रमांतले दुसरे भुरगे आपल्याक शाळेक धाडूं ना म्हूण आपल्या आवयबापांयक दुशण दितात.’

बापूकडेन विचार करपाखातीर आर्यनायकमजी मागीर सेवाग्रामाक गेले. त्या दिसा पासयेक वतना, बापून एके वटेन म्हाका ‘रोत’ केलें आनी दुसरे वटेन आर्यनायकमजीक. कांय खीण आमी दोगांयनी भासाभास करतकच हावें बापूक सांगलें, ‘ते खूब विद्वान. तांचे विद्वतेक हांव जाप दिवंक शकना. पूण ते शाळेंत हांव कसोच वचपाना.’

बापून कौतुकान म्हाका फाटीर थापटिलो आनी सांगलें, ‘बरें आसा, म्हाका इतलेंच आयकुपाचें आशिल्लें. आतां आर्यनायकमजीकडेन हांव उलयतां आनी पळयतां कितें जातां तें!’

ताचे उपरांत, तांच्या उलोवण्यामदीं हांव थंय फकत एक गवाय म्हूण उबो आशिल्लों. आर्यनायकमजीन आपले विचार मांडले. मागीर बापून सांगलें, ‘हाका शिक्षण म्हणूंक येना. हांव खंयच्याच भुरग्याक ही शाळा सुचोवपा ना. ते भायर बाबला हो आश्रमांतलो भुरगो. आपूण शाळेंत वचचोंना म्हूण ताणें खासा थारायलां. म्हणटकच हांव कसो, वा एक शिकोवपी म्हूण तुमी कशे, ताचेर बळजबरी करूंक शकतात?’

तरय, आर्यनायकमजीचो वाद दीसभर चलिल्लो. ताचो परिणाम बापून ताकाच ती शाळा सोडपाक पटोवन दिलें.

त्याच वगताक, ब्रिटीश सरकारान मान्यताय दिल्ल्या मर्यादीत स्वशासनाच्या संविधनाखाला, भारतीय राष्ट्रीय काँग्रेस खूब प्रांतीय सरकारांत सत्तेर आयली. हीं सरकारां शिक्षणाचे पद्दतीविशीं विचार करतालीं. बापू आपल्या सातोळ्यांत 'हरिजनांत' ह्या विशयाचेर खूब बरयताले. भारतीय शिक्षणाची पद्दत फकत पुस्तकी गिन्यानाचे बुनयादीचेर आसूंक जायना अशें ताणी सांगलें. ती उत्पादनक्षमतेचे कळाशेचे आनी आर्थिक नदरेन स्वयंआधाराकडेन जुळयल्ली आसूंक जाय.

बापूचे जिवीतभरचे अणभव, खोल विचार आनी बरीच फुडली नदर हांणी ह्या कल्पनांक बुनयादी आधारांची पुरवण केली. एक वर्साभितर सरकारांनी 'नवें शिक्षण' वा 'मुळावें शिक्षण' ही पद्दत विकसीत केली. हे पद्दतीप्रमाण विद्यार्थ्यांक हातकारागिरीचें काम वा शेतकाम शिकचें आशिल्लें, आनी थंयच्यान दुसऱ्या मळांचेर वा गिन्यानाच्या मळाचेर पावल दवरुपा आशिल्लें. हे पद्दतीक जगांतल्या शिक्षण तज्ञांनी हुनहुनीत येवकार दिलो.

आनी अजाप म्हणचे, हे नवे पद्दतीचे शिक्षण संस्थेचे मुखेली म्हूण बापून आर्यनायकमजी आनी ताचे बायलेक वेंचून काडलीं. तीं उपरांत हे शिक्षण पद्दतीचीं संवसारान मानिल्लीं तज्ञां जालीं.

तर आतां हांव असले रिती रिवाजाचे शाळेंत वचचोंना हें शिद्द जालें. म्हणटकच आतां हांव कितें करतलों? कशें तें हांव सांगूंक शकना. पूण म्हज्या मनांत एक कल्पना जगलावली. हावें ती बापूक कळयली. ''हांव हांगाच रावतां. तुमच्या सांगातान काम करतां आनी ताचेपसून शिकतां.'

आनी बापून म्हजो वकील जाल्लेवरी एकदम ती कल्पना उखलून धरली. पूण म्हज्या मनांत ही कल्पना हाडपाक बापूच अप्रत्यक्ष जापसालदार आशिल्ले, अशें आज म्हाका दिसता.

कसलें काम करतलों? कितें शिकतलों? कशें शिकतलों? हे पिरायेचेर हांव असल्या प्रस्नांक कितें म्हूण जाप दितलों? पूण बापून आपलो निवाडो दिलो. बाबला महादेवावांगडा रावतलो. तो सांगता तें करतलो आनी तो शिकयता तें शिकतलो.

महात्मा गांधीच्या सचिवान सल्लो दिवपी जावपाक जाय, रांदपी जावपाक जाय,

उदक काडपी जावपाक जाय, वजें उखलून व्हरपी जनावर जावपाक जाय आनी आतां तर ताचें आनीक एक काम वाडिल्लें. स्वताच्या पुताचो सगलो वेळ शिक्षक जावपाचें.

काकान हें वजें आपल्या खांदार घेतलें. पूण ताणें म्हाका सांगलें, ‘पळय बाबला, तूं जाणा की आश्रमांतले चडशे भुरगे आश्रमांत जे तरेन शिकप दितात ताचेर धादोशी नात. ते परस ते ब्रिटीश पद्दतीचें शिकप पसंत करतात. तुजेंय जर मन केन्नाय बदललें आनी तुकाय तशें करीन दिसलें, तर म्हजी ताका ‘ना’ नासतली. पूण तेच बराबर, हांव तुजें मन बदलपाक प्रयत्न करपा ना. जो मेरेन तूं म्हजे बराबर आसा, हांव तुका म्हाका शक्य आसा तितलें बऱ्यांतलें बरें शिकप दितलों. पूण चड करून तुवेंच तुका शिकोवचें पडटलें. हांव मजत करतलों, पूण कश्ट तुजे आसतले.’

हांगाच्यान दोन झऱ्यांचो संगम सुरू जालो – म्हजें स्वताचें शिक्षण आनी नव्या शिक्षणाची राष्ट्रीय चळवळ.

# ४. गांवाची उदर्गत

हजारांनी वर्सांचे गरिबीन आनी नेणारपणान भारतांतल्या खेड्यांतल्या भौसाक इतलो दामून उडयल्लो की ताच्या सामाजिक सभावगुणाक एके तरेचो अर्धांगवायू सो जाल्लो. कसलेच प्रसंग, कसल्योच घडणुको ताच्यांतल्यो उमेदी पेटयना जाल्यो. इल्लीशी जी कितें चेतना अजून ताच्यांत तिगून उरिल्ली ती लेगीत १९३०-३५ तल्या घडणुकांनी व्हांवून गेली. भारत तेन्ना १९३०-३४ च्या दरम्यान जाल्ले सविनय कायदेभंग चळवळींच्या घायांचेर उपचार करतालो. नवे कसलेय मोहिमेची कसलीच खूण दिसना आसली. आनी संवसारभर पातळिल्ल्या मंदीच्या ल्हारांमदीं, भारताची अर्थवेवस्था आनीक इबाडत गेल्ली.

आनी ह्याच वेळार बापून कश्टांचो आनी दुखदिणो जावंक शकता असो रस्तो वेंचलो. ताणी आपलीं पावलां खेड्यांकडेन वळयलीं.

कसल्या तरांच्या खेड्यांकडेन बापूचें लक्ष गेल्लें? बरकतीक पाविल्ल्या गुजरातच्या सामान्य निवासींकडेन तर न्हयच! बापूचे मतींत असलीं खेडीं आशिल्लीं, जंयच्या भौसाक दळदिरा आड तकली वयर काडपाक इल्लेंय त्राण नाशिल्लें. हळशिकांनी आनी पिडांनी तांकां मोने करून उडयल्लें.

बापू मगनवाडी रावताले, तेन्ना सद्दां लागींच आशिल्ल्या खेड्यांनी वताले आनी थंयचे लोक जे रस्त्यांचेरच आनी खळांत परसाकडेन करताले ती सुवात निवळ करताले. आनी हीं जी खेडीं आशिल्लीं तीं कांय रेल मार्गापसून चड पयस नाशिल्लीं. तर वर्धा शाराचे कुशिकूच आशिल्लीं. हांव मगनवाडी आयलों तेन्ना बापू सेगांवांक रावपाक

गेल्ले. म्हणटकच आतां म्हजो बापूय तांच्या जाग्यार खेड्यांत वतालो.

बापू हें जें काम करताले ताका दोन कारणां आशिल्लीं. एक निवळसाणीच्यो संवंयो आपणावपाखातीर गांवगिऱ्या लोकांक उर्बा दिवप आनी दुसरें, निजाचे हिंदूय असलीं कामां करूंक शकतात हें दाखोवन दिवप. हरशीं, हळशीक निवळ करपाचें काम हिंदू समाजांत, समाजाभायर उडयल्ले अस्पृश्य करताले. कारण समाजांत तांकां जें स्थान आशिल्लें तें आनिक आनिक देंवपाचें नाशिल्लें. सामान्यपणान, निजाचे हिंदू आपली हळशीक आपूण निवळ करना आशिल्ले. म्हणटकच, मनशाच्या कुड्ड्या भावार्थाक असलीं कामां करपाक समाजान भायर उडयल्लेच लोक जाय आशिल्ले.

पूण गांवगिऱ्या लोकांक असलें कितेंय शिकोवप हें तितलें सोंपें नाशिल्लें. खूब तेंप ह्या गांवगिऱ्या लोकांनी बापूकडेन, महादेवभाईकडेन आनी तांच्या सांगात्यांकडेन ते सफाई करपी चालंत लोक इतलेच नदरेन पळयलें. काम करतकच ते पयशे घेनात इतलीच तांचे खातीर ती नविदाद आशिल्ली.

'थंय वच. थंय चड हळशीक आसा,' अशें तांकां एक दीस एकट्यान बोट दाखोवन सांगलेंय बी. ताणेंच कांय खिणापयलीं ती हळशीक केल्ली.

साबरमती आश्रमांत हावें लेगीत हळशिकेचे कांशे रिते करपाचें काम केलां. म्हणचे रातचें कांशांत केल्लें परसाकडेन सारें करपाखातीर केल्ल्या फोंडांत उडोवप आनी कांसो घांसून साफ करप. पूण हांगा ताजी हळशीक सरळ कांशांतल्यान व्हरपाची आशिल्ली. पूण पोरणी हळशीक ही किड्यांनी भरिल्ली आसता. म्हजो बापूय मात लक्ष दिवन ती वेळच्या वेळार व्हरतालो.

एक फावट, सेगांवांत, हावें बापूक विचारलें, 'हें काम करून कितें फायदो? लोकांचेर ताचो कांयच परिणाम जायना. वयल्यान तांणी खंय हळशीक केल्या ती ते बोटान दाखयतात आनी आमकां निवळ करपाक सांगतात.'

बापून म्हणलें, 'तुका ह्या सगल्याचो त्रास जाता? इतल्या सोंपेपणान तूं धीर सोडटा? महादेवाक विचार तो कितलो तेंप आज हें काम करता. तो तें काम निश्ठेन करता. तुवेंय ताचेकडल्यान उर्बा घेवपाक जाय. अस्पृशतायेचो स्राप हो आमच्या समाजाचेर आशिल्लो सादो दाग न्हय. तो काडून उडोवपाक आमकां व्हडलें पानवळ

घेवपाक जाय.'

म्हाका तें तितलें पटूंक नाशिल्लें. 'पूण बापू, ते जर सुदारनात तर हें सगलें करून कितें फायदो?'

बापून सूर बदललो. 'पूण जे कोण निवळ करतात तांकां तें फायद्याक पडटा. तांकां प्रशिक्षण जें मेळटा!'

'पूण गांवगिऱ्या लोकांकय तें प्रशिक्षण जाय.'

बापून हांसत सांगलें, 'म्हाका खबर आसा, तूं वकिलकी उलयता. तूं सांगता तें सतय आसा. तांकां कशें प्रशिक्षण दिवप हें जर म्हाका कळिल्लें तर हांव खोशेन नाचतलों आशिल्लों.''

फुडें ताणी सांगलें, 'हांव तुजे सुवातेर आशिल्लों, तर बारीक लक्ष दवरतलों आशिल्लों. कोणय जर परसाकडेन बसून उठटना पळयलो की थंय धांवून व्हतलों आशिल्लों. आनी ताच्या गुवांत कितेंय वांकडें दिसलें, जाल्यार ताका मेळून नमळायेन सांगतलों आशिल्लों, 'इश्टा, तुज्या पोटांत कितें तरी सारकें ना. आनी तें सारकें करपाक तुवें अमकें अमकें करपाक जाय.' अशे तरेन हांव ताज्या काळजांत हात घालतलों आशिल्लों.

हांव ओगी रावलों तें पळोवन बापूक स्फूर्त आयली. 'म्हाका जाय तशें जातालें तर हांव स्वता ते रस्ते सान्न मारून निवळ करतलों आशिल्लों. इतलेंच न्हय तर थंय फुलांची झाडां रोयतलों आशिल्लों. तांकां सद्दां उदक घालतलों आशिल्लों. जंय आज शेणाची रास आसा, थंय हांव बागो करतलों आशिल्लों. सान्न मारप ही एक कला!'

ताणी सेगांव गांवांत असलीं कामां करपाक सुरवात केली. त्याच वेळार देशभर, गांवांचे उदरगतीपासत तरातरांची आंगां हाताळपाखातीर ताणी प्रतिष्ठानां उगडपाक सुरवात केली. ह्या संस्थांच्यो मुखेल कचेऱ्यो कांय वांट्यांनी संशोधन केंद्रां म्हूण वापरल्यो.

अखील भारतीय ग्रामोद्योग संस्थेची मुखेल कचेरी मगनवाडी हांगा आशिल्ली. एकेकडेन आमी बैलांनी ओडिल्लो तेलाचो घाणो चलयताले आनी एक कडेन

हातांनी कागद करताले. बागायते भितर म्होंवामुसांची पोळीं पोशिल्लीं. गंवांचे पीठ दळपाखातीर बापू वेगवेगळ्या तरांचे फातर घेवन प्रयोग करताले. ह्या उद्योगांत काम करून गांवच्याच लोकांची उदरगत जावची म्हूण तांकां प्रशिक्षण दिवपाक शाळा उगडल्यो. जे. सी. आनी भारतन कुमारप्पा हे दोग भाव मगनवाडीचे भूशण आशिल्ले. ते परदेसांत वचून अर्थवेवस्थापन शिकून आयिल्ले. भारताचे अर्थवेवस्थेचो उद्धार ग्रामोद्योग विकासांत आसा हें तांकां पटिल्लें. तांतलो व्हडलो भाव, जे. सी. आपले बोबमारे पद्दतीन 'व्हिलेज इंडस्ट्रीस बुलेटीन' हें सातोळें छापतालो. काका खूब फावट ताका विनोदान म्हणटालो, 'अहिंसेचो हिंसक पुजारी.'

संशोधनावांगडा बापूचे जेवणाखाणाचेर आनी जेवण रांदपाचेरय प्रयोग चलताले. त्या दिसांनी सोया दाण्यांचेर खूब बोवाळ चलतालो म्हूण आमी तांचोय प्रयोग केलो. पूण प्रयत्न निमाणें निर्फळ जाले. आमी सूर्यफुलाचें तेल लेगीत वापरून पळयलें. कोडू नीम पानाचो आनी चींचेचो हालवो करपाचे प्रयोग चालू आशिल्ले. बापू सांगताले, 'चींच हें गरिबांचे फळ. ताचेपसून हालवो केल्यार हजारांनी खेड्यांक ताचो फायदो जातलो. पूण तो पुश्टीक नदरेन उपेगाचो आसतलो, सुवादाचे न्हय.'

कसले तरेचे रांदनींत शिजोवपाक उण्यांत उणें लाकूड लागतलें हे लेगीत बापू जाणा जावपाचे प्रयत्न करताले. असले तरेचेय लांपयांव करपाचे प्रयत्न चलताले जे खाणाच्या तेलार चलतले. ह्या प्रयोगांतल्यान एक एक नमुनो प्रत तयार जाली. तांकां बापूच्या भायर पडिल्ल्या पुतणयाच्या मगनलालाच्या सन्मानार्थ 'मगन रांदन' आनी 'मगन लांपयांव' अशीं नांवां दिल्लीं. कच्ची साखर, खाजराचें सरबत आनी अशें खूबशें कितें उत्पादन करपाचे प्रयोग चालूच आशिल्ले.

ह्याच काळांत, अखील भारतीय ग्रामोद्योग संस्थेन खेड्यांचे उदर्गतीखातीर असल्या तरांचीं निश्ठेन कामां करपी खूब कामदार तयार केले. आज लेगीत, देशांत खंयय ग्रामोद्योगांत कोणय बरें काम करतात तें दिश्टी पडत तर तुमकां ते मगनवाडींत प्रशिक्षण दिल्ले कामदार आसात हें कळटलें.

त्या दिसांनी, खेड्यांतल्या सगल्या उद्योग धंद्यांभितर, हातान कांतिल्लें आनी हातान विणिल्लें लुगट - खादी - उत्पन करपाचे प्रयोग खूब फुडें गेल्ले. त्या काळांत, खादीच्या भांडवला संबंदांन एक म्हत्वाची थारावणी घेतिल्ली.

खादीच्या वावराची जे तरेन मांडणी केल्ली ती अशी आशिल्ली. सूत कांतपी आपलें सूत अखील भारतीय सूत कांतपी संस्थेक विकतले. ही संस्था मागीर तें सूत विणून घेतली आनी लुगटां करतली. हीं लुगटां मागीर शारांनी आनी नगरांनी विकूंक म्हूण खादी भवनांत वतलीं. अशे तरेन गरीब आनी बेकार लोकांक कितें तरी काम मेळिल्लें आनी तांचें गरिबीचें वजें कांय प्रमाणांत तरी देंविल्लें. ह्याच वेळार वर्ध्यांत आनी लागींच्या चंदा जिल्ल्यांत खादीच्या उद्योगाची वेपारी कबलात जाली. तेन्ना बापूक कळून आयलें की अस्तुर्‍यो ज्यो सूत कांततात तांकां सगलो दीस काम करतकच फकत पांच पयशे मेळटात - म्हणचेच लागीं लागीं कांयच मेळना. तें समजतकच बापूक थरथरो भरलो.

ताणी अखील भारतीय सूत कांतपी संस्थेची बसका आपयली आनी संघटनेकडेन तांचो दिसवडो वाडोवपाचें मागणें केलें. ताणी नेट दिवन सांगलें की सूत कांतप्याक जगपाक जाय तितलो दिसवडो म्हणचे दिसाक आठ आणे मेळपाकच जाय. संस्थेचो कारभारी रोखडोच खादीचो भाव कितलो वाडटलो हाचें गणीत करपाक लागलो. निमाणें, सूत कांतप्याक दिसाक तीन आणे दिसवडो दिवचो अशें थारलें.

खादीचो दर दोट्टी जालो. पूण तशा प्रमाणांत ताचो खप उणो जालोना. आनी लाखांनी सूत कांतपी अर्द भुकेच्या चिंतेंतल्यान तरी मुक्त जालीं.

बापू संत आशिल्ले. रस्त्याचेर बशिल्ल्या थंडेन कुडकुडटल्या, आंगार कांयच नाशिल्ल्या भिकार्‍याक पळोवन ते अक्षरशा थरथरले. ह्या संताचेर कांबळीचेर कांबळी घाल्यो, तरय हाचें थरथरप थांबलेंना. निमाणें त्या भिकार्‍याचेर जेन्ना कांबळ घाली तेन्नाच संताचें थरथरप थांबलें. तशेंच बापूची भूक तेन्नाच तृप्त जाली जेन्ना सूत कांतप्यांचो दिसवडो वाडयलो.

बापून गांवांतल्या जिविताचेर लक्ष दवरलें, तेन्ना तांची दरेक करणी फकत एकाच विचारा भोंवतणी घुंवपाक लागली. त्या करण्यांपसून भुकेल्ल्या लोकांक कितलो पालव मेळटलो ? जे तरेन वाद्याच्यो सरयो गायकाच्या आवाजाक सूर दितात तेच भशेन बापूच्या काळजाच्यो सरयो भुकेल्ल्यांच्या, गरजेवंतांच्या इल्ल्या पसून वळवळ्यान झणझणपाक लागताल्यो.

# ९. येरवडा मंदिर

येरवडा मुखेल बंदखणीचे भायले वणटीचो लोखणाचो दरवंटो उकतो जालो, जे तरेन भितरले वणटीचो दरवंटो बंद जालो. मागीर भितरलो दरवंटो उकतो जालो, जे तरेन आमचे फाटलो भायलो दरवंटो बंद जालो. खाकी भेसांतल्या पुलिसां मुखावयल्यान आनी हळडुवी टोपी घाल्ल्या बंदखणीच्या राखणदारा फुडल्यान वचून आमी एका ल्हानश्या आंगणांत भितर सरले. त्या आंगणाच्यो वणट्यो इतल्यो लांब आशिल्ल्यो की आमच्या बंद्यांचे तकले वयलें मळब त्यो धरतात काय अशें दिसतालें. त्या आंगणांत एक ल्हानशें आंब्याचें झाड आशिल्लें. आनी झाडापोंदा एके खाटीर अशक्त बापू आड पडिल्ले.

आमी बापू म्हऱ्यांत गेले, मान बागयली आनी कुशीक उबे रावले. ते इतले अशक्त जाल्ले की सदांभशेन म्हजी फाट थापटावन 'हॅलो बॉस' म्हणपाक शकलेनात. ते मातशे हांसले. जाणें क्रूर जुलमाक प्रतिकार केलो त्या आत्म्याचो तो हांसो आशिल्लो.

बापूच्या उपासाचो तो सातवो दीस आशिल्लो. जी कूड हरशीं तीन तीन सप्तकां उपास हाताळपाक शकताली ती हे खेपे मात एका सप्तकांतच झिरझिरिल्ली. आतां कांय खिणांतच एक तर बापू मरतले वा ते उपास सोंपयतले अशें दिसतालें. प्रस्न आशिल्लो, पयलीं कितें जातलें?

एकच वर्स पयलीं, १९३१ त, लंडनांत, भारताच्या संभवीत स्वातंत्र्याविशीं उलोवणीं चालू आशिल्लीं. तेन्ना मुस्लीम, शीख आनी अस्पृश्य हे अल्पसंख्यांक आनी दुसरे, आपले वेगळे मतदार आसचे आनी आपूण आपले उमेदवार राष्ट्रीय विधिमंडळाक

सरळ वेंचून दितले अशी मागणी करताले. बापू ह्या असल्या सगल्या मागण्यांक विरोध करताले कारण तांचे हिसबान अशें केल्ल्यान भारताचें विभाजन जातलें आशिल्लें.

पूण अस्पृशांविशीं मात तांकां कितें तरी वेगळेंच दिसतालें. तेन्ना ताणी सांगिल्लें, 'जर अस्पृश्यांक वेगळो मतदार दियत, तर हांव जिवितभर ताका विरोध करीत रावतलों.' जांकां बापू म्हणल्यार कितें तें खबर नाशिल्लें तांकां ती भाशे-मोड कशी दिसली. जांकां तांची वळख आशिल्ली, तांकां ती धमकी अशी दिसली. पूण बापूखातीर तो जिणेचो आनी मरणाचो प्रस्न आशिल्लो. तांकां दिसतालें, अस्पृश्यांखातीर वेगळे मतदारसंघ करीत तर तो सदांच अस्पृश्यतायेचो सामाजिक कलंक जावन उरतलो.

आतां ही मांडणी अशीच फुडें व्हरपाची ब्रिटिशान थारायलें. ती आतां भारतियांखातीर म्हूण मर्यादीत स्वशासनाच्या नव्या संविधानांत घालपाची आशिल्ली. हिंदू मतदार म्हूण मतां दितनाच, अस्पृश्य आपले उमेदवार आपूण वेंचतले म्हणटकच तांकां दोन फावट मतां दिवपाक मेळटलें. बापू सदांच अस्पृश्यांची बाजू घेयत आयिल्ल्यान ते हे वेवस्थेक विरोध करपा नात अशें लोकांक दिसलें. पूंण बापू आपल्या विचारांकडेन घट आशिल्ले. म्हणटकच बंदखणींत आसून लेगीत, ताणी हे वेवस्थेआड उपास चालू केल्लो.

हाचे मजगतीं, डॉ. भीमराव आंबेडकर हांकां हालींच अस्पृश्यांचो प्रवक्तो म्हूण मान्यताय मेळिल्ली. दोन फावट मतां दिवप बंद करप गांधीजींक शक्य जायत तर आपूण कितले मेरेन तें वाटावंक शकतलों हो दावपेंच ते आंखूंक लागिल्ले. हे बाबतींत उलोवणीं करपाखातीर, हिंदू जातींचे राजकीय फुडारी अस्पृशांच्या प्रवक्त्याक केन्ना मुंबय तर केन्ना येरवडा बंदखण आशिल्ल्या पुण्याक मेळपाक लागले. ब्रिटिशांच्या उबाळाच्या दिसांचे राजधानींत शिमलांत लेगीत ते मेळपाक लागले. हांगाच्यान, इंग्लडांतल्या सरकारी अधिकाऱ्यांक तारेन बातम्यो वचपाक लागल्यो, तर थंयच्यान ते प्रमाण सुचोवण्यो येवपाक लागल्यो.

खूब बसका जातकच आनी हरशीं दितले आशिल्ले ताचे परस चड सवलत मेळटकच आंबेडकर थातारलो. जर सगले हिंदू जातींचे फुडारी आनी अस्पृश्य तयार जायत तर ब्रिटिश प्रधानमंत्री ही मांडणी फाटीं घेवपाक तयार आशिल्ले. पूण ते बाबतींत सरकाराकडच्यान कितेंच बरोवन आयिल्लें बापून पळोवंक नाशिल्लें. लंडनान अशें

फर्मान काडलां अश्यो पुण्यांत आनी दुसरे कडेन हुली पसरल्यो. जो मनीस खंयच्याय खिणाक जीव सोडूंक शकता ताचे मेरेन हो सरकारी संदेश पावोवप खंयचें तांबडें फीत आडावन दवरता हें कोणाक खबर नाशिल्लें.

सगले सांगाती एकटांय जाले. राष्ट्रीय फुडारी हांगा थंय धांवताले. हालींच जाल्ले राष्ट्रीय मोहिमेवेळार जे कोण स्थानबद्ध जाल्ले तेय सगले हांगा हजर आशिल्ले. तांची नुरा हुसक्याची जाल्ली पूण पुराय निर्शेवं नाशिल्ली. बंदखणीच्या अधिकाऱ्यांक तांच्या चारित्र्याविशीं कांयच दुबाव नाशिल्लो. म्हणटकच बंदखणीच्या प्राकारांत मेकळेपणान भोंवपाक तांका मान्यताय दिल्ली. ह्या विश्वासाचो कोणेंच वायट उपेग करूं नाशिल्लो.

'गुरुदेव येन्ना म्हळ्यार पावूंक जाय आशिल्ले. अजून ते कशे पावले नात?' कोणेंतरी विचारलें. गुरुदेव म्हणल्यार रवींद्रनाथ टागोर - कवी, संगीतकार, चित्रकार, शिक्षणमहर्षी आनी तत्वगिन्यानी. गुरुदेव हाणीच पयले फावट गांधीजींक 'महात्मा' म्हणिल्लें.

'तांकां पुलिसांनी भायर आडायले बी जायत. देवदास, मात्सो भायर वचून पळय.'

आनी खरेंच गुरुदेवांची गाडी पुलिसांनी आडायल्ली. जर देवदासाक ते सांपडूं नाशिल्ले तर तांकां आनीक कळाव जातलो आशिल्लो!

गुरुदेव सामकार आयले. बापून तांकां गच्च वेंग मारली. हो वेळ मान बागोवपाचो नाशिल्लो.

काकान गुरुदेवांक सांगलें, 'तुमी आयले तें बरें जालें. बापू उमळशिकेन तुमची वाट पळयताले.'

'हांव हांगा आयिल्ल्यान देशाचो पेंच सुटपाक आधार जातलो अशें हांव धरून चलना. पूण म्हज्या येण्यान तांकां संतोस मेळ्ळा हें जाणा जावन म्हाका खूब आनंद जाला.'

कांय खीण आनीक कांय चड उलोवप जालें ना. बापूचे खाटी कुशीक गुरुदेव

बसले. बापूची कूड खूब अशक्त जाल्ली. पूण मन अशक्त जावं नाशिल्लें. खंयच्याय प्रस्नाचेर उलयतना ते सदांभशेनच बारिकसाणेन उलयताले. पूण गुरुदेवांकडेन विचारांची देवाणघेवाण उतर उलयनासतना जाताली. आजचो बापूचो मोनो आवाज- बापू सद्या सरणाचेरच न्हिदिल्ले आसात अशें म्हणल्यार अतिताय जावपा ना - देशांतल्या कोट्यांनी लोकांकडेन पाविल्लो. राजकीय फुडाऱ्यांची कारस्थानां वा वर्सांच्या वर्सांचो कुड्डो भावार्थ तांचो आवाज अंदुपाक शकना आशिल्लो. हे वटेन सगलो भारत देश महात्म्याचो जीव वाटावपाखातीर प्रस्न कसो सोडयतले हें जाणा जावपाक धडपडटालो.

निमाणें, बंदखणीचे अधिकारी आयले. लंडनांतल्यान आयिल्लो आदेश ताणी बापू लागीं दिलो. सगल्यांची नुरा एकदम प्रसन्न दिसपाक लागली. बापून पयलीं उपचारीकपणान म्हायती पत्रक वाचलें आनी मागीर सांगात्यांक वाचूंक दिलें. सगल्यांक तें सारकें आसा अशें दिसलें. तरी लेगीत तें पंडित कुंजरूंकडेन दिलें आनी दरेक उतराचो अर्थ तांकां समजावन सांगपाक सांगलें. बापू धादोशी जाले. उपास सोडचे पयलीं बापून तें म्हायती पत्रक आंबेडकरांक दाखयलें. आंबेडकरानी तकली हालोवन आपली स्विकृती दिली. बापू उपास सोडपाक तयार जाले.

मोसंबीच्या रोसान भरिल्लो पेलो हाडलो आंनी कस्तुरबाच्या हातांत दिलो. प्रार्थना म्हणली. असल्या प्रार्थनांक हजेरी लावप ही एक उत्स्फूर्त गजाल आशिल्ली. गुरुदेवानी आपल्या मधुर आनी नाजूक आवाजांत "When the Heart is Dry" हें गीत गायलें. कस्तुरबान बापूक रोस हळू हळू पिवपाक सांगलें. उप्रांत सगल्या लोकांनी 'वैशणव जन' म्हणलें. सगळ्यांक फळां आनी मिठाय वांटली.

बापूचो उपास असो सोंपलो गुरुदेवानी ही खबर आपले शाळेंत-शांतीनिकेतनांत आपल्या सगळ्या सांगात्यांक समजावन सांगली. 'ही तपस्या बंदखणींत सुरू जाली आनी थंय पसून तिका यश मेळ्ळें. जाणें ती तपस्या केली तो, आनी तें यश, एकटांय जालें. तो तपस्येचो अवतार आसा.'

# 10. एक गुलाब जो उज्या-खोर्नार फुल्लो

दरेक वर्सा, बापूचे गांव–उदर्गत कार्यावळीचे कामदार आनी कांय राजकीय सांगाती गांधी सेवा संघाच्या राष्ट्रीय अधिवेशनाखातीर एकटांय जातालें. हें अधिवेशन दरेक वर्सा वेगवेगळ्या प्रांतांनी भरतालें. १९३८ त अधिवेशन ओरिसा राज्यांतल्या, दर्या देगेर आशिल्ल्या पुरी शाराच्या लागींच आशिल्ल्या देलंग गांवांत भरिल्लें. पुरी हें धर्मीक तिर्थयात्रेचें थळ आनी जगन्नाथ मंदिराखातीर नावाजतें आशिल्लें. हांव असल्या मेळाव्यांखातीर काका वांगडा वतालोंच. पूण हे खेपे पुरी लागीं आसा म्हूण म्हजी आवयय भायर सरली.

बापू अधिवेशनाच्या सदच्या सत्रांत उलयतालेच. पूण ते भायर तांचे खातीर म्हूण सदां सानवेळा भौशीक सभा आसताल्यो. तें सोडल्यार तांकां दिसाक एक वा दोन फावट, तांचें दर्शन घेवपाक म्हूण भायर जी हजारांनी लोकांची खेट पडटाली, तांकां मेळचें पडटालें.

तो एक अपरूप देखाव आसतालो. सद्दां सकाळ आनी सानवेळा हजारांनी लोक भायर जमताले. इतले लोक आसताले पूण आवाज मात पूण नासतालो. खूब फावट हे लोक, फकत बापूचें दर्शन घेवपाक वरांच्या वरां भायर बसून रावताले. बापू तांचे मुखार येताले, माचयेर उबे रावताले. येवकार दिवपाचे सदचे प्रथेप्रमाण जैताची कुरू म्हूण माडाच्या चुडटाक हात लायताले आनी वताले. इतल्या पयसुल्ल्यान पांयांनी चलत आयिल्ले हे लोक खुशाल जावन परत वताले.

अधिवेशन सुरू जावचे आदीं, गांवांचे उदरगतेविशीं जें प्रदर्शन भरिल्लें ताका

हजारांनी लोक जमिल्ले. आपलें भाशण उलयतना बापून पुरीच्या जगन्नाथ मंदिराचो उल्लेख केलो. ताणी सांगलें, 'हरिजनां खातीर जे मेरेन देवळांचीं दारां उकतीं जायनात, ते मेरेन विश्वाचो देव म्हूण हांगा जाची पुजा जाता, तो खरेपणान विश्वाचो देव नासता. तो फकत भटांचो देव आसता, जे देवळांचेर आपलीं पोटां भरतात.' अस्पृशांवतीन भोंवडी करतना, बापूक देवळांत भितर सरपाक आडायल्लो आनी तांचो अपमान लेगीत केल्लो.

कशेंय करून आमी इतले लागीं पावल्यात म्हूण कस्तुरबाक पुरीक वचूंक जाय आशिल्लें. म्हजी आवय आनी वेलाकाकी लेगीत इतलेच खातीर आयिल्लीं. बापून तांकां व्हरपाची तयारी करपाक काकाक सांगलें. पुरीक भेट दिवपाचें इल्लेंय काकाच्या मनांत नाशिल्लें. पूण बापून कितले फावट सांगलें म्हूण काकान तशी तयारी केली. हांव पसून तांचे वांगडा वचूंक भायर सरलों.

कस्तुरबा पुरीक वतली, प्रथेचें पालन म्हूण दर्यांत न्हाण घेतली आनी परततली अशें बापूक दिशिल्लें. पूण कस्तुरबाक पुरीक वचप म्हणल्यार जगन्नाथ मंदिरांत देवाची भेट घेवपाची आशिल्ली. आनी बापू स्वता देवळांत भितर सरले नात, तरय अहिंसेच्या मार्गान वतना तांच्या मनांत रुजिल्ले दुसऱ्यांचें कल्याण करपाचे इत्सेक लागून दुसऱ्यांनी देवळांत भितर सरपा आड ते येवचेनात, असो काकाचो समज जाल्लो.

म्हजे आवयच्या मनांत अस्पृशांविशीं कसलोच भेदभाव ना हें काकाक खबर आशिल्लें. कितलीं वर्सां, हरिजन आमच्या घरांत रावल्यात. तिका जर पांयां पडूंक देवळांत वचूंक जाय तर आपूण तिचे धर्मनिश्ठे आड कित्याक येवं, म्हूण ताणें तिका देवळांत वचूंक मनाय केली ना.

आमी पुरीक गेलीं, दर्यांत न्हालीं आनी शाराभोंवतणी एक पासय मारली. मागीर आमी देवळांत गेलीं. हिंदू नाशिल्ल्यांनी भितर सरचें न्हय म्हूण दाराकडेन फळ्याचेर बरोवन दवरलेल्लें. लीलाकाकी आनी हांव दाराकडेनच थांबलीं. कस्तुरबा, म्हजी आवय, वेलाकाकी आनी दुसरीं थोडीं भितर गेलीं. तीं भितर आशिल्लीं तेन्ना हांव भायर भटांकडेन वाद घालतालों. अस्पृश्य ब्रह्माच्या पांयांतल्यान जल्माक आयल्यात तर ब्राह्मण ताचे तकलेंतल्यान जल्माक आयल्यात, म्हणटकच अस्पृश्य हे तांचेपरस उणे पावंड्याचे अशें तांणी म्हाका सांगलें. हांवें तांचें म्हणणें भायर मारलें. आमी देवाचे

नदरेन सगलीं भुरगीं एकच अशें तांकां सांगलें.

देवळांतल्यान भायर येतकच म्हजे आवयची आनी दुसऱ्यांची नुरा तृप्त जाल्लेवरी चकचकताली. आमी मागीर देलंगाक परतीं आयलीं.

आमच्या पंगडांत कांय अती शाणे लोक आशिल्ले. देवळांत सगल्यां पयलीं वचपी ते आशिल्ले आनी बापूच्या कानांत फुतफुतपीय तेच पयले आशिल्ले. 'बापू, बा देवळांत गेली म्हण सगली पुरी आज हें एकच उलयता. रेल्वे थाण्यावयल्या अधिकाऱ्यान म्हाका विचारलें लेगीत 'कस्तुरबा खऱ्यानीच देवळांत गेली व्हय?'

कस्तुरबा पुरीक गेल्यार, देवळांत पावल दवरपा ना, आनी जर तिणें देवळांत भितर वचपाचें थारायलें जाल्यार महादेव तिका आपली भुमिका समजावन सांगतलो अशें बापून धरिल्लें. पूण खरेपणान तशें कांयच जालें ना. बापूक हो मोठ्यांतलो मोठो धक्को बशिल्लो. बापून अर्द खरें, अर्द विनोद करीत काकाक म्हळें, 'महादेव, आतां आमी तिगांनीय वेगवेगळ्यो वाटो धरूंक जाय!' पूण तातूंत विनोदा परस व्यथा चड आशिल्ली.

बापूचें प्रेशर इतलें वाडलें की लोकांक खूब हुस्को जालो. म्हजे आवयक आनी काकाक आपोवन ताणी सांगलें, 'महादेव, तुवें एक भयंकर चूक केल्या. तुवें तुजेर, म्हजेर आनी दुर्गाचेर अन्याय केला. तुवें तांकां सगली फाटभूंय परत एक फावट समजावन सांगप हें तुजें कर्तव्य आशिल्लें. पुरीक म्हाका कशीं वायट उतरां दिल्लीं हें तुवें तांकां समजावन सांगूंक जाय आशिल्लें. हें सांगतकच पसून तांणी वचपाचो हट धरिल्लो, तर तुवें तांकां म्हजे सरीं हाडूंक जाय आशिल्लें. आनी तरय तांकां वचूंकच जाय आशिल्लें तर तेन्ना आमी तांकां वचपाक दिवपाक जातालें. तांचेर बळजबरी करप न्हय, पूण तांचेकडेन भासाभास करपाचें आमच्यांनी सोडूं येता ?'

काकाक आपली चूक कळून आयली. तें सगलें अपसमजाक लागून जाल्लें. पूण बापून इतलें थरथरचें कित्याक ? काकान ही सगली घडणूक अधिवेशनाचे सभेमुखार मांडली. बापूनय आपलो फुगारमार तांचेमुखार उकतो केलो. 'बा जर देवळापसून पयस राविल्ली, तर आज म्हजी मान तायट उबी आसतली आशिल्ली. पूण आज म्हजे इज्जतेक वेर आयल्या. म्हज्या कामाची तांक उणी जाल्या अशें दिसता. ह्या लोकांक आपूण

कितें करताले हाचे धंग नाशिल्लें. पूण तांकां काळखांत कोणें दवरले? आमीच न्हय? नेणारपणान कितेंय करपाक ओगी रावन मान्यताय दिवप हातूंत अहिंसा ना. ती हिंसा. आज हरिजनांक लेगीत आमी फटिंग अशें दिसपाक लागलां. आनी तें खरें धरपाक तांकां पुराय हक्क आसा. कारण आमी देवळांत भितर सरतात, तांकां सरूंक मेळना. मागीर आमी तांकां आमचे मदले धरतात हाचेर ते कशे विस्वास दवरतले?'

तें आयकून, काका आपणाकूच बोल लावंक लागलो. "जर बापूची अस्पृशतायेवयली भुमिका पुरायपणान म्हाकाच सारकी समजूं ना, तर तांचे विचार हांव दुसऱ्यांक कशे समजावन सांगतलों? जर हावेंच बापूचो इतलो छळ केला, तर हांव तांकां दुसऱ्यांपसून कसो वाटायतलों?'

रातची न्हीद पडना जाली. काका रडटालो, आवय रडटाली, कस्तुरबा रडटाली. बापू रडना आशिल्ले, पूण तांचें प्रेशर खूब वाडिल्लें. काकान बापूक सोडून वचपाचें थारायलें. एक दीस सकाळीं उठ्टकच, म्हाका परिस्थितीचो अंदाज लागलो. काकान म्हणलें, 'बाबला, आमी देहनाक आमच्या घरा या. हांव शेत रोयतलों आनी तुका शिकयतलों.'

हावें थंयचे थंय न्हयकार दिलो. 'तुका जाय जाल्यार वच. हांव हांगा रावतलों.'

आवयकय काकाचो हो विचार मानवलो ना. आनी बापू कितेंच आयकुपाचे मनस्थितींत नाशिल्ले. 'दुस्मानाचे दयेर जगचे परस, इश्टाच्या हातान मेल्लें बरें. तुज्या कुड्ड्या मोगाखातीर तुवें तुजे बायलेचे अंधश्रद्धेक सारें घालें. तुवें तुजे चुकीचें पिराचीत घेवपाखातीर सत्याग्रहींचो पंगड घेवन परत पुरीक वचूंक जाय आशिल्लें. तें नाच्, वयल्यान रडटा, केदें भिजूडपण!'

काकान बापूक सोडपाचो निश्चेव सोडून दिलो. दुसऱ्या सप्तकांत, बापूचें गुजराती सातोळें 'हरिजन' हातूंत हे घडणुकेचेर ताणें एक लेख बरयलो:

"...परत परत हावें म्हाका विचारलें, हें फकत एका ल्हानश्या अपसमजाखातीर न्हय ? जशें शंकर वीख पिलो, तशें बापू कितलींय पातकां पचोवपाक शकतात. तर मनाच्या ह्या घाळपणान ते इतले कित्याक थतरवितर जाले ? ते इल्लेंश्याचें व्हडलें

तर करनात ?

'त्या वेळार म्हाका आयिल्लो विचार हो असो आशिल्लो. पूण आज जेन्ना हांव थंडपणान ते घडणुकेविशीं विचार करतां तेन्ना म्हाका दिसता, म्हाका जें इल्लेंशें दिसता, तें तांकां व्हड दिसता जाल्यार तांकां प्रश्न विचारपाक हांव कोण? अर्द शेंकडो ज्या मनशान निजाचे समजिकायेन प्रामाणीकपणान काम केलें त्या मनशाक खरें कितें, चुकीचें कितें हें बरें समजतलें, काय दुर्बळ सभावाच्या म्हाका?

'म्हाका ताणी म्हजो अपमान केल्लेवरी कित्याक दिसूंक जाय? तांचें पसून पयस हांव खंय वचूंक शकतां? तांकां संत म्हणप आनी तांचेर पयसुल्ल्या सर्गाचें साधुत्व अर्पण करप हें बराबर आसूंक शकता? ते स्वता आपल्याक संत केन्नाच समजले नात. तांकां आपूण 'महात्मा' अशें केन्नाच दिसलें ना. ते स्वताक तुजे आनी म्हजे वरी एक सादो मनीस समजतात. आनी तेच खातीर तांचे वांगडा सदांखातीर रावप शक्य आशिल्लें. कांय खिणांखातीर तिडल्यार आमी तांकां कशे दोश दिवपाक शकतात? आनी आमी कितें पसंत करप – तांचे तिडकेपसून पळून वचप काय तांचे तिडकेन देवान आमचें भस्म करुंदी म्हूण मागप?'

जेन्ना काका भायर पडलो, नामनेचे गुजराती कवी मेघानीन ताचेविशीं एक लेख बरयलो. ताचो माथाळो आशिल्लो 'एक गुलाब जो उज्याच्या खोर्नार फुल्लो.' ही घडणूक दाखयता की हो माथाळो कितलो सार्थ आशिल्लो!

# 11. हरिजन भोंवडी

बापूच्या सांगातान रेलगाडयेन भोंवडी करप हो एक देखघेणो अणभव आसतालो. तेन्ना बापू तिसऱ्या वर्गाच्या डब्यांनी बसून भोंवडी करताले. मागीरच तांकां तशी परिस्थिती उप्राशिल्ल्यान खाशेल्या डब्यांतल्यान वचचें पडूंक लागलें. साद्या वाहनांनी लेगीत तांकां पळयले बराबर लोक कुशीन सरताले आनी तांकां बसपाक सुवात करून दिताले.

बापूचो परिवार ल्हान नासतालो. आश्रमवाशी, पिडेस्त, सोयरे, संशोधन करपी - सगले तांच्या लवाजम्याचो भाग आशिल्ले. 'चड सामान व्हरूं नाकात' ह्या सांगण्याचेर कोण लक्ष दिना आसले. भोंवडेचें सामान सदांच खूब आसतालें.

भोंवडेच्या सामानाची जापसालदारकी कनुभायचेर आसताली आनी हांव तांकां आधार करतालों. रेलगाडयेंत सामान भितर घालपाचें आनी भायर काडपाचें काम आमचें आसतालें. रेलगाडयेंत भितर सरचे पयलीं सगले लोक तांचें सामान आमचे सुवादीन करताले आनी गाडी सुट्टकच ते आपलें सामान व्हरपाक येताले. मदीं ते कांयच वासपूस करिना आशिल्ले. भोंवडेचें सामान हाड-व्हरपाखातीर म्हणचे सारकें डब्यांत घालपाखातीर, मागीर तें मांडपाखातीर आनी निमाणें काडपाखातीर आमी एक नित्यक्रम तयार केल्लो. गोणी एक फावट, दोन फावट, तीन फावट मेजताले.

पूण बापूचे भोंवतणच्या घुस्पागोंदळाक लागून, आमच्या वावरांत आमी कडकसाणेन शिस्त सांबाळूंक शकना आशिल्ले. देखीक, जे कोण मात्शे उसरां येताले ते आपलें सामान आमकां सांगलेबगर अशेंच दवरून वताले. एक फावट, असल्याच

एका मनशाचें सामान सोदपाक कनूभायक खूब रेल्वे थाणीं फुडें वचचें पडलें.

जे मेरेन बा आमकां 'हमाली' दिवन थाकाय दिताली ते मेरेन आमी असलें कितेंय मनाक लावन घेना आशिल्ले. आमकां प्रवास करतना वा प्रवासाचे निमाणें, खावपाक मेळटालें. ताका आमी 'हमाली' म्हणटाले. कनूभाय आनी ताचो पालवी दोगय सामान हांगाच्यान थंय झुप करून व्हरताले तशे 'हमालीय' गट्ट करताले.

पयसुल्लें कोनश्याचें आसन बापूखातीर राखून दवरताले. आमी वयल्या बर्थाचेर न्हिदताले. एक फावट हावें बापूच्या आसनावयल्या बर्थार म्हजें हांतूण पसरायलें म्हूण कनूभायन आनी काकान म्हाका बरो तापयलो. आमचे भोंवडेचे संहितेप्रमाण, बापूक आदर म्हूण तांच्या आसनावयल्या बर्थार कोण न्हिदना आशिल्ले. चडसो वेळ बापू जनेलाकडेन बसूनच आसताले. पूण केन्नाय पांय पसरायताले.

पूण प्रवासाचे वाटेर बापूक सुशेग घेवपाक खूब कठीण पडटालें. खंयच्याय वेळार दिसाचें वा रातचें, दरेक रेल्वे थाण्यार - व्हडल्या वा धाकट्या -लोकांची गर्दी तांकां कशीच न्हीद घेवपाक दिना आशिल्ली. गाडी थाण्यांत भितर सरचेपयलींच 'महात्मा गांधी की जय' हे नारे आयकूंक येताले. आनी गाडी सुट्टकच लेगीत कितलो वेळ ते नारे चालूच आसताले.

जे मुजतींतल्यो गजाली आतां हांव बरयतां - १९३६ ते १९४० - हो काळ भारताचे स्वातंत्र्य चळवळींतलो वायट स्थितींतलो आशिल्लो. पूण बापू-दर्शन घेवंक येवपी इल्लेय उणे जावंक नाशिल्ले. रातचें, बापूक मात्शी तरी न्हीद काडूंक मेळची म्हूण आमी विजेचे दिवे निळ्या रंगाच्या लुगटान गुटलायताले. पूण लोक जनेलांतल्यान तांच्या तोंडार दिव्याचो झोत सोडटाले. आमी जनेलाचें दार सकयल ओडटाले. मागीर लोक पायखिळ्याच्या जनेलाचें दार मोडून उडयताले. एक फावट वर्ध्याक साकून दिल्लीक वतना, एका थाण्यार लोकांनी वतनाय जनेलांचीं दारां मोडून उडयलीं आनी येतनाय बी.

कांय खेपे काका लोकांच्या पांयां पडटाले. 'गांधीजी आतां न्हिदल्यात. तुमी ओगी रावचेनात?' लोक जाप दिताले, 'तो देव, ताका न्हिदपाची गरज पडना.'

असल्या उलोवण्यान काकाक राग येतालो. 'तुमी ज्या देवाक वळखतात तें देव

देवळांत आसात. ह्या देवाक हांगा थंय वचचें पडटा. तो तुमचेखातीर दीस रात कश्टता. तुमी ताका इल्लो सुशेग घेवपाक दिवपाना?'

एक फावट पंडीत जवाहरलाल नेहरू आमचे वांगडा आशिल्ले. ताणी इतले लोक रेल्वे थाण्यार आयल्यात तें पळोवन काकाक सांगलें, 'महादेव, आज रातचो तूं सुशेग घे. लोकांचें कितें तें हांव पळयतां.' दुसऱ्या थाण्यार पावले बराबर ते डब्याच्या दारार उबे रावले. आतां 'महात्मा गांधी की जय' हाच्या सांगाताक लोक 'जवाहरलाल की जय' अशे दोनय नारे घालपाक लागले. पंडितजीन व्हडल्यान सांगलें, 'तुमकां जर मान भोवमान दिवपाक जाय तर तो म्हाका दियात. गांधीजी न्हिदल्यात. हांव तुमकां तांकां उठोवपाक दिवपा ना.'

गर्देंतले लोक पंडीतजीकडेन वांटपण करपाक लागले : 'आमी तुमचें भाशण आयकतले आनी बापूचेर फकत नदर मारतले!' पंडीतजीन उरफाटो प्रस्ताव मांडलो. 'तुमकां जर म्हजें भाशण आयकुपाक जाय तर तुमी तांकां न्हिदपाक दिवपाक जाय!'

सगले लोक पंडीतजीचें भाशण आयकुपाक लागले. बापू भितरल्यान हें सगलें आयकताले. तरय दोळे धापून सुशेग घेवपाचो प्रयत्न करताले. लोकांची शिस्त पळोवन काका विरगळ्ळे. गाडी जेन्ना सुटपाक आयली, ताणें ल्हवूच बापूक विचारलें, 'तुमी जागे आसात?'

बापून म्हणलें, 'न्हीद केन्ना उडून गेली.'

'भायर सगले लोक ओगगी रावन पंडीतजीक आयकतात. कांय खिणाखातीर तुमी भायर येयात.' पंडीतजीनय हय म्हणलें. जशी गाडी हालली, सगलें थाणें 'महात्मा गांधीकी जय' ह्यां नाऱ्यान घुमघुमलें.

आनीक एका थाण्यार दिसाचेंच, पंडीतजीक लेगीत तें कठीण पडपाक लागलें. गांधीजी डब्यांत आसा तें पळोवन, गाडी सुरू जायसर एक मनीस त्या डब्याकडेन तस्सो उबो रावलो. आनी गाडी सुरू जाता म्हणल्यार तो सपणाचेर चडलो आनी डब्यांत भितर सरपाक प्रयत्न करपाक लागलो.

पंडितजी आड्डुले, 'डब्यांत भितर सरूं नाका. गांधीजी भितर आसात.'

पयलीं तो मनीस कायद्यान उलोवपाक लागलो, 'हो सादो तिसऱ्या वर्गाचो डबो. तांतल्यान कोणय प्रवास करूंक शकतात. म्हजेकडेन तिकेट आसा.'

पंडीतजीक राग आयिल्लो : 'तूं म्हाका कायदो शिकयता? बापू ह्या डब्यांतल्यान प्रवास करतात हें तुका खबर आसा काय ना?'

तो मनीस गडबडलो, 'खबर आसा.'

'आनी तेच खातीर तूं ह्या डब्यांत भितर सरलो, हय काय ना?'

'ना. गाडी सुरू जाली म्हूण हांव भितर सरलों.'

'तूं फट उलयता. तूं बरे भशेन ह्या डब्यांतल्यान भायर सर.'

पंडीतजी ताका सपणावयल्यान सकयल धुकलपाक पळयताले. पूण तेन्नाच गाडयेन वेग घेतलो. बापू मदीं पडले आनी ताका भितर घेतलो.

पंडीतजींचो खूब वगत राग न्हिवलोना! 'हे लोक कितले असभ्य. गांधीजींमुखार लेगीत फट उलोवपाक तांकां लज दिसना!'

तो मनीस निमाणेमेरेन नेटान सांगतालो, 'हांव ह्या डब्यांत चुकून भितर सरलां.' फुडल्या स्टेशनार तो सकयल देंवलो.

दिसाचें, खूब थाण्यांवयल्यान खाण-फळांनी भरिल्ले कंडे आनी जेवण लेगीत गर्देंतल्या लोकांकडच्यान आमकां पावतालीं. कनूभाय आनी ताच्या पालव्याचे भुकेल्ले दोळे 'हमालीचेर' नदर लावन आसताले.

पूण बापूचे भुकेल्ले दोळे आनीक खंयतरी आसताले. दरेका थाण्यार, चुकनासतना ते हरिजन निधी खातीर पैशे जमयताले. म्हाका दिसता, हें काम १९३४ च्यान सुरू जाल्लें. तेन्ना बापून हरिजनांवतीन भारत भोंवडी केल्ली. आनी तें काम निमाणे मेरेन चालू आशिल्लें. बापू जनेलांतल्यान हात भायर काडटाले आनी खिणाक तांचो हात पयशांनी भरतालो. आमी लेगीत आमचो हात वा लेंस भायर काडटाले. लोक दुसऱ्यांक पयशे कित्याक दितात हें म्हाका तेन्ना कळना आशिल्लें. पूण आमचे हात पयशांनी भरतात हें खरें आशिल्लें. केन्नाकेन्नाय अशें जातालें, पयल्या थाण्यार पयशे जमा जाल्यात ते मेजून सोंपता म्हणल्यार आमी दुसऱ्या थाण्यार पावताले.

खूब खेपे म्हाका प्रस्न पडटालो. बापू तांचेकडेन पयशे कित्याक मागतात हें

तांकां खबर आसा? जेन्ना ते घरा परते वतले तेन्ना अस्पृश्यताय विसरतले? तांगेल्या देणग्यांनी हरिजनांची परिस्थिती सुधारतली?

पूण जे कोण कितें दिताले, तांच्या दोळ्यांत म्हाका भावार्थ दिसतालो. ते जे सगले येताले, ते बापूक व्हडपण दिवपाक येताले आनी देखून पयशे दिताले. पूण तांणी 'हरिजन निधी' हीं उतरां आयकल्लीं आसतलीं? तांतल्या कांय जाणांक ताचो अर्थ खबर आसतलो? पूण म्हाका एक कळून आयिल्लें ते म्हळ्यार ह्या लोकांक तांच्या भावार्थाक लागून एक गजाल खबर आशिल्ली : बापू कितल्याय कामांत सामकें गुल्ल आसूं, ते गरिबांक केन्नाच विसरनात.

आनी तें बराबर आशिल्लें. देखीक, खूब फावट गाडी थाण्यार थांबिल्ली आसताली आनी बापू बरोवपांत गुल्ल आसताले. बापू हेवटेन एक हातान बरयत आसताले आनी दुसरे वटेन दुसरो हात जनेलांतल्यान भायर काडटाले. त्या वेळार ते पयशे मागना आशिल्ले. तरय, तांचो हात दुडवांनी भरतालो.

भारतीय लोक गरिबांची सेवा करतल्यांची सदांच पूजा करतात. आनी ह्या दळद्रिन्या अवताराक पळोवन तर गरिबांतलो गरीब लेगीत दान दिवपी जाल्लो. शेकड्यांनी वर्सांची ही गुलामी, गरिबी, आनी नेणारपण आसून पसून ह्या भावार्थाखातीर गरीब भौसाची उमेद जिती आशिल्ली.

हो भावार्थ पुराय देसभर उकतो आनी स्पश्ट दिसतालो. पूण आंध्र आनी बिहार ह्या प्रांतांत तो उठून दिसतालो. आंध्राच्या रेल्वे थाण्यार हजारांनी लोक जमताले. तांतल्या थोड्याच लोकांक हिंदीचीं कांय उतरां समजतालीं. पूण बापूचेर एकच् नदर तांकां धन्य करताली.

बिहारच्या लोकांक हिंदी समजताली. पूण गांधीजीचीं उतरां जमिल्ल्या लाखांनी लोकांक कशीं आयकूंक येवचीं? तरय बापूचे गाडयेचे वाटेर ते जम्यांनी येताले. थंय पावपाक अक्षरशा दिसाचे दीस चलताले. वाटेर खावपाक ते गरिबांचे थंय पिकपी दाण्यांचें 'सत्तू' लुगटाच्या कुडक्यांत बांदून हाडताले. वाटेर भूक लागताली तेन्ना ते लुगटाची गांठ सोडयताले. इल्लेशें सत्तू खाताले आनी 'गांधीजीकी जय' अशें आड्डत परत चलपाक लागताले.

केन्नाकेन्नाय, बिहारच्या लोकांचे गर्देचे ह्या अडचणींक लागून काका अचकीत

कितेंय उलोवन वताले: 'हें सगलें तुळसीदासजीखातीर जाता. हे लोक इतले पिशे जातात कारण रामाक पळोवपाक जो लोकांचो जमो वतालो त्या लोकांचेर तुळसीदासजीन आपल्या हिंदी रामायणांत स्तुतींचो पावस शिंवरला.'

हांव हळूच तिरसुवादपणान जाप दितालों. 'आनी काका, ह्या दिसांनी तूं तेंच करता जें तुळसीदासजीन केलें!'

गाडयेंत मागीर हांश्याचो खळखळ जातालो. तितले म्हणटासर गाडी दुसऱ्या थाण्याचेर पावताली.

बिहारच्या चंपारण जिल्ल्यांत घडिल्ली ही घडणूक हांव केन्नाच विसरपा ना. भारतांतल्या ह्या भागांत रेल्वे गाडयेची सेवा खूब वायट आशिल्ली. काळोख जातकच गाडयेंतले दिवे पेटल्यार आमी खूब नशिबवान समजुपाचें. गाडी इतली सवकास वताली की लोक तिचे बराबर धांवपाक शकताले.

कांय भुरगे हाचो फायदो घेताले आनी रेल्वे रुळाचे बाजून धांवताले. तांतले कांय जण डब्याचेर चडटाले आनी 'महात्माजी की जय' म्हूण व्हडल्यान आरड मारताले. मागीर कुशींतल्यान जे धांवताले तेय व्हडल्यान किळांचताले. कांय खेप कोण तरी आकांताच्या वेळार ओडपाची सांखळ ओडटालो आनी गाडी थांबयतालो.

एक फावट एके कडेन गाडी खूब वगत थांबली. म्हणटकच कितें जालां तें विचारपाक काका सकयल देंवलो. ताणें बातमी हाडली की एक भुरगो गाडयेवांगडा कुशींतल्यान धांवतना गाडयेक आपटलो. ताका भायर काडलो पूण ताचे पयलीं गाडयेचें चाक ताच्या पांयांवयल्यान गेल्लें. त्या भुरग्याक गाडयेच्या गार्डाच्या डब्यांत हाडिल्लो आनी आतां ताका वाटेर रुग्णालयांत व्हरताले.

'हावें ताका पळयलो,' काकान सांगलें, 'चाक ताच्या दोनय पांयांवयल्यान गेलां. पावलां लागीं लागीं पांयांपसून वेगळीं जाल्यांत. तो जगतलो अशें म्हाका दिसना. रगत खूब व्हांवलां.' भुरगो सुद्दीर आशिल्लो. जें कितें घडलें तें पळोवन म्हाका खूब वायट दिसलें. तो म्हणटालो, 'हांव गांधीजीचे गाडये पोंदा चिड्डलां. हांव नशिबवान न्हय?'

काकाचे दोळे भरून आयले. ताणें म्हणलें, 'आमचेकडेन असलो भावार्थ आसा!'

# 12. काका आनी बापू

काका बापू वांगडा २५ वर्सां आशिल्लो पूण इतल्या वर्सांत काकान फकत दोनच फावट सुटी घेतिल्ली आनी ती बी बरो नाशिल्लो तेन्ना. पयले खेपे ताका दिसांचो जोर आयिल्लो आनी तो हांतुणार न्हिदून आसतालो. दुसरे खेपे ताचें प्रेशर वाडिल्लें. ताणें बरोवन दिवन सुटी घेतली आनी सुशेग घेवपाक शिमला गेलो. फुडले फावट बरो नासतना ताणें सासणाखातीर सुटी घेतली. तो भायर पडलो. २५ वर्सांत ताणें आनीक कसलीच सुटी म्हणून घेतली ना. आयतार ना, सुटी ना, उबाळाची रजा ना. ताचो बापूय मेल्लो तेन्ना लेगीत तो कामाक गेल्लो.

१९३८ त, मगनवाडींत आसतना ताचो रगताचो दाब वाडलो. मदीं मदीं घुंवळ येता अशें ताका दिसपाक लागलें. कारण वर्ध्याच्या त्या उज्यांत, तो दरेक दिसा वर्ध्याच्यान सेवाग्रामाक वतालो तसो परत चलत येतालो. कांय खेपो ताका दोन दोन फावटी मारच्यो पडटाल्यो. सगले मेळून २२ मैल. वर्ध्याचें उज्या दिसांची ताप ११५ अंश ते १२० अंश आसताली.

असले कठीण परिस्थितींत, फकत काकाच बापूच्या कामाचें वजें आपल्या खांदार घेवपाक शकतालो. ह्या धा पंदरा वर्सांत, हावेंच काकान दिसाक उण्यांत उणें पंदरा वरां काम केल्लें पळयलां. जेन्ना आमी मगनवाडीच्यान सेवाग्रामाक गेलीं तेन्नाच चलप थांबलें. पूण तितलींच वरां काम वाडलें. तरय दिसाचें काम सोंपतकच, न्हिदपाक वचचें पयलीं काका कांय वगत मन पुस्तकांत घालतालो. ताणें वाचपाची संवंय केन्नाच मोडली ना. आश्रमा भितर फकत पंडीत वालजीभाय आनी बापूचो दुसरो सचीव - प्यारेलाल हांणीच वाचपांत काकाचेर मात केल्ली.

काकाचें काम म्हणल्यार बापूच्या टपालाचेर नदर मारप, कांय चिटयांची जाप दिवप. बापूक मेळपाक जे लोक येतात तांची म्हायती काडप, म्हत्वाच्या उलोवण्यांची आनी बसकांची टिपण्णी काडप; आनी हरिजन सातोळ्याखातीर लेख बरोवप वा अणकार करप. जमल्यार पुस्तक काडपाची लेगीत तयारी करप. दिसाळ्यांखातीर लेख बरोवप वा भौशीक सभांनी उलोवप.

बापूवांगडा काम करप हें सामान्याभायलें कडक व्रत आशिल्लें. आनी काका तें जशें जाय तशें निभावन घेतालो. काकाक बापूची जी पुराय वळख आशिल्ली ती ह्या कर्तुबाफाटली खरी चावी आशिल्ली. कारण ह्या संबंदामदीं, वरिश्ठाखातीर भक्ती आनी सांगात्याखातीर निश्ठा हांचो दुर्मीळ मेळ आशिल्लो.

१९१५ त काका पयले खेपे बापूक मेळपाक अहमदाबादेक गेलो तेन्ना बापून काकान जी आपली बरपावळ हाडिल्ली ती वाचली आनी सांगलें, 'तुजी सुवात म्हजे बगलेक.' हे बसकेंतल्यान परत येतना काकान आपल्या भुरगेपणांतलो इश्ट नरहरी पारीखाक सांगलें, 'म्हाका जर म्हजी वट्ट जीण खंयच्याय एका मनशाच्या पांयांकडेन काडपा आसा, तर तो मनीस हो.' ताचे पयलेच नदरेंत पडिल्लें तांचें आपलेपण फुडें पुराय वळखेंत वाडलें.

काकाक स्वताचें एक खेरीत व्यक्तित्व आशिल्लें. तें बापूपरस वेगळें आशिल्लें. बापूची प्रतिभा सूर्यावरी निबर आशिल्ली तर काकाची चंद्रावरी मोवाळ आशिल्ली. बापूची निश्ठा तांच्या कामाकडेन आशिल्ली तर काकाची एका मनशाक ओंपिल्ली आशिल्ली. बापू मनोऱ्यावरी वाड वाड वाडले आनी हिमालयावरी चकचकले. काकांत गंगा न्हंये इतली उपाट दया आशिल्ली. दोगांयमदीं इतलें अंतर आसून लेगीत तांचे मजगतची प्रकृतीक एकवटाची श्रेणी अजापाची आशिल्ली.

हांव थोड्यो देखी दितां. बरोवपाक बापू वेव्हारीक नदरेन प्रस्न हाताळपी संक्षेपाचे तज्ञ आशिल्ले. जर खंयचेंय उतर तांकां जाय ती जाप परगटायता अशें दिसल्यार ते दुसरें आनीक उतर सोदना आशिल्ले. उरफाटें, काका स्वैर कल्पनां विलासांत उडटालो. ताचें स्वताचें बरोवप सरळ हातान बरयल्ले कवितेवरी आनी सोबीत भाशे-मोडींत आसतालें. आनी तरय, काका आपल्या लेखांत बापूची पद्दत कळाशीन वापरतालो. हरिजन सातोळें वाचपी सदांच सांगताले की, लेखाच्या निमाणें लेखकाचें नांव नासत तर तांकां लेख

बरोवपी महादेव देसाई आसात काय मोहनदास क. गांधी हें कळना आशिल्लें.

काका सातोळ्यांखातीर लेख बरयतालो तो पयलीं मान्यताये खातीर बापू कडेन वतालो. बापू सादूरतायेन आनी बारिकसाणेन तो लेख वाचताले आनी गरज आसल्यार निवळायताले. पूण खूब खेपो बापूक तो लेख आपल्या विचारांकडेन इतलो जुळपी दिसतालो की बापू तेच भिरकेंत लेखासकयल आपली सय करताले आनी तो लेख मागीर तांचो म्हूण प्रसिद्ध जातालो.

बापूचो वेळ वाटावपाखातीर, जवाहरलालजी धरून सगले राष्ट्रीय फुडारी कांय गजाली काकाकडेनच उलयताले आनी तितल्यानच फुडें सगलें जातालें. पूण सगल्यांकच तें मानवतालें अशें ना. एक फावट एका पंजाबी सज्जनाक बापूकडेन उलोवंक जाय आशिल्लें. त्या मनशाकडेन कामापासतचें सविस्तरपणान उलयतकच काकान ताका सांगलें, ‘तुका आतां बापूकडेन उलोवपाची गरज ना.’ पूण त्या मनशाक तें पटलें ना. तो गेलो आनी एक फावट परत आयलो. काकाकडेन परत उलयलो आनी परत गेलो. हे फावट वतना मात ताणें एका आश्रमवाश्याक सांगलें, ‘हांव खऱ्यानीच एक दीस महादेवभायक फारान मारतलों.’ तें आयकून आवय थोडी भिली. काका फकत हांसलो.

काकाक लघुलेखनाची जाण नाशिल्ली. पूण हातान लेगीत बरोवपाचो ताचो वेग सामान्याभायलो आशिल्लो. तो कांय उतरां ल्हान करतालो पूण बापूचें एकूय उतर मदीं [illegible] आशिल्लो. एक फावट कांय अमेरिकी लोक बापूकडेन चर्चा करपाक आयले. काका तेन्ना आपल्या सदांभशेन टिपणां घेवपाक लागलो. अमेरिकी पंगडांतली एक अस्तुरीय लघुलेखना पद्दतीन आपलीं वेगळीं टिपणां घेवपाक लागली. दुसऱ्या दिसा तिणें आपलीं आनी काकालीं टिपणां तपासून पळयलीं. तीं दोनय सारकीं आशिल्लीं. ती तटास जाली.

‘तुमी म्हाका हारयलें,’ तिणें म्हळें.

पूण बापूचीं टिपणां घेवपाक काकाक फकत प्रतीलिपीचे गतीचीच गरज आशिल्ली अशें न्हय. बापूचीं भाशणां सदांच पूर्वतयारी करना आसतना केल्लीं आसतालीं. तीं सदांच सारकीं मांडिल्लीं वा मेळ आशिल्लीं नासतालीं. तीं सभावीक आसतालीं पूण वेवस्थीत

नासतालीं. काका बरयता आसतनाच त्या भाशणांची सारकी मांडावळ करतालो. एका म्हत्वाच्या राष्ट्रीय अधिवेशनांत, बापून पूर्वतयारी करना आसतना आपलें भाशण हिंदींत केल्लें, काकान रोखडेंच थंयचे थंय जगभर तारो करून धाडपाखातीर तें भाशण चलता आसतनाच ताचें यथायोग्य इंग्लिशींत भाशांतर केलें.

केन्ना कैन्नाय बापूच्या सांगात्यांक बापून कितें सांगलां हें यादच जायना आशिल्लें. तेन्ना ते आपल्याकच बुजवण दिवपा खातीर म्हणटाले, आमकां महादेवभायचीं टिपणां मेळटलीं तेन्ना कळटलें.

हावें एक फावट बापू आनी काका मजगतचे मानसीक सुमेळाची एक असामान्य गजाल दोळ्यांमुखार पळयली. दोगय बापूचे खोंपीमुखार उलयत उबे आशिल्ले. मदींच बापून म्हणलें, 'महादेव, हें बरोवन घे.' बापू सांगूंक लागले आनी काका उबो आशिल्लो तसोच बरोवन घेवपाक लागलो.

बरयतां बरयतां काकान जें उतर नोंद करून बरयल्लें ताचेपरस वेगळेंच बापून बरोवंक घालें. तेन्ना काकान तांकां मदींच आडायलें.

'बापू, रावात. हांवें वेगळेंच उतर बरयलां. तें सोडून तुमी दुसऱ्याच उतराचो उपेग कित्याक केलो?

बापू तटास. कारण ते लेगीत उतरांविशीं शिट्टूक आसताले.

'महादेव, तुवें हें दुसरेंच उतर कशें वापरलें? हावें आतां जें घालां तें उतर सोडल्यार दुसऱ्या उतरांचो केन्नाच उपेग करिना.

मागीर तांचेमदीं बापूक उपेग करपाखातीर खंयचें उतर चड फावोशें आसा हाचेर वाद सुरू जालो. बरोवंक घालपाक जितलो वेळ लागतलो आशिल्लो ताचेपरस चड वेळ ह्या वादान घेतलो. निमाणें, बापून जें सांगिल्लें तें उतर दवरलें. ताचे पयलीं महादेवान बरयल्लें उतरय तितलेंच बराबर आशिल्लें हें बापून मानून घेतलें.

# 13. बापूचें प्राणीसंग्रहालय

काकान एक फावट सेवाग्राम आश्रमाचें 'गांधीजींचें प्राणीसंग्रहालय' अशें वर्णन केलें. बापू भोंवतणी सदांच आगळे वेगळे मनीस जमिल्ले आसताले. खूब खेपो, स्वातंत्र्य चळवळींतलें मुखेल पात्र आनी बापूचे राजकीय सांगाती सरदार पटेल, तांतल्या कांय जाणांक पळोवन तिडकताले. मागीर काका ताका सांगतालो, 'बापू वैज. वैजा भोंवतणी सदांच पिडेस्त आसतातच न्हय?'

म्हज्या मनांत हांगा आश्रमांतल्या लोकांची सगलीं विक्षिप्तपणां वा वेगळेपणांची वर्णना करपाची ना. वा हांव तशें करचोय ना. साबरमती आश्रमांत एक मनीस आशिल्लो जो दरेक जेवणा वेळार सारक्यो मेजून पंचावन चपात्यो खातालो. जर केन्नाय चुकून ताका चवपन पडत तर तो बोब मारतालो: ''कितले चामटे तुमी! तुमकां म्हाका [illegible] मारपाचें आसा?' तर केन्नाय चुकून शप्पन पडत, तरय किळांचतालो: 'तुमी म्हाका भकारो राकेस समजतात?' अशे तरेन वळवळपी आनी भकारे हाचे मजगतची तारेवयली कसरत तो करतालो.

सेवाग्रामांत आनीक एक मनीस रावतालो. ताचेकडेन म्हजें एक दीस अशें उलोवणें जालें.

'तूं ह्या दिसांनी कसले प्रयोग करता?' हावें विचारलें.

'दरेका दिसा कितें एक ना दुसरें आसताच. सद्याक उदकाचेर चल्लां.'

'म्हणचे तापयल्लें उदक पिवपाचेर? काय उदकाचे उपचार करपाचेर?'

‘न्हय, जेवणाखाणाच्या वा भलायकेच्या कारणाचेर न्हय. हे फावट वापरिल्ल्या उदकाचेर.’

‘म्हणचे?’

‘म्हणचे मान्नें, पायखिळो धुवपाक उण्यांत उणें उदक कशें वापरप?’

‘खरेंच?’

‘हय, इल्लें इल्लें उणें करून हावें आतां मेरेन दोन ओंसां उदक वापरपाचें उणें केलां. देशांतल्या खूबश्या वाठारांनी उदकच मेळना. आमी जर हांगा कांय प्रमाणात उदक वाटायत...’

वर्ध्यांत उदक वाटायल्यार, देशांतल्या ज्या भागांत उदकाचो उणाव आसा तांकां ताचो कसो फायदो जातलो हें ताणें समजावन सांगलें ना. पूण भुरग्यांचे सडेतोडपणाचे खाशेले अधिकार वापरून हावें ताका मर्दीच थांबोवन सुचयलें, ‘हय, पूण बैलांक सामकीच उदकाची गरज आसना.’

तरय, असले हे विक्षिप्त सभाव आसून पसून, आश्रमवाश्यांकडेन मोलादीक अणभवांचो उणाव नाशिल्लो. तांतल्या कांय जाणांच्या भोंवतणी आसप हो दुर्मीळ सन्मान आशिल्लो. म्हाका असोच एक मनीस मुजरत येवजता. तो भोळेपणान आनी विक्षिप्तपणान भरिल्लो. चड करून तो एकटोच कुशीन रावतालो. तरय ताणें एक फावट ब्रिटीश सरकाराक हालयलो. ताचें नाव आचार्य भन्साळी - आमचो भन्साळीकाका.

पयलो देखावो. एक मोडपा अवस्थेंत पाविल्लें खेड्यांतलें घर. एक मनीस - अर्द पिसो, अर्द धर्मीक - आड पडला. आमचो एक कामदार थंय येता.

‘तुमी, भन्साळीभाय? असले अवस्थेंत?’

हाका जाप म्हूण गडगडो कसो हांसो आयकूंक आयलो. पूण एकय उतर ना. तो कामदार ताच्या दरेक पांयांतले पंचवीस ते तीस कांटे काडपाक ताका मजत करपाक लागलो. ताचीं पुलेल्लीं चवनां निवळ केलीं. ‘कांय दीस हांगा सुशेग घेयात.’ पूण कांटे काडटकच तो पूज्य मनीस चलूंक लागलो.

कामदार ताचे फाटल्यान गेलो. 'तुमी कित्याक उलयनात?'

भन्साळीकाकान फोलीच्या कुडक्यार बिरबिटायलें : 'बारा वर्सांचें मौन.'

'आवयस! बारा वर्सां?'

भन्साळीकाकाचो आंकडो केन्नाच ल्हान नासतालो. ताणें पयलो उपास चाळीस दीस केलो, दुसरो पंचावन दीस, आनी तिसरो ताणें सरकाराक हालयलो तो त्रेसस्ट दीस.

हे कांटे आनी घाय म्हणटात ते ताणें स्वताक कॅक्टसाचेर न्हिदोवन केल्ल्या प्रयोगाचो परिणाम आशिल्लो.

पूण आमी फाटल्यान या आनी हे काणयेची सुरवात पळोवया.

भन्साळीकाका साबरमती आश्रमासाकून चलून हिमालयांत वतालो. ताच्या आश्रमांतल्या पंचावन दिसाच्या उपासान कशेंतरी ताचें मन पिशावरी केल्लें. हिमालयांत वतना ताणें बारा वर्सांचे मौन पाळपाचें थारायल्लें.

डोंगरांतल्यान खूब तेंप चलतकच, तो परत पठाराचेर आयलो. एका दिसा रातचो तो गोरवांच्या गोठ्यांत न्हिदलो. रातच्या हेडटल्या गोरवांच्या आवाजान तो मदींच जागो जालो. आनी व्हडल्यान आडूडलो, 'कोण थंय?' इतल्यांत ताच्या लक्षांत आयलें ताणें मौनाचो सोपूत मोडला. तेन्नाच ताच्या मनांत रातच्या न्हिदांत लेगीत सोपूत मोडचो न्हय म्हूण एक झकास कल्पना तयार जाली. ताणे ती कल्पना रोखडीच प्रत्यक्षांत हाडपाचें थारायलें. पूण तो उपाय करपाक म्हूण एक शेट सोदपाक ताका बरेंच पयस चलत वचचें पडलें.

ते शेटीन एक तांब्याची सरी घेतली. बरीच तांबडी जायसर तापयली आनी बन्साळीकाकाचे दोनय ओंठ शिंवले. त्याच शेटीन एक बारीकशी नळी केली. ती एके वटेच्यान तोंडांत घालपाची आनी दुसरेवटेनच्यान तातूंतल्यान जाय तें पेय रकोवपाचें. त्या वेळार बन्साळीकाकाचें खाण सादें पीठ आनी कोडू निमाचीं पानां आशिल्लीं. पीठ उदकांत भिजयतालो आनी नळयेंतल्यान ओडटालो. नीम पानां एके वटेच्यान तोंडांत चोंदूंक मेळटालीं. भन्साळीकाकान त्या शेटीचे उपकार मानले आनी

थंयच्यान गेलो.

दुसरो देखावो : भन्साळीकाका सेवाग्राम आश्रमांत पावतकच बापून ती सरी काडून उडोवपाक फर्मायलें.

तिसरो देखावो : मगनवाडी. भन्साळीकाका आपल्या बारा वर्सांच्या मौनाक दसून राविल्लो. पूण देवाचें नांव घेवपाक तें आडवाद धरचें बापून ताचे कडेन वाद घाल्लो.

भन्साळीकाकाच्या दोनय खांक्यांक फोड आयिल्ले. कोणाकय ते पळयतकच ओंकारे येताले. तरय ताका सूत कांतपापसून कोणच आडावंक शकना आशिल्लो. दरेक फावट सूत ओडपाक जेन्ना तो हात फुडें काडटालो तेन्ना रगत वा पूं ताच्या खांक्यांतल्यान भळभळीत भायर येतालों. तो व्हडल्यान हांसपाक लागतालो. म्हणटकच आनीक पूं भायर सरतालो. एक फावट तपासपाक म्हूण बापून ताका रुग्णालयांत धाडलो. वैजान पूं काडपाक एक बारीकशी नळी भितर घाली. भन्साळीकाका जोरान हांसपाक लागलो. वैजान काकाक सांगलें, 'हावें म्हजे जिणेंत असलो पिडेस्त केन्नाच पळोवंना. आनी तसो कोणय आसल्यार म्हाका खबरय ना.'

केन्ना केन्नाय मद्यान राती, तर केन्ना केन्नाय दिसाचो लेगीत भन्साळीकाका व्हडल्या व्हडल्यान आड्डतालो, 'देवा, ईश्वरा, परमेश्वरा !' हें आड्डप गडगडो आसतालें. तो अशें आड्डतालो तेन्ना ताच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवतालीं वा तो तनरेंत आसतालो. भन्साळीकाकान ईश्वर पळयला अशें काका मानतालो. भन्साळीकाकान तें केन्नाच न्हयकारलें ना.

बापू आनी भन्साळीकाका मजगतीं उलोवणीं चालूच आसतालीं. बापू उलयताले आनी भन्साळीकाका बिरबिरायतालो. उलोवणीं करता आसतना ताणें मौन सोडचें म्हूण बापून ताका पटोवन दिलें. पयलीं भन्साळीकाका फ्रेंचीचो शिक्षक आशिल्लो. ताणें शिकोवपा पुरतेंच मौन सोडचें म्हणुनूय बापून ताका पटयलें.

देखाव चवथो : सेवाग्राम. हांव म्हजो शिक्षक भन्साळीकाका मुखार बसतालों. ताचें चरख्याचें चाक घुंवतालें. भन्साळीकाकाचे म्हऱ्यांत गाजरान भरिल्लो पांटलो आसतालो. सगलो दीस म्हणल्यार तो लागीं लागीं सगले गाजर खातालो. फकत

तांतले कांय थोडे ताचे विद्यार्थी व्हरताले. त्या दिसा भन्साळीकाका आनीक कसलेंच जेवणखाण घेना आशिल्लो.

दुसऱ्या दिसा, पांटलो पेरांनी भरिल्लो आसतालो. मदीं मदीं पेरां आनी गाजरा सुवातेर साय काडिल्ल्या दुदाची बालदी आसताली. खाण कितेंय आसूं, रास तितलीच आसताली.

कांय तेप, भन्साळीकाका फकत खाजूर खातालो. पूण ते ताका लागतात अशें दिशिल्ल्यान ताणें ते सोडून दिले. उप्रांत ताणें लसूण चालू केली. एक वा दोन कांदे न्हय तर दोनशीं तीनशीं खातालो. ताणें ताका पिडा भरली. मरपाचोच वांचलो. त्या वेळार सरदार पटेल सेवाग्रामांत आशिल्ले. ताणी विचारलें, 'भन्साळी, तुवें तुका मारून उडोवपाचें येवजिलां काय कितें?'

'तें वयल्याची इत्सा थारायतली.'

सरदार हांसले आनी म्हणलें, 'तुका जर तो मेळत, तर म्हजोय नमस्कार ताका सांग.'

आनीक एक प्रयोग : गोरवांखातीर उदकान भरिल्ल्या दोणांत, हड्डें मेरेन आपल्याक उदकांत बुडोवन तकलेर तीस पौंडाचो फातर दवरून भन्साळीकाका बशिल्लो. कोणें तरी विचारलें, 'कितें चल्लां?'

'कांय ना. ध्यान करतना म्हाका माथें कशेंय करून थंड दवरपाक जाय. खरें म्हणल्यार, पांयांक राजू बांदून आनी तकली सकयल करून बांयंत हुमकळपाचें आशिल्लें. पूण आश्रमाचो कारभारी – चिमणलालभायन सांगलें, –'पयलीं बापूची मान्यताय घे. म्हणटकच हावें तांकां बरयलें. ताणी न्हयकार दिलो. हावें परत बरयलें, 'उण्यांत उणें म्हाका दोणांत तरी बसूंक परवानगी दी.' ताणी दिली.'

'पूण तकलेर फातर कित्याक?'

'हें पळय, पयल्या दिसा हांव येवन बसलों. गोरवां उदक पिवपाक म्हूण सामकीं म्हजे म्हऱ्यांत आयलीं. आतां तीं परतीं आयलीं, तर तांची शिंगां पळोवन हावें एकदम उठचो न्हय म्हूण हांवें हो फातर दवरला.'

बापू नाशिल्ले. ते आश्रमांत परत येतकच मात ताणी हो प्रयोग बंद केलो.

कसलेय गजालीक भन्साळीकाकान कितलोय हट धरू, बापून 'ना' म्हणटकच तो केन्नाच वाद घालना आशिल्लो. एक फावट एक पिसावल्लो कोलो आश्रमांत आमकां कांय जाणाक चाबलो. भन्साळीकाकाक तर तीन कडेन चाबलो. पूण ताणें कोणाकच सांगलें ना. कोणेतरी चाबिल्ली खूण पळयली, तेन्नाच कळ्ळें. ताणें वखताची सूय तोंपून घेवपाक न्हयकार दिलो. बापून आदेश दिलो तेन्ना मात तयार जालो. मागीर सूय तोंपून घेवपाखातीर वर्ध्याक गाडयेन वचपाक न्हयकार दिलो. परत बापून आदेश दितकच तयार जालो.

हावें एकच फावट भन्साळीकाकाक बापूचे आड भुमिका घेतिल्ली पळयला. एके बायलमनशेन एक बारिकशी सादीच चूक केली. बापून तिका आश्रम सोडून वचपाक सांगलें. ती विधवा आशिल्ली. भन्साळीकाकाक दिसलें, बापू तिचेर अन्याय करतात. ताणें बापूक सांगलें, 'ती जर हांगाच्यान वचत, तर हांवय वतलों.' बापून ताचें आयकलें.

गरीब आनी दुर्बळ लोकांक जें सोंसचें पडटा, तें पळोवन भन्साळीकाकाक खूब त्रास जाताले. तांचेर अन्याय लादल्यार ताका जाळ पडटाले. स्वातंत्र्य मेळटकच, तेलंगण जिल्ल्यांत जमीन सुदारणेखातीर, साम्यवादी झुजारी लोक झगडटाले. लिपून रावन दुस्मानाचेर अचकीत धुरी घालताले. तांकां सरकार धरपाक लागतकच ताणें सरकाराक बरयलें, 'म्हाकाय धरात. हांवंय साम्यवादी. साम्यवादी जो अहिंसेक मानता.'

ताचे आदीं, अश्टी – चिमूर हांगा ब्रिटीश शिपायांनी कांय बायलांचेर संघटीतपणान बलात्कार केल्लो. ताका लागून तो काळजा भितरल्यान उचांबळीत जालो. तेखातीर ताणें जो उपास केलो तो भारतीय इतिहासांतलो न विसरपी अध्याय आसा. पयले पंदरा दीस ताणें उबोच रावन उपास केलो. पोटांत उदकाचो थेंब लेगीत घेतलोना. फुडले उपायाचे अठ्ठेचाळीस दीस तो हांतुणार पडून आशिल्लो.

एक एक दीस वचपाक लागलो. १९४२ च्या बंडानिमतान केल्ल्या ब्रिटिशाच्या छळान भौस चेतना वगडावन बशिल्लो, तो परत जागृत जाल्लो. बापूक बंदखणींत उडयतकच भारतीय लोकांनी रेल्वेचो विद्वाट केल्लो, टेलिफोनाच्यो सरयो कापून

उडयल्ल्यो, टपाल पेटयो लासल्यो. त्या दावपेचांत आपूण कसो कठोरपणान सामकार वचूंक शकतां हें सरकारान दाखोवन दिल्लें. पूण एके उजू चलणुकेचेर शेक आशिल्ल्या, साधू पुरसाच्या उपासाच्या नितीक शस्त्राक कसो सामकार वचप हातूंत सरकार सामकेंच गोंदळांत पडिल्लें दिसलें. निमाणें, सरकारान चवकशी करपाचें आश्वासन दिलें आनी अशे तरेन, भन्साळीकाकान भारतीय अस्तुऱ्यांची इज्जत राखली.

आज भन्साळीकाकाची भलायकी सामकी वायट आसा पूण गांवांतल्या उदरगतींच्या कामांक ताणें स्वताक झोकून दिलां. जर सेवाग्राम प्राणीसंग्रहालय, तर भन्साळीकाका तांतले, तायट मानेन धेंपां घालीत वचपी शींव.

# 14. संस्थानां

स्वातंत्र्या आदीं, भारताच्या चडश्या भागाचेर ब्रिटिश राज्यकर्ते राज्य करताले. तर तिसऱ्या वांट्याचेर संस्थानांची राजवट चलताली. ह्या प्रांतांचेर, ब्रिटिशाच्या वर्चस्वाखाला वंशपरंपरेन राजा राज्य करताले. राष्ट्रीय स्वातंत्र्य चळवळीचो वांटो म्हूण खूबश्या ह्या प्रांतांत, प्रांतीय सरकारां घडोवपाची चळवळ सुरू जाल्ली.

ह्या चळवळींनी आपणे स्वता वांटेकार जावप ना वा भारतीय राष्ट्रीय काँग्रेसीक लेगीत पयस दवरप अशें बापूचें जायतो काळ धोरण आशिल्लें. हाचे दोन बरे परिणाम जाले. एक म्हणचे काँग्रेस आपली पुराय शक्त सरळ ब्रिटिश सरकाराचेर केंद्रीत करूंक शकली. दुसरें, खूब प्रांतांनी ज्यो कांय चळवळी चालू जाल्यो त्यो स्वतंत्र उरल्यो आनी त्यो त्या त्या प्रांतांतले फुडारी चलयताले. स्वतंत्र जातकच, हांतलीं शेकड्यांनी राज्यां रोखड्यारोखडीं भारतांत विलीन जालीं. अशें जावपाचें मुखेल कारण म्हणल्यार, त्या चडश्या प्रांतांतलो भौस पयलींच स्थानीक चळवळींक लागून ते खातीर तयार जाल्लो.

पूण आपलें सर्वसाधारणपणान अशें धोरण आसून लेगीत बापू ह्या चळवळींपसून चड काळ पयस रावूंक शकले नात. चळवळीचे फुडारी चुकनासतना मार्गदर्शनाखातीर तांचे सरीं येताले. आनी जेन्ना परिस्थिती हाताभायर गेली तेन्ना बापूक भितर सरचेंच पडलें.

प्रांतीय सरकाराचे चळवळी वगतार म्हैसूरचे जनतेचेर अत्याचार जावपाक लागले. तेन्ना थंयच्या फुडाऱ्यांनी बापूक मजतीपासत उलो मारलो. संस्थानांचे राजवटींतलें

म्हैसूर हें चड खाशेलें राज्य आशिल्लें. थंय एक कर्तुत्वी दिवाण आशिल्लो. तो अत्याचाराचे आरोप कशे मानून घेतलो? ताणें सांगलें, 'तुमी स्वता येयात आनी पळयात.' म्हणटकच बापून काकाक चवकशी करपाक धाडलो. हांवय ताचेवांगडा ताचो बरपी म्हूण गेलों. आमी बगळूरांत रेल्वे थाण्यार पावले. तेन्ना आमचे खातीर थंय खूब गाडयो वाट पळयताल्यो. एक गाडी चळवळींतल्या फुडाऱ्यांची आशिल्ली. एक सरकारी गाडी आशिल्ली. दिवाणाच्या प्रतिनिधीन आमकां सांगलें, 'तुमी सरकाराचे सोयरे. देखून आमी तुमची सरकारी सदनांत रावपाची वेवस्था केल्या.'

भारतांतल्या मुखेल संस्थानाच्या सदनांत उणें पडपासारकें कितें आसूंक शकता? बंगळूर तर एक सोबीत शार. सदनाची सुवात तर ताचेपरस सोबीत आशिल्ली. आमच्या कुडींनी फुलांच्यो कुंड्यो दवरलेल्यो. जेवणाखाणा विशीं तर विचारुंकच नाका. काका सौंदर्याचो मोगी आशिल्लो. तो सामको भारावन गेलो. मागीर पयल्याच दिसा दिवाणाकडेन दीर्घ उलोवणीं जालीं.

दिवाणाकडेनच्या उलोवण्यान काका सामको दिपकावला अशें म्हाका दिसलें. सानवेळा काफी पितना, राज्यान कसली आनी कितली उदर्गत केल्या हें म्हाका ताणें सविस्तरपणान सांगलें. ताणें केल्ली ती तोखणाय आयकतना हावें अचकीत मदींच म्हणलें, 'काका, तुजो 'वुडरो विल्सन' जाला !'

''म्हणल्यार कितें?'' काकान विचारलें.

'पयलें संवसारीक झूज सोंपतकच वुडरो विल्सन इंग्लडाक गेलो तेन्ना ताका कितें जालें हें तुमकां खबर आसा? ताका लंडनांत आनी आशिकुशीच्या देशांत थाटाचो येवकार मेळ्ळो. तुमीच म्हाका सांगूं नाशिल्लें, ह्या पावणारामदीं न्यायाक धरून ज्या चवदा मुद्द्यांवयल्यान तो शांतीकाय प्रस्थापीत करूंक सोदतालो, त्या मुद्द्यांचोच ताका विसर पडलो. तशेंच आतांय जालां. पावणार हांगा तुमचेर परिणाम करूंक लागला. पूण विसरूं नाकात. तुमी हांगा सोद घेवपाक आयल्यात.' हावें सांगलें.

काकान परिक्षा घेवपाचे नदरेन विचारलें, 'म्हणचे तूं म्हजो आतां सल्लागार जाला, न्हय?'

पूण खरेपणान, ताणें म्हजो सल्लो मानून घेतलो. ताचे उप्रांत, ताणें म्हैसूर सरकाराची

तोखणायूय केली ना आनी ताची नालस्तीय केली ना. ताणें प्रतिक्रिया व्यक्त करता आसतना सगळें फकत आयकलें.

आमी राज्याची भोंवडी सुरू केली. आमी जाहीर सभांनी, बंदखणींनी, भौशीक आनी खासगी भेटींनी पुलिसांच्या अत्याचारांच्यो गजाली आयकल्यो, ते वरवीं खंयचोय मनीस थरथरतलो आशिल्लो! आनी तांतले कांय अत्याचार तर राज्याच्या सरकारी अधिकाऱ्यांसामकार घडिल्ले अशें चवकशी करतकच कळ्ळें. गवाय आयकतकच आनी पळयतकच काकाचो संताप भक् करून पेटलो.

ह्या अणभवावयल्यान म्हाका एक कळून आयलें की संस्थानाचे राजवटी आड चळवळ करप, ब्रिटिशाआड चळवळ करचे परस कठीण. राष्ट्रवादी चळवळींत दुस्मान हो आधुनीक सरकार आसता आनी ताका उण्यांत उणें आपूण कायद्यान आनी नितीन आसा अशें बेठेंच वयलेवयर तरी दाखोवचें पडटा. संस्थानी राजवटींत, सरकारांक असलें कांय बंधन नासता. राज्यान कितली सुधारणा केली वा करपाचो प्रयत्न केलो हाका म्हत्व नासता. राजवट सदांच पोरण्याच काळांतली आसता.

आमची भोंवडी सोंपतकच काकाचें दिवाणाकड़ेन खूब वेळ उलोवणें जालें. आमी ताचेकडेन रातचे जेवणय जेवले. पूण त्या थोड्याच दिसांनी कितें पळयलें आनी कितें आयकलें हें काका विसरूंक शकलेनात.

बंगळुरांत निमाण्या दिसा सानवेळा, एक भौशीक सभा दवरिल्ली. काका आपूण जें कितें सोदून काडलें तें उलयलेनात. ताका पुराय नियाळ सरळ बापूकडेन सोंपोवपाचो आशिल्लो. पूण कांय शेरे मारतना तो स्वताक आडावंक शकलोना. ताणें भौसाक सांगलें, 'हावें तुमचें सोबीत राज्य पळयलें. तुमचेर जे अत्याचार जाल्यात ताच्यो काणयोय आयकल्यो. हावें तुमचो सुंदर गिरसप्पा घसघसो पळयलो. तो जगांतलें एक नवल जावन आसा, हातूंत दुबाव ना. गरीब लोक आपले कमरेभोंवतणी राजू बांदतात आनी आपल्या जिवाकडेन खेळटात, हेंय हांवें पळयलें. ते घसघश्या फाटले खांचींत सकयल देंवतात आनी पारव्यांनी जमयल्ले दाणे आपल्या पोटापाणया खातीर वापरतात. इतलें भयंकर दळदिरपण आशिल्लें खंयचेंय राज्य स्वताक सुधारणावादी कशें म्हणूंक शकता हाचो म्हाका अदमास लागना.'

आमी केल्ल्या नियाळाविशीं दिवाण खोशी नाशिल्लो. हें आमकां वर्ध्याक परत येतकच कळ्ळें. काकाचो सोद एकेच दिकेन आशिल्लो अशें ताणें बापूक बरोवन सांगलें. बापून मात काकाचो नियाळ अंतीम धरलो. दिवाणान चड मस्ते आशिल्ल्या कांय पुलीस अधिकाऱ्यांक कामावयल्यान बडतर्फ केले, हेंय मागीर आमकां कळून आयलें.

१९३९ त, राजकोटांत मात संस्थानाचे राजवटींतले चळवळींत बापूक सरळ स्वताक घुसपावचो पडलो. पयलीं ते चळवळींत कस्तुरबा भितर सरली. वाडिल्ली पिराय आसतना आनी भलायकी बरी नासतना लेगीत ती राजकोटचे बंदखणींत गेली. बापून थंय दोन फावट उपास केलो. निमाणें भारताचो मुखेल न्यायाधीश, सर मावरीस ग्वायर हाचेर न्यायलयामार्फत सगले प्रस्न सोडोवपाचें काम सोंपयलें. काका ताचेकडेन गेलो आनी आमचे मुद्दे मांडले. निकाल पुरायपणान राजकोटच्या लोकांचे बाजून लागलो. म्हणटकच सभावीकपणान सगलो भौस खोशी जालो.

पूण राजकोटचो दिवाण सादेपणान सोडपाचो नाशिल्लो. ताणें बापूक विचारलें, 'तुमकां म्हजेकडेन उलोवणीं करपाचीं आसात काय ग्वायराच्या निकालावयल्यान धेंक घालपाचो आसा?' बापूच्या अंतर्मनांतले अहिंसेन तांकां रोखडेंच विरोधकाबराबर वच असो शिटकायलो. तांणी सांगलें, 'हांव कोणाचेंच अंतस्करण ग्वायराच्या निकालावयल्यान बदलूंक शकना. हांव निकाल लक्षांत धरना आसतना तुमचेकडेन उलोवंक सोदतां. हावें ग्वायराचो निकाल कुशीन दवरपाचो थारायला.'

बापूचे हे करणेचो अर्थ कळपाक राजकोटच्या आनी देशाच्या लोकांक कांय वेळ लागलो. तांच्या हातांत पयलींच आयिल्लें जैत बापू स्वता जावन वगडायतात अशें तांकां पयलीं दिसलें. पूण बापूखातीर तें तितलें म्हत्वाचें नाशिल्लें जितलें अहिंसा पाळप आशिल्लें.

बापूखातीर तो आपले करणेचे पवित्रतायेचो प्रस्न आशिल्लो. परिणाम आमच्या हातांत ना, तो ईश्वराच्या हातांत आसा. आमच्या हातांत कितें आसा तर थंय वचपाची वाट. ते खातीर आमची करणी पवित्र आसूंक जाय हाचेर आमी जोर दिवपाक जाय. बापून निमाणेमेरेन ताचेर नेट दिल्लो.

आमच्या कांय राष्ट्रीय फुडाऱ्यांच्या हिसपान, बापूच्या धोरणांत राजकीय शाणेपण नाशिल्लें. बापूच्या निर्णयान राजकोटचे चळवळीचें जैत फुडें धुकल्लें हें खरें. पूण त्याच वेळार संस्थानांचे राजवटींतल्या चळवळींक ताणीं नवें मेजमाप दिलें. गांधीजीच्या फुडारपणाच्या खंयच्याय करण्यांक निवळ पवित्रताय दवरपाची गरज आसा हें ह्या चळवळींच्या फुडाऱ्यांक आतां कळून आयलें. चळवळीन आतां पुरायपणान नवी नदर आपणायली.

निमाणें, राजकोटची चळवळ ही जिकपाचीच आशिल्ली. जंय इतिहासीक शक्त्यो ब्रिटिश राजवटीक चिड्डिताल्यो, थंय राजकोटचो गरीब दिवाण खंय तगतलो? पूण बापूचे हे करणेन वट्ट भारतांतल्या आंदोलनांक अध्यात्मीक रुपकार दिलो. राष्ट्राचें शीळ बांदून काडपाक बापूची ती आगळी वेगळी देणगी आशिल्ली.

# 15. एकच धनी पुरो

जाची खेड्याचे उदरगतीखातीर वा राष्ट्र बांदपाखातीर मजत जायना तसलो एकय राजकीय वा समाजीक बदलाचो कार्यक्रम बापून राष्ट्रामुखार दवरलो अशें म्हाका दिसना. स्वदेशी चळवळीन परदेशी जिनसांचेर बहिश्कार घालो आनी तेखातीर परदेशी लुगटांक उजो लावन लासप जालें. पूण तेच बराबर, भारतांतल्या गरिबीक म्हत्व दिवन बापून खादी आनी गांवांतले उद्देग धंदे विकसीत केले. अस्पृश्यताय मुळासकट ना करपाक तांणी खेड्यांतले भौशीक भलायकेचे उपाय विकसीत केले. पुराय इतिहासांत घडये असो एकय फुडारी जालोना जाणें दशाहीन पोरण्याक रजा दितनाच नवेंय बांदपाचो विडो उखल्लो.

तेच भशेन, थळाव्या भाशेवरवीं प्रांतांची शीम थारावपाचे चळवळी वांगडाच ताणी एकच राष्ट्रीय भास म्हूण हिंदीक मान्यताय दिवपाचो कार्यक्रम हातांत घेतलो. (भारतांत सोळा भासो आनी शंभरांवयर बोली आसात. उत्तर भारतांतले चडशे लोक पयली वा दुसरी भास म्हूण हिंदी उलोवंक शकतात. तर दक्षिणेंतल्या शिकिल्ल्या लोकांमदी इंग्लीश सगले जाणात.) बापून दक्षीण भारतांतल्या लोकांक हिंदी शिकपाक सांगलें आनी उत्तर भारतांतल्या लोकांक एक तरी दक्षीण भारतांतली भास शिकपाक आवाहन केलें. ताणी आपलो एक पूत देवदास हाका हिंदी शिकोवणी दिवपाखातीर मुजरत दक्षिणेक धाडलो.

बापूचे राजकीय कार्यक्रम जितले उर्बेन मुखार व्हरप जालें तितले उमेदीन तांचे विधायक कार्यक्रम व्हेलेनात अशें खंतीन म्हणचें पडटा. तशें केल्लें जाल्यार घडये, स्वतंत्र जातकच सरकारी भाशेच्या धोरणाआड दंगे जावन भारताच्या दायजाक काळो

दाग लागचो नाशिल्लो. (आज दक्षिणेक लोकांच्या हिंदी विरोधाक लागून, इंग्लीश दुसरी सरकारी भास म्हूण मिरयता.)

बापूक भास आनी 'विधायक काम' हीं दोनय एकटांय जावपाक जाय अशें पोटतिडकेन दिसतालें. एका वेळार, ते सूत कांततात म्हणल्यार दर दिसा एक वर तांकां वर्तमानपत्र वाचून दाखोवपाचें काम म्हजेकडेन आशिल्लें. एक दीस डॉ. सर्वपल्ली राधाकृष्णन, नामनेचे तत्वगिन्यानी आनी उप्रांत स्वतंत्र भारताचे राष्ट्राध्यक्ष, बापूक मेळपाक आयले. आपूण उपकुलगुरू आशिल्ल्या नामनेच्या बनारस हिंदू विद्यापिठांत हावें तांचे खाला शिकूंक येवचें अशें ताणी सुचयलें. भारत स्वतंत्र जायसर हांव खंयचेच शाळेंत वा महाविद्यालयांत वचपाना असो म्हजो निश्चेव हावें तांकां सांगलो.

ते मागीर बापूकडेन म्हजे विशीं उलयले आसूंक जाय. कारण, दुसऱ्या दिसा वर्तमानपत्र वाचूंक हांव बापू सरीं बसलों तेन्ना ताणी म्हळें, 'आयज आमी वर्तमानपत्र वाचचें न्हय. आमी तुज्या फुडारा संबंदान उलोवया. तुवें राधाकृष्णनांची सुचोवणी न्हयकारली हें बरें केलें. तरय, तूं फुडें कितें करतलो हें आतांच येवजूंक जाय.'

हावें सांगलें, 'तें येवजुपाक एक वर नाका, पांच मिणटां खूब जालीं.' उपरांत हावें सांगलें, 'म्हजो फुडार कसो आसतलो हें हावें पयलींच येवजून दवरलां. आज तुमचे कांय सांगाती राजकारणी जाल्यात. दुसरे विधायक कामांनी मग्न आसात. म्हाका ह्यो दोनय गजाली आपआपले परीन मोटव्यो कश्यो दिसतात. हांव दोनांयमदलो सांकव जातलों.'

म्हाका तितलेंच सांगपाचें आशिल्लें. फुडल्या तीन मिणटांत बापून म्हाका मार्गदर्शन केलें. दिल्लें एक वर सोडलें आनी फकत पांच मिणटां घेतलीं. हें तुजें म्हाका खूब आवडलें. तुवें तुज्या फुडाराखातीर जो पर्याय वेंचला तोय उत्तम आसा. ताका पाळो दिवपाक तुवें दोन गजाली करच्यो पडटल्यो. एक, खादीचो सिद्धांत आनी अभ्यास बारिकसाणेन शीक. दोन, भारतांतल्यो सगल्यो भासो जाणा जावन घे. भारताची वळख जावपाखातीर ताची खूब गरज आसा.'

बापूक दक्षीण भारतीय भास तामीळ तशी येताली. ते साव्थ आफ्रिकेक आशिल्ले, तेन्ना ताणी कबलातीर आशिल्ल्या भारतीय मानायांच्या अन्याया आड मोहीम

सुरू केल्ली. बापूकडच्यान हो संकेत घेवन काकानय तामीळ शिकपाक सुरवात केल्ली. काकाचो तामीळ शिक्षक, श्री अरुणाचलम हाणें म्हाका एक दीस सांगलें, 'महादेवभायक हांव तामीळ शिकयतालों. भाशेच्यो खूब बारिकसाणी ताका लागून म्हाका कळूंक पावल्यो. भास कशी शिकोवप, हें हांव तांचे कडल्यान शिकलों अशें तुज्यान म्हणपाक जाता.'

बापूचें एकूय विधायक काम अशें नाशिल्लें जें काकान फटाफट आपणें आपणायलेंना. सूत कांतपाक ताची निश्ठा काळजा थावन आशिल्ली. तो कितलोय कामांत आसूं, सूत कांततालोच. जिविताच्या निमाण्या दिसांनी दिसाक सुमार एक वर आनी ५०० वार सूत कांतपाचो ताणें नेम केल्लो. तो सूत कांतताना म्हाका शिकयतालो. कारण म्हाका दिवपाक म्हणटात तो होच वगत ताचेकडेन आशिल्लो. तो ज्या दिसा गेलो ताच्या पयल्या दिसा लेगीत ताणें ५०० वार सूत कांतिल्लें.

काका आनी भाशा हे विशीं उलयतना म्हाका एके घडणुकेचो उगडास जाता. तो हांव सांगतां.

आमी दक्षीण भारतांतले एके शाळेंत गेल्ले. थंय हिंदी शिकोवप फळादीक जाल्लें. बापूचो सांगाती आनी दुसऱ्यांक पावपी, जमनालाल बजाज आमच्या वांगडा आशिल्लो. रेल्वे गाडयेंतल्यान वर्ध्याक परत येतना, आमी अशे एके सुवातेर पावले जंय कृष्णा न्हंय दोन दोंगुल्ल्यांमदल्यान व्हांवता. तो देखाव उत्कृश्ट दिसतालो. आज [illegible] सरयांनी गुथिल्लें एक धरण आसा. पूण त्या दिसांनी थंय शुद्ध सैमाचें वैभव आशिल्लें.

ही सुवात रमण महर्शी संताच्या आश्रमापसून पयस नाशिल्ली. हालींच त्या आश्रमाक जमनालालजीन भेट दिल्ली. त्या आश्रमाचे आपले भेटेविशीं बापूक सांगतना, थंयच्या पवित्रताय आनी शांतीच्या वातावरणाविशीं तो सगलीच तोखणाय करतालो.

काकाक सदांच अध्यात्मीक विद्वानांच्या भाशणान हिसपाभायर आनंद जातालो. आतांय बी रावपाक जायना जावन तो जमनालालजीक रमण महर्शी विशीं प्रस्नार प्रस्न विचारपाक लागलो. तिगय सामके संभाशणांत गुल्ल जावन गेल्ले. अचकीत बापून

विचारलें, ‘महादेव, तूं एक दीस आश्रमाक कित्याक भेट दिना?’ काकाक एकदम धसको बसलो. जमनालालजीनय ताका पालव दिलो. ‘खरेंच, तुवें भेट दिवपाकच जाय. येता त्या रेल्वे थाण्यार तुज्यान गाडी बदलूंक जाता. आनी तुका चड पयस वचूंक नाका. तूं इतले लागीं आसतनाच भेट कित्याक दिना? तुका परत वेळ केन्ना मेळटलो?’

काकान म्हाका आपलें हांतूण बांदपाक सांगलें. रेल्वेगाडी थाण्याचे लागीं लागीं पावताली. जमनालालजी बापूक सांगतालो, ‘म्हाका जी मनाची शांती थंय मेळ्ळी न्हय, ती म्हाका तुमच्या आश्रमांत लेगीत केन्नाच मेळुंना.’ कांय खिणा उप्रांत बापून काकाक सांगलें, ‘परत येवपाक ताकतीक करनाका. तुकाय जर तितलीच मनाची शांती मेळत, तर आनीक थोडे दीस थंय राव. कामाची चिंता करूं नाका.’

बापून हें सगलें सादेपणान सांगिल्लें. पूण अचकीत, बापूपसून इतले दीस पयस रावपाची कल्पना काकाच्यान सोंसूंक जायना जाली. तो म्हजेकडेन वळ्ळो आनी सांगूंक लागलो, ‘बाबला, हांतूण सोड.’

म्हाका अजाप जालें. बापूय अजापीत जावन ताचेकडेन पळोवंक लागले. ताणी विचारलें, ‘महादेव, कितें जालां?’

‘हांव वचना!’

‘कित्याक?’

‘म्हाका एकच धनी पुरो.’

# 16. दयेचो अवतार

भारतांतल्या उबाळाच्या दिसांनी शिमलाच्या दोंगरां मदीं विसव घेवपाक कोणाक आवडपाना? थंड वारो, दोंगराचें सौंदर्य, भोंवपाक दोन दोन दोंगरांमदीं अशीर प्रदेशः धवींच कुपां आनी धव्याच पक्षांचीं भिरीं आमच्या आत्म्यांक अक्षरशा अंतराळांत व्हरतात.

दरेक गिमाळ्यांत, दिल्लीची गरमी सोंसूंक जायना जावन, ब्रिटीश अधिकारी आपली मुखेल कचेरी शिमलाक हालयताले. शिंयाच्या आनी पावसाच्या दिसांनी पडंग दिसपी शिमला, उबाळाच्या दिसांनी पश्चिमी देशांच्या लोकांच्या खेतबागड्यांपासत जितें जातालें. व्हॉयसरायाचो राखणदार, राजेशाहीक सोबसारक्या ताच्या घरामुखावयल्यान बुटाचो टक् टक् आवाज करीत पारो दितालो. दोंगरा सकयल युरोपी लोक तांबड्या घोड्यांचेर बसून पोलो खेळपाच्या मळार हेवटेच्यान तेवटेन भोंवताले. अधिकाऱ्यांच्यो बायला कुत्र्यांच्यो सरपळ्यो धरून पासयेचेर वयर सकयल पासयो मारताल्यो. त्यो एका वर्साक एका कुत्र्याचेर जो पयसो मोडटाल्यो तो भारतीय मानायाच्या वर्साच्या पगाराइतलो आसतालो. शिमलाक, युरोपी लोक माकडांक नाचोवपाक कट्ट्यांची फळां तांचेमुखार उडयताले. हीं फळां चडश्या भारतीय लोकांक केन्नाय चुकून खावपाक परवडटालीं. एका दळदीरपणान भरिल्ल्या देशाचें, उबाळाच्या दिसांनी हें राजपाटण आसतलें, हाचें कोणाक सपन तरी पडिल्लें?

हिटलरा आडच्या झुजांत भारत इंग्लडाक सांगात दितलो, अशी १९३९ क शिमलाक व्हॉयसरायान घोशणा केली. पूण ते खातीर भारतीय फुडाऱ्यांक विश्वासांत घेवपाक ताणें तकालस घेतलीना. सभावीकपणान, भारताच्या स्वाभिमानाक मार

लागलो. झुजावेळार भारताचें धोरण कशें आसचें ह्या मुद्द्याचेर काँग्रेसींत एकमत नाशिल्लें. पूण ह्या विशयाचेर बापून व्हॉयसरायाकडेन उलोवचें हाचेर मात सगल्यांचें एकमत आशिल्लें.

म्हणटकच, चिड्डिल्या माड्डिल्या लोकांचे प्रतिनिधी म्हूण बापून सोबीत शिमलांत पावल दवरलें. आपलें सदाचें आंगोस्तर, सदांची शाल आनी सदांची सादी तेजस्वी नुरा. आनी अचकीत शिमलाचो कायापालट जालो. शिमलाच्या पश्चिमी पद्दतीच्या वैभवाक बापूचें दर्शन घेवपाक आयिल्ल्या लोकांच्या जम्यान गिराण लायलें.

वाटाघाटी चालू आसतना मदींच उलोवणीं थांबोवचीं पडलीं. व्हॉयसरायाक इंग्लंडासून कांय नव्या सुचोवण्यांची गरज पडली. आनी ते खातीर एक सप्तक लागतलें आशिल्लें. आमी तें व्हडलें मनार घेतलेंना. आमकां कुशीनच्या दोंगरांतल्यान भोंवपाचीं मनभुलयणीं सपनां पडूंक लागलीं.

पूण बापूचो आदेश आयलो : 'सामान बांदात!'

'खंय वचपाक?'

'सेवाग्रामाक, आनीक खंय!'

'पूण फुडल्या सप्तकांत उलोवणीं परत चालू जावपाचीं आसात,' काकान म्हणलें.

'हय.. आसात पूण मदीं दोन दीस तरी आमकां सेवाग्रामांत काम करूंक मेळटलें.'

'सेवाग्रामांत म्हत्वाचें अशें कसलें काम आसा?'

'परचुरेंची उस्तवारी काडपाक जाय हें म्हत्वाचें न्हय?'

काका ओगी रावलो. बापूक परचुरेची उस्तवारी कित्याक म्हत्वाची आशिल्ली हें समजूंक आमकां कांय वर्सां फाटीं वचचें पडटलें.

एक दीस सेवाग्रामाक सानवेळा, एक आश्रमवाशी आयलो आनी बापूक म्हणूंक लागलो, 'फाटल्यान गोरवां बांदून दवरल्यांत थंय एक मनीस आयला आनी तो

तुमचेकडेन उलोवंक सोदता. तो म्हऱ्यांतय येना आनी आपलें तोंडय दाखयना. तो तुमकां वळखता अशें दिसता.'

बापू फाटल्यान गेले. त्या एकांतांत रावतल्या मनशान बापूक पयसुल्ल्यान साश्टांग नमस्कार केलो आनी संस्कृतांतले कांय अध्याय म्हणले.

'परचुरे शास्त्री, तुमी हांगा कितें करतात?'

परचुरे शास्त्री संस्कृताचे प्रकांड पंडित. कांय काळ ते साबरमती आश्रमांत राविल्ले. मागीर आपल्या भुरग्यांचो सांबाळ करपाखातीर ते गेले. उपरांत आपल्याक कुश्टरोग जाला हें तांकां कळून आयलें.

खूब पयलीं नेणारपणांतल्यान समाज कांय लोकांक आपले पसून पयस दवरतालो. कुश्टरोगीय तांतले एक. हजारांनी वर्सां कुश्टरोग हो बदनाम जाल्लो रोग आशिल्लो. आनी ते खातीर खंयच्याय वेळार, जगांतल्या खंयच्याय भागांत कुश्टरोग्यांक पयस दवरताले. भारतांतय परिस्थिती वेगळी नाशिल्ली. देशाच्या एका भागांत कुश्टरोग्यांक दर्यांत बुडोवन मारताले अशेंय म्हणटात.

परचुरे शास्त्रीन सांगलें, 'रोग जडार पावला. समाज म्हाका आपणावपाक तयार ना. हावें मरपाचें थारायलां. म्हाका म्हजे निमाणचे दीस तुमच्या पाख्याखाला सारपाचे आसात. देखून हांव हांगा आयलां. म्हाका दिसाक पावाच्या दोन कुडक्यांपरस चड लागपा ना. म्हाका आश्रमांत रावूंक दियात.'

खंयच्याय मनशाचें काळीज, जाका दुसऱ्याच्यो यातना आपल्यो अश्यो दिसतात, रोखडेंच कळवळटा. 'तुमकां आश्रमांत रावपाक म्हजी मान्यताय आसा. पूण तुमकां मरपाक म्हजी परवानगी ना. हांव स्वता तुमचें काडटलों. तुमकां मरपाक दिवपाना.'

हो वेळ मेरेन, भारतांतल्या कुश्टरोग्यांची उस्तवारी फकत ख्रिश्चन धर्मप्रचारक काडटाले. दुसऱ्या खंयच्याय धर्मांचे लोक तांकां लागीं लेगीत घेना आशिल्ले. बापून आपल्या ह्या निर्णयाचेर खूब विचार केलो. घडये तांकां दुसऱ्या आश्रमवाश्यांचें मन आनी संसर्गाच्या शक्यतायेविशीं येवजूंक जाय आशिल्लें. कुश्टरोग हो संसर्गीक आसा अशें धरून कुश्टरोग्यांक तेन्ना खूब भिवयताले. पूण आतां विज्ञानान कुश्टरोग हो देवी वा क्षयरोगाइतलो संसर्गीक न्हय अशें सोदून काडलां. तरय भिरांत आशिल्ली.

कुश्टरोग्यांची उस्तवारी काडटना कांय धर्मप्रचारक हाचे पयलीं मेल्ले.

पूण बापू भिवून फाटीं सरलेनात. रोखडीच, बाकी लोकांपसून पयस पूण बापूचे खोंपी सामकार शास्त्रींजी खातीर एक खोंप बांदली. शास्त्रींजीखातीर खाण तांचेच खोंपींत तयार करताले. बापूचे देखरेखीखाला योग्य पद्दतीन उस्तवारी सुरू जाली. हरशीं तेन्ना कुश्टरोग्यांक हात लावप हें भयानक धरताले. तरय बापूची शास्त्रीजींचे सेवेंत आंगाची मसाजय आसपावताली.

परचुरे शास्त्री सेवाग्रामाक आयिल्ले तेन्ना तांचो रोग खूब बळावल्लो. तो हरशीं आटापाक येवपा नाशिल्लो. पूण बापूचे जतनाये खाला तांकां मात्शें बरें दिसपाक लागलें. ताची प्रेरणा घेवन बापूच्या एका हिंदू सांगात्यान वर्ध्या लागींच कुश्टरोग्यांपासत एक चिकित्साविज्ञान वसणूक उगडली.

आतां आमी पयलींच्या प्रस्नाकडेन वळुया. फकत दोन दिसांखातीर शिमलाच्यान सेवाग्रामाक वचपाक बापून आदेश कित्याक दिलो?

बापूखातीर, व्हॉयसरायाकडेन उलोवणीं करप हें कुश्टरोग्याची उस्तवारी करप हाचेपरस चड मोलादीक नाशिल्लें. तांचे खातीर, वैयक्तीक सेवा आनी सामाजिक चळवळ हीं एका तोलाचीं आशिल्लीं. म्हणटकच देशाची सेवा ते जितल्या भावार्थान करताले, तितल्याच भावार्थान पिडेस्तांची जतनाय काडटाले. ताका लागून ताणी वैयक्तीक पावंड्यार केल्ल्या कसल्याय कामाक सामाजिक म्हत्व आयलें. अशान तांचें शीळ क्षितिजाचे रुंदाये येदें वाडलें.

एके तरेन कुश्टरोग्यांची जतनाय घेवप हें प्रतिकात्मक जालें. तातूंत समाजांतल्या सगल्या घराभायर घाल्ल्या लोकांचो हुस्को आशिल्लो. तळागाळांतल्या लोकांचे उदरगतीनच तर बाकी सगल्या लोकांची उदरगत सुरू जाता.

दुसऱ्यांची सेवा करपाक बापूक खूब सहनशक्ती आशिल्ली. पूण बापून जिजस क्रायस्टावरी परचुरे शास्त्रीच्या कुष्ठरोगाची जी सेवा केली ते सेवेन बाकीच्या सगल्या सेवेंचेर मात केल्ली.

# 17. कस्तुरबा

इतिहासांतल्या व्हडल्या व्हडल्या मनशांचे जिणेंतल्या बायलांचे भुमिकांचेर नदर मारत तर तो एक लक्षांत घेवपासारको अभ्यास जावपाक शकता. असल्याच खूब बायलांवरी, कस्तुरबान लेगीत आपल्या घोवाच्या जिवितांत एक म्हत्वाची भुमिका वठयली. पूण तिचे भुमिकेक एक खाशेलो सभावगूण आशिल्लो. जाणटेपणांत लेगीत ती पयलीं पयलीं सादी नेणार बायल आशिल्ली. पूण जेन्ना गेली तेन्ना बापून तिचेविशीं अशें म्हणलें, 'ती एक सर्वव्यापी आवय आशिल्ली.'

खंयचीय सामकी सादी व्यक्ती आपले जिणेंत अशें धेंप कशी मारूंक शकता? एक खरें, महात्मा गांधीसारक्या मनशाकडेन लग्न जाल्यारच तशी संद मेळटा. आनी कस्तुरबाची प्रगती, जो मनीस पयलींच सगल्या वटांच्यान प्रगतीशील आशिल्लो ताचेकडेन मेळ जाल्ल्यान, जाली. पूण फकत लग्न हें एकच कारण नाशिल्लें. खऱ्या अर्थान पळोवपाक गेल्यार ती फकत एक बायलच न्हय तर एक सांगातीय जाल्ली.

महात्म्याच्या वांगडा आसतना धर्माक पाळो दिवप सादी गजाल नाशिल्ली. जशें काकान सांगलां, तें ज्वालामुखीचेर बशिल्लेवरी आशिल्लें. बापूवयल्या पुराय भावार्थाखातीर बा तें हाताळपाक शकली. पूण त्याच वेळार, भावार्थाचे मजगतीं ती एक मनीस म्हूण रावली. एकेकदां तिणें बापूक परत रुळार हाडला.

एक फावट दक्षिण आफ्रिकेंत, एक हरिजन कारकून बापूवांगडा काम करतालो आनी तांचे वांगडा रावतालो. ताचो कांसो साफ करपाक बान न्हयकार दिलो. राग येवन बापून तिका घराभायर काडपाचो यत्न केलो. बा काकुळटेक येवन रडपाक

लागली, 'तुमकां लज दिसना? हे परदेशी भुंयेर हांव खंय वतलीं?' बापू स्वता ही घडणूक दोळ्यांत दुकां हाडून सांगताले. कारण ते धर्मसिद्धांतान कुड्डे जाल्ले. हे घडणुकेन तांचे दोळे उगडिल्ले.

ताचे उप्रांत, पुराय जिवितभर, बान आपलें वेगळेपण दवरलें. ती तांचे सत्वपरिक्षेंत वांटेकार जाली. तेच बराबर, तिणें आपले जिणेची पद्दत बदलली. पूण हें सगलें तिणें आपखोशयेन केलें. दुसऱ्या धर्मांतल्यान लेगीत घेतिल्ले बापूचे प्रार्थनेंत ती प्रामाणीकपणान वांटो घेताली. पूण तेच बराबर ती ज्या हिंदू धर्मांत वाडली, त्या धर्माचे परंपरेच्या प्रथांचेर तिणें निश्ठा दवरली.

आश्रमांतल्या बापूच्या वाडिल्ल्या घराब्याच्या सदस्यांनी, 'बा'चे भितर आपली आवय पळयली. पूण ह्या व्हडल्या घराब्याखातीर 'बा'न बापू वरी केन्नाच आपल्या स्वताच्या भुरग्यांवयलें लक्ष उणें केलें ना.

तिचो व्हडलो पूत हरिलालकाका हाणें तिका सगल्यां परस चड हालहाल करपी सत्वपरिक्षेंतल्यान वचपाक लायलें. ताच्या तरणाटेपणासावन ताका उपचारीक शिक्षणाक मनाय केली म्हूण ताचें मन बापूविशीं कोडसाणेन भरिल्लें. तेन्नाच्यान बापूचें तो कांयच आयकना जालो. आनी बायल मरतकच तर तो सामकोच वायट संगतीक लागलो आनी आड वाटेन वचपाक लागलो. बाक तें पळोवन खूब दुख्ख जालें. बापूचे तिडकेन ताणें इस्लाम धर्माक वेंग मारली. तेन्ना बान आपल्याक यातना जातात तें ताका काकुळटेची चीट बरोवन कळयलें. पूण हरिलाल काकाची प्रतिक्रिया अशी आशिल्ली : 'ती चीट 'बा'न बरोवंना. दुसऱ्या कोणेतरी ती बरयल्या आनी तिचें नांव घालां.'

पूण काळजाच्या खंयच्च्या तरी एका कोनशाक हरिलालकाकाक बा विशीं मायेची ओड आशिल्ली. एक खेप, वर्ध्याक परत येतना आमची गाडी खंयचे तरी रेल्वे थाण्यार थांबिल्ली. तेन्ना, लोकांमदल्यान आमी एक घोशणा आयकली जी सदांपरस वेगळी आशिल्ली : 'माता कस्तुरबाकी जय!' अशी कोण घोशणा घालता म्हूण आमी हेवटेन तेवटेन पळोवंक लागले.

तो हरिलालकाका आशिल्लो. तो सामको बडक जाल्लो. ताचे फुडले दांत पडिल्ले. केंस पिकिल्ले. आपल्या पिंजिल्ल्या कपड्यांतल्या बॉल्सांतल्यान ताणें एक मोसंबी

काडली आनी सांगलें, 'बा, हावें ही तुजेखातीर हाडल्या.'

मर्दीं पडून बापून म्हणलें, 'म्हजेखातीर कांय हाडुंना?'

'ना. तुवें हें जें कितें मोठेपण जोडलां तें फकत बाक लागून हें विसरूं नाका.'

'ते विशीं दुबाव ना. पूण तूं आतां आमचे वांगडा येता न्हय?'

'ना. हांव फकत बाक पळोवंक आयलां. बा, ही मोसंबी घे. हावें ती भीक मागून घेतल्या. आनी आतां तुका दितां.'

बान ती मोसंबी घेतली. पूण हरिलालकाकाचें समाधान जावंनाशिल्लें. ताणें परत सांगलें, 'ती फकत तुजेखातीर. तूं खावची ना जाल्यार ती म्हाका परत दी.'

बान मोसंबी आपूण खातलीं म्हूण उतर दिलें. मागीर ती हरिलालकाकान आपले वांगडा येवचें म्हूण अक्षरशा पांयां पडली.

हरिलालकाकाचे दोळे दुकांनी भरले. 'असलीं हीं उलोवणी आतां सोडून दी बा. म्हजेखातीर ताका आतां कांयच अर्थ उरुंना.'

फुडें उलोवपाक आनी वेळ नाशिल्लो. पिल्लूक वाजिल्ली. गाडी हालपाक लागिल्ली. हरिलालकाका तिका परत परत उगडास करतालो, 'बा, म्हजी मोसंबी फकत तुजेखातीर.'

जेन्ना आमचो डबो ताचेपसून पयस गेलो, बा एकदम शिटकावली. 'ताका कितेंय जाय जाल्यार विचारलें ना. आमचे कडेन कण्डे भरून फळां आसात. म्हजो पूत भुकेन तळमळटा आसतलो!'

पूण ते म्हणसर गाडयेन रेल्वे फलाट सोडिल्लें. सगली खेट 'गांधीजीकी जय' अशे नारे लायताली आनी तांचेमर्दीं, दुबळो असो एकच नारो आयकूंक येतालो, 'माता कस्तुरबाकी जय!'

बाचे सगले पूत तिचेपसून पयस आशिल्ले. मणिलालकाका दक्षिणआफ्रिकेक आशिल्लो आनी बापून थंय सुरू केल्लें तें 'इंडियन ओपिनियन' सातोळें चलयतालो. रामदासकाका नागपुराक आशिल्लो आनी एक सादी नोकरी करून कुटुंब पोसतालो.

देवदासकाका ‘हिंदुस्तान टायम्स’ ह्या नांवाजत्या वर्तमानपत्राचो कार्यकारी संपादक आशिल्लो. पूण बा चीं नातरां वा बापूचे पुतणये आनी पुतणयो आनी दुसरे नातेवर्गी साबरमतींत वा सेवाग्रामांत रावतालीं. म्हणटकच, अशे तरेन बाक आपली आवयची माया आचरणांत हाडूंक मेळटाली.

हांचे बगर, बाक बापूचे कांय अवांतर ‘सोयरे’ हांची आपलेच धरून जतनाय घेवची पडटाली. एक फावट कांय हरिजनांनी सरकारच्या पक्षपाताआड निशेध करपाक ‘सत्याग्रह’ करपाचो थारायलो. तांची सत्याग्रहाची कल्पना बापूचे कल्पनेपरस खेरीत आशिल्ली. जेन्ना बापू अन्यायाचो निशेध करपाक सत्याग्रह करताले, तेन्ना तातूंत जिवाक भंय आसतालो. ह्या हरिजनांचोय बापू करताले तसो सत्याग्रह करपाचो बेत आशिल्लो पूण तातूंत चड धोको नाशिल्लो. एका दिसा एका वेळार एकच मनीस उपास करपाचो आशिल्लो.

ह्या हरिजनांनी सत्याग्रह करपाक आश्रमांत आपल्याक सुवात दिवची म्हूण बापूलागीं मागलें. बापून तांकां आश्रमा भोंवतणी पासय मारून खंयची सुवात आवडटा तें पळोवपाक सांगलें. सगलीं घरां पळयतकच तांणी बाचें मातयेचें घर पसंत केलें. ह्या घराक बारा चौरस फूट एक कूड, एक बल्कांव आनी एक न्हावपाची कूड इतलेंच आशिल्लें. त्या हरिजनांनी ती व्हडली कूड आनी बल्कांव मागलीं. न्हावपाची कूड बा खातीर दवरली.

बापून बाक विचारलें, ‘तूं कितें म्हणटा? ह्या लोकांक तुजी व्हडली कूड आवडली. आमी दिवया न्हय ती तांकां!’

बान म्हणलें, ‘तीं तुजीं भुरगीं. तुज्या घरांत तांकां सुवात दी.’

बापून हांसत सांगलें, ‘म्हजीं भुरगीं हीं तुजींय भुरगींच न्हय?’ आनीक एक उतर उलयनासतना, बान ती कूड दिली.

हो सत्याग्रह थोडे दीस चल्लो. ह्या सत्याग्रहींचो जागो घेवपाक नवे सत्याग्रही येवं नाशिल्ल्यान तो आपशींच बंद जालो. पूण जितलो तेंप तो चल्लो, बाची कूड सत्याग्रहींच्या ताब्यांत उरली. ते लोक निवळ नाशिल्ले. तरय बान तें सोंसून घेतलें. तितलेंच न्हय तर ती तांकां पिवपाक उदक हाडटाली आनी तांचे भलायकेची वासपूस

करताली. एक फावट बा न कोणाकूय आपलीं भुरगीं मानलीं, मागीर तीं निवळ आसूं – नासूं, आपल्या भुरग्यांक आपणें आपलेपणान सांबाळपाक जाय इतलें तिका खबर आशिल्लें.

हरशीं, जेवण बापू वाडटाले आनी आपल्या सगल्या जेवणाखाणाच्या प्रयोगाविशीं सोयऱ्यांक बारिकसाणेन समजावन सांगताले. 'हे भाजिल्ले चपातेंत कुलेरभर भाजपाचो खार घाला. तुमकां खबर आसा हो हालवो कित्याचो केला.? चोकून पळय आनी तुका कळटलो. नीम पानाची रूच कोडू आसता पूण गूण न्हय. लसूण हें रगताच्या दाबाक बरें वखद.'

बापूक वाडपाक बा मजत करताली. पूण ती धंय, खडीसाकर आनी दुसऱ्यो असल्यो वस्तू वाडटाली. आमकां भुरग्यांक बापूपरस बा जें वाडटा तातूंत चड रुची आसताली. आनी बाय आमकां भुरग्यांक वाडटना आनंद लुट्टाली. कोणय जर आश्रमाक मिठायेचो पुडो दीत, तर ती तो आमचे खातीर कुशीन काडून दवरताली. भोंवडे वेळार लेगीत ती आमच्या जेवणाखाणाचेर बारिकसाणेन नदर दवरताली.

तिका नवें नवें शिकूंक जाय आशिल्लें. ते बाबतींत ती केन्नाच जाणटी जालीना. एक खरें की बापूचो सांगात हेंच एक मोठें शिक्षण आशिल्लें. पूण हावें असलेय खूब लोक पळयल्यात, जे बापूवांगडा रावून पसून पयलीं इतलेच सडेतोड उरले. पूण बा न्हय. तिचें भाशेवयलें प्रभुत्व सामकें उणें आशिल्लें. ते नदरेन पळयल्यार तिका गिन्यानाचीं दारां लागीं लागीं बंदच आशिल्लीं. म्हूण ती फाटीं रावलीना. ती ल्हान भुरग्यांचे उमळशिकेन नवें शिकपाक फुडें सरताली.

एक फावट तिणें म्हाका आपयलो आनी विचारलें, 'बाबला, तूं ह्या दिसांनी कितें शिकता?'

हावें सांगलें, 'इंग्लिश, विज्ञान, भुमिती, मेस्तकाम, हिंदी व्याकरण आनी रामायण.'

इंग्लीश आनी गणीत बाच्या आवाक्या भायलें आशिल्लें. म्हणटकच तिणें म्हणलें, 'तूं म्हाका रामायणाचे धडे दिता?'

हांव गोंदळ्ळों. हावें म्हणलें, 'बा, तुवें ते रामनारायणजीकडेन शिकल्यार बरें

जातलें. तोच म्हाका तें शिकयता. हांव ते नव्यानच शिकतां.'

बान सांगलें, 'नाका! म्हाका दिसना ताका वेळ आसतसो. आनी म्हाका असो कोणय जाय जो गुजरातींत समजावन सांगतलो. पळय, तूं सकाळीं ताचेकडच्यान जें कितें शिकतलो, तें म्हाका सानवेळा शिकय. हांवय नवीच आसां.'

ताचे फुडें कांय दीस, सत्तर वर्साचे पिरायेचे कस्तुरबान, पंदरा वर्सांचे पिरायेच्या बाबलाकडच्यान रामायणांतले धडे घेतले. आतां लेगीत हांव जेन्ना त्या पुस्तकांची पानां चाळटां, हांव म्हजे मुखार रामाची बायल सीता - संवसाराची आवय पळयतां. जी आनीक एका संवसाराचे आवयचे - कस्तुरबाचे कुशीक बसल्या. दोगांय शुद्ध, शांत सभावाचीं आनी भक्तीभावान भरिल्लीं आशिल्लीं.

# 18. दुसरें संवसारीक झूज

दुसऱ्या जागतीक झुजाच्या आरंभाक, भारतीय राष्ट्रीय फुडाऱ्यांक विचारलेबगर, भारत इश्ट राष्ट्रांचे वटेन आसा अशें व्हॉयसरायान जाहीर केलें. जशे जशे दीस वचपाक लागले तशे तशे झुजाचे तयारेन भारतांतलें वातावरण बदलून उडयलें. झुजाच्या प्रयासा आड उलयल्यार तें उलोवप गुन्यांवगारी धरतले अशें सरकारान सांगलें. बापून उलोवपाच्या स्वातंत्र्याचे बंदीक आव्हान दिवपाचें थारायलें.

पूण कसलें हें चमत्कारीक संवसाराभायलें आव्हान! लडायेंतल्यो बंदुको गरजतात, झणझणटात. ज्युस्त उरफाटें, ह्या आव्हानांत बोवाळ ना. स्वातंत्र्याच्या नांवान झूज झगडपी, आनी तरय उलोवपाच्या मुळाव्या स्वातंत्र्याक चिड्डून उडोवपी सरकाराचे आड तो एक सादो नितीक निशेध आशिल्लो! सत्याग्रहाच्या थारायल्ल्या मोव मार्गान व्यक्त करपाचो! दरेक मनशान सविनय कायदेभंग करचो अशें बापून सांगलें. थारायल्ले मनीस सरकाराचो आदेश झुगारून झुजाचे आड उलयतले अशें थारलें.

कायदेभंगाच्या पयल्या अंकाक बापून आपलो सांगाती विनोबाक वेंचलो. तो चड उजू चलणुकेचो आनी प्रज्ञावंत उंचायेचो अनुयायी आशिल्लो आनी वर्ध्याचे कुशीक एका ल्हान आश्रमांत रावतालो. ताकाच मागीर बापूचो 'अध्यात्मीक वारस' म्हूण वळखुपाक लागले. पूण ह्या वेळार विनोबा भौसा वळखिचो नाशिल्लो. देसांतले भितरले आनी भायले लोक विचारपाक लागले : 'हो विनोबा कोण?' बापून आपल्या ओडलायणे पद्दतीन एक लेख बरोवन विनोबाची वळख करून दिली. ताणी ताची व्हडवीक गायत म्हणलें : 'विनोबान हातान घुवंडावपाचे टकळेची सगली लिपून आशिल्ली शक्त उस्तून काडल्या.'

जगाक हे टकळेचें आनी शक्तीचें कितें करपाचें आशिल्लें? तें बरोवप लोकांक विनोबाची वळख कशें दिवपाक शकतालें? काकान मागीर आनीक इल्ली चड, सारकी वळख दीत आनीक एक लेख बरयलो.

विनोबाक भितर बंदखणींत उडयतकच, बापून दुसरो सत्याग्रही म्हूण जवाहरलालजीक वेंचलो. ताचे उप्रांत सत्याग्रह आनीक खर जालो. झुजाच्या प्रयासाचेर उकतेपणान आरोप करत देशांतले हजारांनी लोक बंदखणींत गेले. हे सगले सत्याग्रही बापूचे वतीन काकान थारायल्ले. जीं नांवां सुचयल्लीं, वा काकाक जांची पुराय जाण आशिल्ली वा तांची व्यक्तीगत म्हायती आशिल्ली, तिचे वरवीं ही वळेरी तयार केल्ली. हो सगलो वावर करपाक जाय देखून मोहीम काबार जायसर, बापून काकाक सत्याग्रहांत भाग घेवपाक दिलोना.

स्वातंत्र्याचे चळवळी आदीं, भारत नेणारपणाचे आनी उदासीनतायेचे सुस्त न्हिदेंत एका हारावरी पडून आशिल्लो. बापू राजकीय माचयेर येवचे पयलीं पाव शेंकडो सुमार, राष्ट्रीय फुडाऱ्यांनी ओग चाळोवन घालून देशाक जागोवपाचे यत्न केले. ब्रिटिशांपसून देशाक मेकळो करप आनी ब्रिटिशांक धावंडावप ही देशाची मुखेल मोख आशिल्ली.

हे भावनीक वाटेक बापून आनीक एक मूळतत्व जोडलें : अध्यात्म. सत्याग्रहाचो सिद्धांत आशिल्लो, 'आमचें झगडें ब्रिटीश साम्राज्या आड आसा. ब्रिटीश लोकां आड ना.' अशे तरेन बापून भावनेक वेव्हारीकपण जोडलें. दरेक मनशान आपल्याक जितलें समजता ते कुवतीप्रमाण हो सिद्धांत मान्य केलो.

हे मोहिमेंत, सादारण मनशाचो आगळोवेगळो सभावगूण आनी आगळ्या वेगळ्या मनशाचो किरकोळ सभावगूण देशाच्या सगल्या कोनशांनी उक्ताडार आयलो. देशाच्या ज्या लोकांक कसलेंच स्थान नाशिल्लें, तांणी आपलीं घरां, जनावरां, शेतां सोडलीं आनी देशाखातीर ते बंदखणींत गेले आनी थंय आदर्श सत्याग्रहीवरी वागले. दुसरे वटेन, राष्ट्रीय नांवलोकिकाचे कांय फुडारी नाईलाजान वा थारायिल्ले सत्याग्रहींचे छापिल्ले वळेरेंत आपलें नांव येवचें इतलेच खातीर बंदखणींत गेले. बंदखणींतलें तांचें वागप सादारण गुन्यावगारांपरस पाशट आशिल्लें. ह्या बंद्यांक खेरीत वळख आसून पसून तांचे शिस्त नाशिल्ले चालचलणुकेन काकाचीं आनी बापूचीं काळजां पिंजून उडयलीं.

तिसरे वटेन, बंदखणींतले जिणेविशीं दरेकाली प्रतिक्रिया वेगळी वेगळी आशिल्ली. कांय जाणांखातीर बंदखण म्हणल्यार दुसऱ्या बंद्याचे हात पळोवपाची वा व्यायाम

करपाची, वा कोण केन्ना सुट्टले हाचेर पैज मारपाची संद आशिल्ली. कांय दुसऱ्यांखातीर, तो गिन्यानाच्यो नव्यो सुविधा सोदून काडपाचो वेळ आशिल्लो. तर आनीक कांय जाणांखातीर, बंदखण म्हणल्यार खोलायेन शिकप आनी चिंतन करपाचो वेळ आशिल्लो. ह्या शिकपाच्या आनी चिंतनांतल्यानच तीन दसकांतलें बरें बरें साहित्य जल्माक आयलें.

१९४० चे तशेंच १९४२ चे चळवळींतल्या असल्या वेगवेगळ्या प्रतिक्रियांखातीर भारतीय भौस हो धवळून काडिल्ल्या महासागरावरी आशिल्लो. ह्या धवळांतल्यान भायर सरताल्यो दोन गजाली. जिवे करपी रामबाण उपाय आनी विखूय बी. स्वातंत्र्य मेळटकच दोन दशकांनी लेगीत, अजून भारत तीं दोनय अणभवता.

ह्या वेळावयली म्हाका एक घडणूक सांगूंक जाय.

एक दीस काका आयलो आनी म्हाका सांगूंक लागलो, 'आज तुवें एक इतिहासीक चीट टायप करूंक जाय.' म्हाका खबर आशिल्लें की बापूच्या खूब चिटयांक इतिहासीक म्हत्व आशिल्लें. पूण जेन्ना काकानच ताचो पुनरुच्चार केलो, तेन्ना ती चीट कसली आसतली काय हाची म्हाका उमळशीक लागली.

ही चीट अदोल्फ हिटलराक बरोवपाची आशिल्ली. त्या वेळार हिटलर हो हिंसेन विध्वंस करपी मुर्तीमंत विद्वाटो आशिल्लो. तर बापू अहिंसेचो कोणाक लागनाशिल्लो सर्वश्रेष्ठ पुजारी आशिल्लो. संवसाराक पुराय विध्वसांत ओडचें न्हय अशी काळजांतल्यान विनंती करपी ती चीट आशिल्ली. ह्या झुजाच्या भोंवऱ्यामदीं, ती चीट हिटलराक मेळ्ळी काय ना तें देवाकच खबर! तरय चडशा सैतानांभितर मनीसपणाची, मनीस मुल्ल्यांची नस आसताच. ती जर परत पेटयत, तर मनीस बदलूंक शकता. बापूची चीट पातकांतल्यान सोडवण मेळटा ह्या भावार्थाची खुणा आशिल्ली.

जेन्ना चीट जाहीर केली, तेन्ना राजकीय तज्ञांक तें अर्थ नाशिल्लें कशें दिसलें. तथाकथीत शाण्यांक, अहिंसेच्या जल्मजुगाच्या पुजाऱ्याचें शांतीखातीर उलो मारप हें पिशेपणाचें दिसलें. पाव शतका उपरांत, साद्या मनशान लेगीत शांतीविशीं उलोवप हें गंभीरतायेन घेतात. बापू उण्यांत उणें इतलो तरी वेळाचे फुडें आशिल्लो. घडये अजून आमी तांचे म्हऱ्यांत पावुंना.

# 19. अहिंसक असहकार

सेवाग्रामाक टपाल कचेरी उगडली, तेन्ना आमी मगनवाडींतल्यान थंय रावपाक गेले. बापूच्या घराकुशीक आमचेखातीर एक ल्हानशें मातयेचें घर बांदिल्लें. एक वटेन बा चें घर आशिल्लें, मागीर बापूचें आनी मागीर आमचें. बापू, बा आनी महादेवभायचें तिगांयचे प्रतिकात्मक रचणुकेंचें. आमचें घर बापूच्या घराच्या इतलें लागीं आसलें आनी काका चडसो वेळ बापूच्याच म्हऱ्यांत आसतालो, तरय म्हजी आवय आनी हांव खूब कमी वेळ बापूगेर वतालीं. आमी दोगांयनी आनी काकान बापूक चड त्रास दिवप ना अशें थारायल्लें.

१९४२ वर्सा, काकाचेर भार खूब वाडलो. खूब फावट दनपरां काका इल्लिशी झेम काडटालो. आपले कुडींत वचचे पयलीं तो घराची खिळी घालतालो आनी म्हाका म्हणटालो, 'बाबला, हांव मातशी न्हीद काडटां. कोणय आयल्यार पसून म्हाका उठोवं नाका. यमान पसून दारार मारत तर ताका सांग, 'तुका मातशें रावचें पडटलें. काका भितर सुशेग घेता आनी हांव तुका भितर वचपाक दिवपाना.'

म्हाका मरणाविशीं आयकुपाचें नाशिल्लें. म्हणटकच विशय बदलपाक हांव म्हणटालों, 'बापू येत जाल्यार?'

ह्या प्रस्नाक जाप मेळना आशिल्ली. बापूक गरज आसा आनी आपूण सुशेग घेतां हाची काका कल्पनाच करूंक शकना आशिल्लो.

तशें पळोवपाक गेल्यार, काकाक आनी आवयक एकमेकांकडेन उलोवपाक लेगीत वेळ मेळना आशिल्लो. फकत जेवपावेळार मेळटालो तितलोच. आनी तोय बी सगल्यां

सामकार. तांकां आपल्यो खासगी खबरो गुपीत दवरपाक खूब कठीण पडटालें.

पूण खंयचेय परिस्थितींत, घराब्याचे बाबतींत कितेंय तीं म्हजेपासून लिपोवन दवरपाक प्रयत्न करनाशिल्लीं. देखीक, काकाक बापूकडच्यान खूब कमी पगार मेळटालो, आनी तो केन्नाच वाडोवंक नाशिल्लो. खूब फावट, तितल्याचेरच सांबाळून घेवपाक आमकां खूब कठीण पडटालें. आनी आमकां केन्नाय गरजच पडत, तर मागीर पैशांखातीर काका वर्तमानपत्रांनी लेख बरयतालो. केन्ना केन्नाय मागीर आमी आमचो खर्च आनीक उणो करपाचो प्रयत्न करतालीं.

असल्या विशयाचेर उलयतना काका आनी आवय म्हाकाय विस्वासांत घेतालीं. म्हणटकच, घराबो चलोवपाक हांवय भागीदार आसां हाचो म्हाका अभिमान दिसतालो. मागीर थोडे दीस, खेळटना म्हजें मोटवें काल्सांव पिंजचेना हाची हांव जतनाय घेतालों. म्हाका मोडपाक अशे पयशे केन्नाच मेळनासले आनी हांव केन्नाच मागना आशिल्लों.

पूण एक खेप अशें जालें की म्हजे आवयबापूय खासगेंत उलयतना हावें आयकलें. रात जाल्ली आनी हांव हांतुणार पडिल्लों. तांकां दिसलें, हांव न्हिदलां.

काका : बापून कितें सांगलां तें तुवें आयकलां?

आवय : हय, हावें आयकलां.

काका : म्हणटकच तुवें कितें थारायलां?

आवय : तातूंत थारावपाचें कितें आसा? बापून सांगलां तशें करपाचें.

काका : तुका खबर आसा, तशें करप म्हणल्यार प्रत्यक्ष मरण !

आवय : तुमी तुमकां तुबकाच्या तोंडार बांदलां, तर आनीक कसली अपेक्षा धरपाची? पूण बाबलाचें आमी कितें करतले?

जाल्लें अशें : दुसरें संवसारीक झूज सुरू जालें. तेन्नाच्यान ब्रिटिशाच्या झुजाच्या प्रयासाकडेन आमची बाजू कशी आसूंक जाय हाचेर राष्ट्रीय फुडाऱ्यांमदीं भासाभास चलताली. कांय फुडारी ताचेकडेन वेव्हारीक नदरेन पळयताले. म्हणचे आमी तांच्या झुजाच्या प्रयासाक पालव दिवप, बदल्यांत तांणी देशाक स्वातंत्र्य दिवप.

पयलीं पयलीं बापू इश्ट राश्ट्रांच्या झुजाच्या प्रयासाक नितीक आधार दिवपाचे लेगीत वटेन नाशिल्ले. ते म्हणटाले, हिटलराची कृती कितलीय नश्टी आसूं, झूज दोनय वटेच्यान गुन्यावगारी तयार करतात.

पूण उप्रांत तांचे मत बदललें. हिटलराच्या बळिश्ट सैन्यामुखार पोलंडाच्या सैन्यान जेन्ना आपले जीव वगडायलो, तेन्ना बापून तांचे शूरतायेची तोखणाय केली. अन्यायाक हिंसेन प्रतिकार करप हें भिजूडपणान फाटीं सरपापरस खूब बरें, अशें ते सदांच सांगताले. ताणी असल्या प्रतिकारा वटेन जरय आपलो आवाज उठयलो, तरय कठीण आसून लेगीत अहिंसेच्या मार्गान प्रतिकार कसो करप ही वाट सोदपाचे तयारेक ते लागिल्ले.

जपानी सैन्य पूर्व आशिये कडसून फुडें फुडें वचत आशिल्लें. करतां करतां तें भारताचे पूर्व सरादीकडेन सामके लागीं पावलें. भारतीय भुंयेचेर बॉम पडपाक लागले. जपानी सैन्य भारतांत भितर सरलेंना पूण आक्रमण केन्नाय जावंक शकतालें. जपानी लोक दर्या देगेर खंयच्याय खिणाक देंवूंक शकतात, अशें मिराबेनीन (मॅडिलीन स्लेड) बापूक कळयलें. ते परिस्थितींत हांगाच्या लोकांक तुमचो कितें सल्लो ? जर ते सरकारचे मुखेली आशिल्ले तर ते ही परिस्थिती कशे हाताळटले आशिल्ले?

निशशस्त्र जनतेन आनी सैन्याक रजा दिल्ल्या सरकारान परदेशी आक्रमणाक अहिंसेन कसो प्रतिकार करचो हाची सविस्तर म्हायती ताणी आपले जापेंत दिली. पयलींच, शक्य आसल्यार आक्रमकांक आपले बरे आनी दयाळपणाचे करणेन, गरजेक पावून आनी जुलमाआड मोगान प्रतिकार करून तांच्या इराद्यांपसून तांकां पयस करपाक यत्न करचे. आक्रमणावेळार, निशशस्त्र आपवावुरप्यांनी शिमेकडेन एकटांय जावचें आनी आक्रमकांचे अंतस्करण जागोवपाची आस्त बाळगून आपूण स्वता त्याग करपी सैनीक जावचें. आक्रमक बळयां देशांत भितर सरलेच तर सांगात दिवपाक मनाय करप वा वट्ट बहिश्कार घालप असल्या उपायांनी विरोध करीत पुराय देशान तांकां सामकार वचचें.

पूण हे येवजणेंत एका प्रस्नाची जाप मेळना आशिल्ली. अहिंसक सैन्यान त्याग करपी सैनीक जावचें, तर तेखातीर लोक खंयच्यान हाडपाचे ? बापू एक हजार लोकांक घेवन लेगीत आक्रमकांक तोंड दिवपाक तयार आशिल्ले. त्या दिसा रातचीं

काका आनी आवय ह्या विशयाचेर उलयतालीं. त्या दिसा दनपरां बापून सगल्या आश्रमवाश्यांक आपयल्ले आनी हे येवजणेचेर उलोवणीं केल्लीं. आनी आतां काका आनी आवय ताचेर चर्चा करतालीं.

बापून अशें सैन्य तयार करत, तर दोगांयचो तातूंत भाग घेवपाची तयारी आशिल्ली. पूण एकच प्रस्न तांकां सतायतालो : बाबलाचें कितें करप ? वा काकान वचप आनी आवयन रावप? निमाणें तांणी अशें थारायलें, बापून जर आपवावुरप्यांखातीर उलो मारत तर दोगांयनी वचप.

'बाबला आतां भुरगो ना. ताका आमी देवाच्या हातांत सोंपोवप.'

# 20. जमनालाल बजाज

1942 आनी 1943 हीं वर्सां भारतीय इतिहासांत विचारांचें वारें व्हांवोवपी वर्सां आशिल्लीं. ह्या दोन वर्सांत, तांचे पयलींच्या पंचवीस वर्सांत केन्नाच घडुंना अशे बदल घडले. आश्रमांत आमचे खातीर हो काळ कितें तरी नवे नवे प्रयत्न करपांत गेलो. 1942 फेब्रुवारी ते 1944 फेब्रुवारी हो काळ बापूक पयलीं जमनालालजीचें मरण, मागीर काकाचें मरण, आनी निमाणें कस्तुरबाचें मरण पळोवचें पडलें. दरेक मरणान, पयलीं जो मनीस गेल्लो, ताच्याकूय लागींच्या मनशाक व्हेल्लो. हाचे पयलीं, जिणेंत एका फाटोफाट एक इतले सारके लागींचे आघात जाल्ले आसतीत अशें दिसना.

स्वातंत्र्य चळवळींतलीं हीं सामकीं सर्वोच्च त्याग करपाचीं वर्सां आशिल्लीं आनी त्याग करपांत हीं तिगांय कसलेच बाबतींत फाटीं नाशिल्लीं. जमनालाल बजाज बापूच्या न्यायालयांतले रत्न आशिल्ले. जमनालाल भायर पडतकच, बापून हे एके आदींचे घडणुकेविशीं बरयलें.

"'हें बावीस वर्सां पयलीं घडलें. एक तीस वर्सांचो तरणाटो म्हजे म्हऱ्यांत आयलो आनी सांगूंक लागलो, 'म्हाका कितें तरी मागूंक जाय.' अजापान हावें सांगलें, 'माग, जाल्यार हांव तुका तें दितलों.'

"'तरणाट्यान सांगलें, 'म्हाका तुमचो पूत समजात.'

'मान्य. पूण तुवें म्हाका कितें दिवपाक सांगिल्लें आनी हांगा तुवें म्हाका कितें तरी दिलां आनी हावें तें घेतलां.'

"'त्या तरणाट्याचें नांव जमनालाल आशिल्लें. भारतांतल्या लोकांनी पळयलां, तो

कितले योग्यतायेचो पूत जालो तो! म्हाका विचारत तर हांव म्हणटलों, कोणागेरच असलो पूत जावुंना.''

ही घडणूक घडली तेन्ना जमनालाल भारतीय राष्ट्रीय कॉंग्रेसीची एक म्हत्वाची व्यक्ती आशिल्ली. कांय काळान, ताणें बापूक सांगलें, आपूण राजनीत सोडूंक पळयतां आनी गांवगिऱ्या वाठाराखातीर वावर करूंक सोदतां. गोरवां सांबाळपाच्या शास्त्राची रीत ताणें विकसीत करची अशें बापून ताका सुचयलें. फुडें हें ध्येय ताका स्वताच्या जिवापरस चड आपलेपणाचें जालें.

जमनालालजी हो बुदवंत, कर्तुबी उद्देजक आशिल्लो. तरय ताणें व्यक्तीगत फायद्याचो त्याग केल्लो. तो बापूक मेळ्ळो, तेन्ना ताणें आपली वट्ट आस्पत बापूच्या वावराक मजत म्हूण दिली. ताणें वर्ध्याचे आशिकुशीक खूबश्यो संस्था उबारल्यो आनी तांकां पालव दिलो. इतलेंय आसून ताका केन्नाच अहंकारान स्पर्श केलोना. उरफाटें, ताची चलणूक हुस्क्याविरयत आशिल्ली.

जमनालाल सदांच दुसऱ्यांकडेन इश्टागतीन वावुरतालो. सेवाग्रामाक वतना वर्ध्याक बापूक मेळूंक येतल्यांक तो खोश्येन भितर घेतालो. वळखीचो वा अनवळखी, सगल्यांक तो हुनहुनीत येवकार दितालो. तांच्या संपर्कांत आयिल्ल्या कितल्याश्याच तरणाट्यांची ताणें लग्नां जुळयल्लीं. ते खातीर बापून ताका 'शादीलाल' हें नांव दवरिल्लें.

लोकांक पारखुपाची ताची कळाशी शेटीच्या दागिने मोलावपाचे फिशालकायेपरस वरती आशिल्ली. कामदार आनी सांगाती म्हूण ताणें बऱ्यांतले बरे लोक वेंचले. तो 'लोकांचो' सोनार आशिल्लो. ताणें कोणेय शिकपासारकी नमळाय, तत्परताय आपलेकडेन सांबाळिल्ली.

जमनालाल बरो ना म्हूण कळ्ळे बराबर बापू आपलीं सैमीक वखदां घेवन सेवाग्रामाच्यान वर्ध्याक गेले. पूण बापू थंय पावचे आदींच तो भायर पडलो. बापून ताची तकली आपले मांडयेर घेतली आनी म्हणलें, 'तूं म्हजो पांचवो पूत. म्हजे पयलीं तुवें वचूंक जायनाशिल्लें.'

जेन्ना जमनालालजीची कूड अग्नी दिवपाक हाडली, तेन्ना हावें ताच्या तोंडार शांती आनी तेज पळयलें, जें खूब कमी फावट पळोवंक मेळटा. अक्षरशा सगलें वर्धा आनी

आशिकुशीचीं सगलीं खेडीं अंत्ययात्रेंत वांटेकार जाल्लीं.

पोरण्या रितीरिवाजाप्रमाण ताची बायल जानकीदेवी घोवाच्या चितेचेर सती वचपाक पळयताली. पूण बापून तें न्हयकारलें. बापून तिका तिच्या घोवान फाटल्यान दवरिल्लें गोरवां सांबाळपाचें काम आनीक फुडें व्हरपाची गरज आसा हें पटोवन दिलें आनी तसो वावर करपाक सांगलें.

बऱ्यांतले बरे लोक सोदपाचें काम जमनालालान फकत बापूच्या अनुयायांपुरतेंच मर्यादीत दवरूंनाशिल्लें. ताका रमण महर्शींच्या आश्रमांत शांतीय मेळिल्ली. तो अध्यात्मीक शिक्षिका आनंदमई मां हिचो सामको लागींतलो मनीस जाल्लो. जमनालाल भायर पडटकच कांय दिसांनी आनंदमई मां वर्ध्याक आयिल्ली. सेवाग्रामांत बापूकडेन उलयतना तिणें सहज म्हणलें, 'आनीक स म्हयन्यांभितर असोच एक व्हडलो मनीस वचपाचो आसा.' तें आयकून काकान अदमास काडलो, तो बापू आसतलो. तो सामको सतरवितर जालो. पूण तेन्ना आमकां थोडेंच कळिल्लें की तें भविश्य काकासंबंदान खरें जातलें !

बापू ब्रिटिशांनी भारत सोडून वचूंक जाय हे मागणेविशीं उलोवंक लागले तेन्ना काकाचें काम भरपूर वाडलें. बापूक खूब लोक मेळूंक येवपाक लागले. पत्रवेव्हारूय भरपूर वाडलो. खूब लेखय बरोवचे पडटाले. तातूंत बापून जाहीर केलें, 'हे फावट बंदखण पयलीं परस खेरीत आसतली. हे फावट खाण आनी उदक दोनाकय हांव हात लावचोंना.' काकाचो दुगदूग आनीक वाडलो. बंदखणींत गेले बराबर उपास करप ही बापूची कल्पना काकाक मात पूण माननलिना. आश्रमाभितरच काका आनी बापू मजगतीं चिटयांची देवाणघेवाण चालू जाली.

काकाचे भलायकेचेर परिणाम जातालो. संघर्शाची घुरी सामकी लागीं लागीं दिसपाक लागिल्ली. म्हणटकच बापून काकाक कांय काळ सुशेग घेवपाक तयार केलें. बापूक अर्थीक फाटबळ दिवपी, बिर्ला हाणी काकाक नाशिक शारांत व्हरपाची तयारी दाखयली. काकान थंय एक सप्तक रावप अशें थारलें. आवयन वा हावें कोणेच तांचेवांगडा वचपाचें नाशिल्लें.

काका वतकच कांय खिणांतच वर्ध्याकसून एक फोन आयलो. रेल्वे थाण्यारच

काकाक घुंवळ आयली असो तो संदेश आशिल्लो आनी देखून काका गाडयेन वचूंक नाशिल्लो. काकाक सेवाग्रामांत परत हाडचो असो बापून परतो संदेश धाडलो. काकाक मजगतीं रुग्णालयांत व्हेल्लो. हावें बापूक इतलो चिंतेस्त हाचेपयलीं केन्नाच पळोवं नाशिल्लो.

तो आयतार आशिल्लो. दरेक सप्तकाक, आयतारा सांजचें बापू आपलें एका दिसाचें मौन सुरू करताले. आनी दुसऱ्या दिसा सांजे मेरेन पाळटाले. ह्या आयतारा, मौन सुरू करतकच लेगीत, बापू आपलें घर, ते सामकारची इमारत जंय फोन दवरिल्लो, काकाविशीं खबर जाणा जावन घेवपाखातीर यो वच करत आशिल्ले. काकाचे अवस्थेची खबर काडत बापू ताचेर टांचणा बरयत आशिल्ले.

निमाणें काकाक घेवन गाडी आयली. ताका सरळ आमच्या घरांत हाडिल्लो. बापू धांवत आयले. आवयन तयार केल्ल्या हांतुणाचेर काकाक न्हिदयल्लो. बापू खाटीर बसले आनी काकाची तकली आपले मांडयेर घेतली.

'महादेव, आतां तुका कशें दिसता?'

आपलो पुतणयो मगनलाल मरतकच, बापून पयले फावट आपलें सप्तकाचें मौन मोडिल्लें.

''बरें दिसता. म्हजो हावेस पुराय जालो. रेल्वे थाण्यारच म्हाका कळ्ळें, म्हजे दीस भरल्यात. हावें तांकां सांगलें, म्हाका नाशिकाकय वचपाचें ना आनी रुग्णांलयांतय वचपाचें ना. हो म्हजो निमाणो खीण, म्हाका तो बापूचे मांडयेर काडूंक जाय. पूण तांणी म्हाका रुग्णालयांत व्हेलो.'

बापू काकाचें माथें थापटीत रावले. कांय म्हयन्यां उप्रांत, आगाखान राजवाड्यांत बंदी आसतनाच काका भायर पडलो. तेन्नाय ताची तकली बापूचे मांडयेर आशिल्ली.

# 21. करात वा मरात

8 आगस्ट 1942 दिसा सानवेळा, ब्रिटीश सरकाराकडेन 'भारत छोडो' अशे कळवळ्यान मागणें करून आनी भारतीय लोकांक 'करात वा मरात' असो काळजाथावन उलो मारून बापून सगल्या देशाक मंत्रमुग्ध केलें. ते मुंबय अखील भारतीय काँगेस समितीचे सभेंत उलयताले. बापूच्या ह्या नव्या उपक्रमाक सभेन पुराय तेंको दिल्लो. भाशण सोंपयतना बापून सांगलें, "हांव व्हॉयसरॉयाक आतां निमाणी चीट बरयतलों. जर दोन सप्तकांभितर म्हाका फावोशी जाप मेळ्ळीना, तर हांव राश्ट्रीय असहकाराक आरंभ करतलों."

सभा सोंपतकच बापू, 'बिर्ला घर' आयले. येतकच ताणी सदांभशेन प्रार्थना केली. उप्रांत, शांतपणान ते न्हिदूंक गेले.

पूण त्या घरांभितर दोग जाणांक - काकाक आनी कस्तुरबाक - न्हीद कशीच पडना जाली. म्हजी खाट काकाक तेंकून आशिल्ली. घडयाळींत रातचें एक वाजलें.

कस्तुरबा आमच्या घरांत आयली, 'महादेव, कितलीं वरां जाल्यांत?'

'एक जालां, बा.'

'तुका कितें दिसता? ते आज रातचे बापूक धरतले?'

'म्हाका दिसता हय. आज सानवेळचें तांचें भाशण आयकतकच ते तांकां मेकळे सोडटले अशें म्हाका निखालस दिसना. पूण खासा बापूक आनीक उण्यांत उणीं दोन सप्तकां ते आपणाक धरचेनात अशें दिसता. खूब फावट बापू जशें चिंतता तें धड न्हय अशें दिसता, पूण तेंच निमाणें खरें जाता. म्हणटकच कितें सांगतलों ?'

म्हाका मर्दी मर्दी न्हीद पडटाली तर मर्दी मर्दी दोन जातकच, तीन जातकच, चार जातकच घड्याळाच्या गजरान जाग येताली.

चार वरांचेर काकान म्हणलें, 'बापूक दिसता तें सारकें आसूंक जाय. हाचे पयलीं तांकां धरपाक पुलीस रातचे चोरावरी येताले. आतां तर सकाळ जावपाकडेन पावली. म्हणटकच आज तांकां ते धरचेनात अशीं चिन्नां दिसतात. पूण तांणी सरदाराक धरला आसपाक जाय. कालचें तांचें भाशण काळजाक तोंपपासारकें आशिल्लें. ते तांकां एक मिनूट पसून भायर दवरतले अशें दिसना. ते जंय रावतात थंय फोन करुया आनी विचारुया.'

फोन बंद. तो तोडिल्लो. आमच्यांतलो एकलो शेजाऱ्याकडच्यान पळोवया म्हूण उठून गेलो. पूण तो दरवट्याकडच्यानच परतो आयलो. आनी ताणें जाहीर केलें, 'भायर पुलीस आयल्यात.'

बापूक धरपाक जें अधिकार पत्र हाडिल्लें तें विक्षिप्तशें आशिल्लें. तातूंत बापूक, मिराबेनाक आनी काकाक धरपाक आदेश दिल्लो. तर बा क आनी बापूचो दुसरो सचीव प्यारेलालाक, तांकां जाय जाल्यार तीं बापूवांगडा येवंक शकतात असो पर्याय दिल्लो.

बा न बापूक विचारलें, 'ह्या पत्राचो अर्थ कितें?'

बापून तिका अर्थ समजावन सांगलो. उप्रांत ताणी विचारलें, 'तूं कितें करपाक सोदता?'

हे फावट बंदखण निमाणी अशें आमकां दिसपाक लागलें. मिराबेन तर आपूण बापूवांगडा आसतली म्हूण खूब उमेदी जाली. तर बा सामकीच गोंदळिल्ली. तिणें बापूकच विचारलें, 'हांवें कितें करप तें तुमीच सांगात.'

बापून सांगलें, 'तूं जर म्हाका विचारता तर हांव म्हणन, फाल्यां सानवेळा जी व्हड सभा आयोजीत केल्या, ते सभेंत म्हजे सुवातेर तुवें उलोवप आनी तुका स्वतंत्रपणान अटक करून घेवप. तुका जर म्हजे वांगडा येवपाक जाय तर ताकाय म्हजें आडमेळें ना. आनीक एक - तुका जर ते वेगळे धरत, तर ते म्हजेपसून वेगळे दवरपाक शकतात. तेन्ना हें सगलें लक्षांत घे आनी थाराय.'

कशें थारावप हें तितलें सोपें नाशिल्लें. एके वटेच्यान तांचो इतल्या वर्सांचो सांगात आशिल्लो. ह्या आतांच्या बरेपणांत बापू वांचून उरतलो काय ना हाचें खरेपण नाशिल्लें. घडये बापूक मेळपा लेगीत जावपाना. तर दुसरेवटेच्यान बापूच्यो स्वताच्यो अपेक्षा आशिल्ल्यो.

तरय, सांगपाक जितलो वगत लागिल्लो, ताचेपरस उण्याच वगतांत बा न आपलो निर्णय घेतलो. तिणें पक्क्या इराद्यान सांगलें, 'सद्याचे परिस्थितींत हांव तुमच्या सांगाता आसपाक जाय. पूण ताचेपरस चड म्हाका तुमच्या अपेक्षांक पाळो दिवपाक जाय. म्हणटकच हांव रावतलीं.'

तिच्या ह्या त्यागाचे देखीन, हांव तिचेकडेन तटास जावन पळयत रावलों. रामान सीतेक आपल्या फाटल्यान घरांत रावपाक सांगलें, तेन्ना ती रामाक सोडून रावपाक शकलीना. हांगा तर बापून जाय तसलो निर्णय घेवपाक बाचेर सोडिल्लें. तरय तिणें वेगळें रावपाचो संकल्प केलो.

हांव काकाचें सामान बांदपाक लागलों. हावें आदीं ताका खूब फावट सांगिल्लें, 'काका, तुवें केन्नाच तुजें म्हूण बरोवप केलेंना. तूं जें जें कितें बरयता तें एक तर बापूच्या भाशणांचें लिप्यांतर आसता वा पुस्तकाचो अणकार आसता.' काका मागीर हांसत जाप दितालो, 'खासा आपलें बरोवप, तें हांव तुजेर सोडटां.' पूण उप्रांत तो सांगतालो की पांच स नवलिकांखातीर ताच्या मनांत कथानकां तयार आसात. आपणाक केन्नाय लांब काळची रजा मेळ्ळी म्हणचे लांब काळची बंदखण - तर आपूण त्यो नवलिका बरयतलो. ताका गुरुदेव रवींद्रनाथ टागोरांची लेगीत कांय गितां गुजरातींत भाशांतर करूंक जाय आशिल्लीं.

खूब म्हयने त्या गितांच्यो प्रती हावें पयलींच म्हजेकडेन तयारेन दवरिल्ल्यो. तशेंच पांच काय स फोलींचे गठ्ठेय दवरिल्ले. हावें तें सगलें काकासरीं हाडलें आनी विचारलें, 'आतां हावें हेंय सगलें बांदूंक जाय, बांदूं?'

पूण काका ह्या वगतार उदासीन आशिल्लो. ताणें सांगलें, 'तुका तसलें कांय बांदपाची गरज ना. बापूचो उपास म्हजे तकलेर हुमकळटा. हे खेपे बापून जर उपास करत, तर सरकार तांकां मरूं दी म्हणटलो. हें सगलें पळोवपाक म्हजी जगपाची तयारी ना. हे

खेपे बंदखणींत एक सप्तक तरी हांव जितो उरतलों काय ना म्हाका दुबाव आसा.'

हावें म्हणलें, 'अशें कांय उलोवं नाका.' काका ओग्गी रावलो.

पुलिसांवांगडा वचचे पयलीं बापून प्रार्थना म्हणली. वातावरण एकदम प्रफुल्लीत जालें. बापून पयलींच जाहीर केल्लें की तांकां धरतकच, दरेक भारतियान फुडारी जावप आनी अहिंसेचें तत्व थिरपणान लक्षांत घेवन सरकारा आड चळवळ करपाक फुडाकार घेवप. ताणी भविश्य वर्तयलें की चळवळ ल्हान आसतली आनी रोखड्यारोखडी सोंपतली. तें आयकून आमी सगल्यांनी खोस मनयली.

त्या चौगांकय पुलीस गाडयेलागीं हाडले. काका गाडयेंत चडटालो तेन्ना हावें ताका म्हळें, 'आमी परत स्वतंत्र भारतांत मेळुंया.''

काकान म्हज्या पोल्याचो उमो घेतलो.

तो काकाचो म्हाका निमाणो उमो आशिल्लो.





# 22. काका आमच्यांतलो वतकच

सरकाराचो बंदी म्हूण आगाखान राजवाड्यांत दवरतकच, स दिसांभितर 15 आगस्ट, 1942 ह्या दिसा सकाळी फुडें काका संवसाराक अंतरलो. सरकारी अधिकाऱ्यांनी आवय आनी हांव सेवाग्रामांत आसात हे खबर आसून लेगीत आमकां हेविशीं कांयच कळयलेंना. आमकां तें दुसऱ्या दिसा आमच्या कांय इश्टांकडल्यान कळ्ळें. तांणी ती बातमी रेडियोचेर आयकल्ली.

काकाच्या अचकीत मरणान देशभर वेगवेगळ्या तरांच्यो हुली उठल्यो. कांय जाण सरकारान ताका वीख दिलें, तर कांय ताका विजेचो धक्को दिवन मारलें अशें म्हणपाक लागले. काकाक काळजाची पिडा आशिल्ली आनी बापूच्या हेतपूर्ण उपासावयल्यान काका कितलो अस्वस्थ आशिल्लो हें आमकां खबर आशिल्लें. म्हणटकच हुलींकडेन आमी चड लक्ष दिलेंना.

काकाचे अंतीम क्रियेवेळार बापून आमकां एक तार धाडली. ती सेवाग्रामाक पावपाक तीन सप्तकां लागलीं. ताणी बरयल्लें, 'महादेव योग्याचें, देसभक्ताचें मरण मेलो.' घडये ह्याच उतरांखातीर ती तार इतले दीस सरकारान दामून दवरिल्ली. सरकारी अधिकाऱ्यान तारेवांगडा एक चिट्टय धाडिल्ली आनी 'चुकून घडिल्ल्या' कळावाखातीर चूक मागिल्ली. हे चिटयेन मात म्हाका खूब अस्वस्थ केलो.

ह्या वेळार, आवयन आनी हावें बापूक मेळपाक परवानगी मागली. परवानगी न्हयकारली. काकाची अंतीम क्रिया खंय केल्या हाची आमकां कांयच कल्पना दिलीना. इतलेंच न्हय तर सारी लेगीत आमकां दिनासतना दवरली.

काकाची अंतीम क्रिया आगाखान पॅलेसींतच केल्ली हें आमकां मागीर कळून आयलें. बापू दरेक दिसा दोन फावट ते सुवातेक भेट दिताले आनी ताचेर फुलां घालताले, हेंय आमकां कळून आयलें. उप्रांत बापून जमयल्ली कांय सारी आमकां मेळ्ळी.

आवयखातीर आनी म्हजेखातीर काकाच्या मरणान जाल्ली पोकळी केन्नाच भरून येवपासारकी नाशिल्ली. ताच्या मरणान फुडें खूब वर्सां आमी त्रास भोगले. ताचे विशींची आमचें आपलेपण सोडल्यार लेगीत तो आमचो एकमात्र आधार आशिल्लो. तरय, एका दिसाखातीर लेगीत सरकाराविशीं आमचें मत केन्नाच कोडू जालेंना. आमी तें ब्रिटीश राज्या आडचे चळवळीचो एक भाग हे नदरेन पळयलें. तिडक हाडनासतना खोशयेन त्याग करप हें अहिंसक चळवळींतलें एक खाशेलपण आशिल्लें. खरें म्हणल्यार काकाक बंदखणींत मरण आयलें हाचो म्हाका एक प्रकारचो अभिमान दिसपाक लागलो.

बापू बंदखणींत वतकच रोखडेच उपासाक बसलेनात. पूण उप्रांत ते फेब्रुवारींत बसले. आवयन आनी हावें तांकां मेळपाक परवानगी मागली. हे फावट परवानगी मेळ्ळी पूण एके अटीर. ती म्हणचे आमीय बंदखणींत रावप आनी भायर कोणाक मेळप ना. आमी अट मान्य केली.

पुराय राजवाड्या भोंवतणीं दुर्गाचेर अकरा फूट उंच सरयो घाल्ल्यो. दीस आनी रात शात्तर राखणदार हातांत तुबकां घेवन राखण करताले. राजवाड्याचो एक लांब पडवेर मदींच बापूची खाट दवरल्ली. उपासाचो तो सातवो दीस आशिल्लो. आमी तांचे पांयां पडलीं. तेन्ना आवयच्या दोळ्यांतल्यान गेल्ले स म्हयने आडावन दवरिल्लीं दुकां बळ्ळ करून भायर सरलीं. बापून कितें तरी सांगपाचो यत्न केलो, 'महादेव...' पूण तांचो गळो भरून आयलो. ते एकच उतर उलयले आनी तांचे दोळे दुकांनी भरले. हांव बापूक पयले फावट रडटना पळयतालों. तांकां त्रास जावचो न्हय म्हूण आमी थंयच्यान गेलीं.

आमी तीन सप्तकां ते बंदखणींत उरलीं पूण केन्नाय चुकून बापूकडेन उलयलीं. पूण प्यारेलालकाका जो आतां बापूचो मुखेल सचीव जाल्लो, ताचेकडेन मात हांव सदांच उलयतालों. ताचेकडच्या उलोवण्यावयल्यान म्हाका एक कळून आयलें की सरकारी संपत्ते आड सगल्याक पसरिल्ल्या घातपाताक बापूची मान्यताय नाशिल्ली. हाचे उरफाटें हांवय असले कृतीचे वटेन आशिल्लों. कोंड्याचे चाकू घेतिल्ल्या थळाव्या टोळयांच्या

सांगातान हावें लेगीत काळखे रातीं टपाल पेटयो लासपाचें थारायल्लें. पूण टोळयेंतलो एकलो पिस्तूल घेवन व्हरपाविशीं उलोवपाक लागलो आनी हांव रोखडोच सादूर जालों. हावें ताका कठोरपणान सांगलें, अहिंसेंत पिस्तुलाक सुवात ना.

जीव वा खासगी संपत्ती पाड घालपा सोडून आनीक कसलीय कृती करप हें अहिंसेभितर पडटा अशे हांव मानतालों. कोणेंय फोनाच्च्यो सरयो कापिल्लें वा रेल्वेचे रुळ हुमटून काडिल्लें हावें वाचलें तर म्हाका खूब खोस भोगताली. देशाच्या खूब भागांनी जाल्ल्या असल्या विध्वंसाक लागून सरकारचें अस्तित्व दिसना जालें. असल्यो खबरो वाचून हांव हवेंत उडपाक लागलों. हांव स्वता असल्या टोळयांकडेन संपर्क दवरपाक लागलों. हांव भुमीगत रावन पत्रां छापपाक लागलों. आनी हें सगलें करतना बापूक तें मान्य आसतलें असो हावें समज करून घेतिल्लो.

हावें हें सगलें प्यारेलालकाकाक सांगलें. ताणें थंडपणान तें सगलें आयकून घेतलें. थंडपणानच न्हय तर आपलेपणान लेगीत. आनी उप्रांत इल्लें इल्लें करून कोणाचेय संपत्तीचो विध्वंस हें हिंसक कशें, हिंसक चळवळीक गुपीत कशें बादा हाडटा, हिंसा हें सरकाराचें साधन, आमचें न्हय हें दाखोवन दिलें.

हावें आपणायला तो मार्ग चुकीचो हें म्हाका इल्लें इल्लें करून कळून आयलें. पूण हांव दोशी आसां अशें म्हाका केन्नाच दिसलेंना. आमचें घळयेपण हें पिशेपण अशें बापू मानताले... आमच्या देशाक योग्य रुळार हाडपाक बापू वावुरताले पूण जांणी चुकी केल्यो त्यो देशाच्या मोगाखातीर आशिल्ल्यान बापून तांचेर केन्नाच आरोप केलेनात. आनी इतलेच खातीर भारतीय भौस बापूचें मार्गदर्शन पत्करपाक खोशी आसतालो.

आमकां पॅलेसींत खूब मेकळो वेळ मेळटालो. हांव म्हजो वेळ व्हिक्टर ह्युगोचें 'ले मिजेराब्ल' ह्या पुस्तकाचो इंग्लिश अणकार वाचून घालयतालों. बापूक तें पळोवन अजाप जालें. ताणी एक दीस म्हाका आपयलो आनी म्हजें अभिनंदन केलें. म्हाका बेठीच लज शी दिसली. प्यारेलालकाकान बापूक सांगलें, 'तुमी ताका अजून इल्लोसो बाबला समजतात. पूण तो म्हजेकडेन राष्ट्रीय परिस्थितीचेर भासाभास करता. आमची सदांच अहिंसेचेर आरतीपरती चर्चा चलता.' म्हाका आनीक लज दिसपाक लागली.

बापून म्हणलें, ‘हांव जाणा, इल्लोसो आसतना लेगीत ताका वाद घालपाक आवडटालें. पूण ह्या वेळार ताचें इग्लिशीचें गिन्यान पळोवन म्हाका अजाप जालें.’

मागीर ताणी म्हजे कडेन वळून म्हणलें, ‘जर तूं अहिंसेविशीं उलयता, तर तूं जाणा जा, तेविशींची म्हजीय कल्पना विकसीत जाल्या. पयलीं म्हाका दिसतालें, देशाच्या खंयच्याय एका भागांत हिंसा जाली, तर ती खंयय अहिंसेचो वापर करपाक दिवपाना. आज म्हाका दिसता, हिंसेच्या भयांकृत मोडा मजगतीं लेगीत, अहिंसेन ल्हानांतलो ल्हान किरण लेगीत सांबाळ्ळा.’

हांव हें सगलें बापूच्या जल्माची शताब्दी 1969 वर्स लागीं येता म्हणल्यार बरयतां. काका गेल्यार पंचविशेक वर्सां जालीं. सासणाची वाट चलतना पंचवीस वर्सां कितें, शंबर वर्सां कितें, पूण सत्यदर्शनाचो एक खीण – ती याद लेगीत जिविताभाशेन – धर्तरी कांठांवयल्यान तुमकां शाश्वताकडेन व्हरपी तारूं जावं येता.





महात्मा गांधी हांचे १९१७-१९४२ मेरेनचे कार्यदर्शी महादेव देसाय हांचे नारायण देसाय सुपुत्र. नातलांचे पूर्वसांजे जल्मल्ल्या नारायण देसाय हाणी जिविताचीं पयलीं वीस वर्सां गांधींजींच्या आश्रमांनी सारल्यांत.

तेन्नासावन ताणी आपलें पुराय जिवीत गांधी-चळवळींक अर्पिलां. १९६२ तीं १९७४ मेरेन ताणी शांति-सेनेक दिशा-दर्शन घडयलें. ज्या शारी वाटारांनी दंगे जाताले त्या सुवातांनी वचून अहिंसक मार्गांनी ते आटापा हाडपाचो वावर शांतिसेनेकडेन आशिल्लो.

नारायण देसाय जयप्रकाश नारायण हांचे लागींचे सांगाती.

नारायण देसाय हांकां आज गांधी-चळवळींचे मुखेल म्हणयारे मान-तात. ते वेडची, गुजरात हांगा 'संपूर्ण क्रांती विद्यालय' चलयतात.

जायत्या भासांचे जाणकार नारायण देसाय हाणी भारती आनी इंग्लेज भासांनी जिनसांवार पुस्तकां बरयल्यांत. 'अहिंसक क्रांतीचे दिशेन', 'शांतिसेनेविशीं', 'सत्याग्रह्यांपासत मार्गदर्शिका' आदि.

नारायण देसाय तुर्ताक गांधी-जिवित-कथा लोकाक विस्तारान तोंडयां सांगून गांधीजींचो संदेश भारत आनी संवसारभर पातळावपाचो वावर करतात.